MB/FEB. 2023/Vol.22/ISSUE2/Panaji-Goa. REGISTERED GOA/01/2021/2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

# बिम्ब

मासिक

फेब्रेर 2023

## भारत जोडो यात्रा
## राहुल भारत जोडटलो काय भाजप सत्ता?



कोंकणी मासिक

# बिम्ब






वर्स 22 : अंक 2
फेब्रेर 2023
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊसकार

**अंक सजावट**
गिरीश नंदा बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर :**
वर्सुकी वर्गणई 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर 2000 रु.

**BANK DETAILS :**
**Bimb Monthly Publication**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji - Goa 403001
Tel.: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in
**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी–गोंय, 403204

# प्रमोद सावंतांक समजून घेयात..!

म्हादयच्या नांवान गोंय पेट्टलें अशें दिसता आनी तें पेटुंकच जाय. कित्याक गोंयचेर प्रसंगूच तसो आयला. हालींच आमचे केंद्रीय घरमंत्री अमीत शहा हांणी हुबळींतले एके सभेंत कर्नाटक आनी गोंय हांचे मदलो म्हादयच्या उदकाचो प्रस्न, गोंयचे मुख्यमंत्री आनी कर्नाटकाचे मुख्यमंत्री हांकां विश्वासांत घेवन सोडयला आनी कर्नाटकाक म्हादयचें उदक दिवन उडयलां म्हणपाचें जाहीर विधान केलां. म्हादयचे उदका वांटणेचो तंटो न्यायालयांत आसतना देशाचे घरमंत्री बापायचो फात कसो गोंयच्या हक्काचें म्हादयचें उदक कर्नाटकाक दिवन उडयता हें तर अती जालेंच! पूण देशाचे न्यायसंस्थेक भिसक्यार मारून ह्या देशांत लोकशाय ना तर हुकूमशाय चलता आनी आमी करतात तेंच सारकें अशें वागतात तेंय अती जालें.

पूण 'अती थंय माती' हें वचन हालींसराक आमकां कोणाकूच लागू जायना. कित्याक सत्तेर आशिल्ल्या भाजप सरकारान कितलेंय अती केलें तरी ताची माती करप केदेय लोकशाय शक्तीक शक्य जावंचें न्हय अशी वेवस्ता ह्या पक्षान राबयल्या. तेच पासत देशांत नागरीक न्हय तर खंयचेय थरार वचून, साम, दाम, दंड, भेद हांचो वापर करून फकत मतदार निर्माण करपाचो चंग ह्या पक्षाच्या फुडाऱ्यांनी आनी कार्यकर्त्यांनी बांदला. तेच पासत आपल्या देशांत संवसारांतली सर्वोच्च लोकशाय प्रणाली चलता म्हणपाचें तांचें भान सुटलां. मतदार करपाच्या तांच्या ह्या एक कलमी वावरा मुखार आपूण गोंय सारख्या एका स्वाभिमानी राज्याच्या मुख्यमंत्र्याक विकून उडयतां, न्यायालयाची विश्वासहर्ता पावणेर काडटां म्हणपाचें कुस्कुटाचेंय भान दवरपाची गरज हांका दिसना. कित्याक तीन म्हयन्यांचेर कर्नाटकाची वेंचणूक पावल्या. थंयच्या नागरिकांक जर आपले पक्षाचे मतदार केलेनात तर ह्या देशाचेर चंद्र-सूर्य आसा सर सत्ता राबोवपाच्या तांच्या ध्येयाक वेर वचपाची भिरांत आसा. म्हणटकच उलोवपाच्या भारांत अमीत शहान जरी गोंयचे म्हादयक आना मुख्यमंत्र्यांक विकून उडयलें तरी आमी गोंयकारांनी तांकां समजून घेवंक जाय. कित्याक समजून घेवंक जाय तें आमचे येरादारी मंत्री बाब माविन गुदिन्होन सांगलां. मोगांत आनी झुजांत सगळें माफ आसता तशें वेंचणुकेंतय सगळें माफ अशी मखलाशी करून वेंचणूक ही लोकशाय प्रणालींत येना म्हणपाचें ताणें सांगून उडयलां. म्हणटकच ताकाय आमी समजून घेवंक जाय.

आमच्या गोंयचे मुख्यमंत्री जरी प्रमोद सावंत आसले आनी तांकां म्हादय ही आपली आवय दिसता आसली तरी ते प्रमोद सावंत म्हणपाचें आमी गोंयकारांनी समजून घेवंक जाय. ते मुख्यमंत्री जावंक पावले ते गोंयकारांक जाय म्हूण न्हय तर तांणी केल्लो संघाचो वावर आनी निश्ठा म्हणपाचेंय आमी गोंयकारांनी समजून घेवपाक जाय. प्रमोद सावंत हे मनोहर पर्रीकरां परसूय मोदी आनी शहा कंपनीक खूब लागीं आसात म्हणपाचें गोंयकारांनी अणभवलां. हो असलो मान गोंयच्या ह्या आदल्या खंयच्याच मुख्यमंत्र्यांच्या कट्टुलांत केन्ना नाशिल्लो. म्हणटकच आपल्याक जाय तें दिवपी, आपल्या फुडाऱ्यांनी गोंय विकून जरी उडयलें तरी आपलें मुख्यमंत्रीपद खंयच ढळमळीत जावंचें न्हय म्हूण हाताची घडी आनी तोंडार बोट धरून जर प्रमोद सावंत रावले तर आमी कोणेंच तांकां दोश दिवंक फावना. पक्षाच्या ज्येश्ठ फुडाऱ्यां मुखार आज्ञाधारक जावन रावप हीच संघाची शिकवण आनी जे तरेचो देश करपाक तांचो पक्ष वावुरता त्या देशाची ती संस्कृताय म्हणपाचें आमी समजून घेवपाक जाय. तांचे सुवातेर आमचे मदलो आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार ताचीय अवस्था प्रमोद सावंता वरींच कुरुक्षेत्रा वयल्या अर्जुना सारखी जावपाची. म्हणटकच आमी प्रमोद सावंताक समजून घेवंक जाय अशी कित्याक म्हणटात ताची कल्पना येतली.

आमी गोंयच्या मतदारांकूय समजून घेवंक जाय. गोंयांत फाटल्या धा वर्सांत नागरीक म्हणटा तो उरूंक ना. जो नागरीक आशिल्लो तो ह्या गोंयांत कांय खरें ना म्हणत पुर्तुगेज पासपोर्ट करून देशा भायर गेलो. तो नागरीक थंयच्यान गोंयाक 'उजो' लावंक लागला. गोंयांत जे कोण नागरीक उरल्यात ते आपापली वेगळी चूल घेवन 'आपलो कोको आपलें मेमें' रांदतात. बाकीचे सगले लोक मतदार जावन आपल्या भुरगे बाळांच्यो सरकारी नोकऱ्यो आनी हेर येवजण्यांच्या गाजरा फाटल्यान चलत आसात. म्हणटकच तांची मानसिकताय आनी लाचारीय आमी समजून घेवंक जाय.

आयज गोंयची एकंदर परिस्थिती एकामेकाक समजून घेवन आसूं, पाडपडूं म्हणपा कडेन पावल्या. तेन्ना प्रस्न पडटा म्हादय पासत गोंय कोण पेटयतलो?




# भाई खलपाचें पेडणे म्हाला पासत योगदान

हालींच प्रसिद्ध जाल्ल्या 'बिम्ब' मासिकांत म्हादय संदर्भांत एक लेख वाचलो. तांतूंत पेडणे म्हालांतले उदरगतीचें विवेचन सापडलें. खरेंच काय आतां मेरेन कोणेंच आमदारान पेडणे म्हालाचे उदरगती पासत योगदान दिल्लें ना? ह्या प्रस्ना वांगडाच म्हजें विचारचक्र सुरु जालें. ह्या लेखांत चांदेल प्रकल्पाविशीं बरयलां. खरें म्हणल्यार उदकाचे टंचायेची कुणकूण येवपी काळांत जाणवतली आनी ते पासत उदका पुरवणेची येवजण राबोवपाक जाय म्हणपाची कल्पना मुळांत ह्या मतदार संघाचे आदले आमदार आनी त्या काळांतले पालवी मुख्यमंत्री श्री. रमाकांत खलप हांणी ते पासत फुडाकार घेतिल्लो. आयज जे वेगवेगळे प्रकल्प चालीक लायल्यात तांचो पयलो आराखडो भाई खलपान केल्लो. ते पासत तांणी कोंटूर नकासो तयार केल्लो. गांवांत दरेक सुवातेर व्हाळ व्हांवताले. त्या व्हाळांत बंधारे बांदपाची गरज तांणी वळखली आनी ती येवजण चालीक लावपाक आरंभ केलो. पूण हे येवजणेंत त्या काळा वयल्या खूबश्या थळाव्या लोकांनी ताका विरोधय केलो. तेच वांगडा वेगवेगळ्या वाड्यांचेर जीं जीं तळीं वा बांयो आशिल्ल्यो तांची दुरुस्ती करून घेतली आनी गरज आशिल्ले सुवातेर नव्यो बांयो बांदल्यो.

आयज पेडणें आनी लागसारच्या हेर वाटारांतले कितलेच युवक तुयेंचे उद्योगीक वसाहतींत आपले उपजिविकेचें साधन म्हूण वावुरतात. मुळांत हो प्रकल्प आरंबाक खलपभाईन पेडणे म्हालांत उबारलो. पयली जी.ए.पी.एल. वखदांची कंपनी पेडणे म्हालांत हाडून ते काळार शशिकला ताईंचे हस्तुकीं ताचें उदघाटन केल्लें आनी पेडणे म्हालांतल्या खूबश्या बेरोजगार युवकांक कामाचें साधन मेळ्ळें.

तिळारीचें उदक पेडणेकारांक पयलीं मेळ्ळें तें खलप भाईंच्या आशिर्वादान. ह्या प्रकल्पाचें उद्घाटन खलपभाई हांणी गोंयचे त्या काळचे मुख्यमंत्री श्री. मनोहर पर्रीकार हांचे हस्तुकी घडोवन हाडलें. उपरांत हेंच उदक सासोली मार्गान पेडणें म्हालांत हाडपाचो प्रकल्प उबारलो आनी ते प्रमाण ताचें उक्तावणय केलें. ते वेळार उद्घाटन सुवाळ्या पासत महाराष्ट्राचे श्री.बाळासाहेब थोरात, श्री. मनोहर पर्रीकार आनी खासा खलपभाई हाजीर आशिल्ले. ते वेळार तांणी आपल्या येवकाराच्या उलोवपांत महाराष्ट्राक दिनवासलें. ह्या प्रकल्पा पासत लागपी निधी खासदार येवजणेंतल्यान मंजूर करून घेवपाक खलपभाई हांणी प्रयत्न केल्लो. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार आयज जें कितें उदकाचें साधन पेडणेकारांक फावो जाता ताचें स्रय मुळांत खलपांक वता.

त्या उपरांत खलप हांचे राजकी कारकिर्दींत मोप वाटारांत बॉक्सायट आशिल्ल्याची कुणकूण कांय लोकांक लागली आनी दुड्डू उबारपाचे आशेक लागून एका कादर नांवाच्या मनशाक हो दोंगरो विकलो. ही अरिश्टाची सुलूस म्हणपाचें भाई खलपान पारखिलें आनी दोंगर पोखरून बॉक्सायट काडपा आड आंदोलन उबारलें. कितेंय जालें तरी आमचे पेडणेचे भुयेंत खणपाचें काम करूंक दिवपाचों ना. पेडणेच्या सैमाक वेर वचूंक दिवपाचो ना अशी तांणी भुमिका घेतली. पेडणेच्या दऱ्याखोऱ्यांतल्यान व्हांवपी झरे ताका लागून आटून वचपाचे. कारण पेडणे म्हालांत पिकपी वांयगण शेती ह्या दोंगरांतल्यान पाझरपी झऱ्यांच्या आदाराचेर फुलताली. तेच प्रमाण पेडणेच्या कुराण वाटारांत धनगर वस्ती वसताली. तांचें जिवीत उदका बगर विस्कळीत जावपाचें. जर ते वेळार आपल्या वाटारांत खण वेवसाय सुरू जाल्लो जाल्यार हांगच्या सैमीक परिसराचो विध्वंस जावपाचो. तेच वांगडा त्या खोदकामाक लागून हांगचे लोकांक फकत मातीच मेळपाची आनी तांचें सुरळीत जिवीत मातये भरवण जावन वचपाचें. कालांतरान हाचे जायते वायट परिणाम पेडणेच्या लोकांक भोगचे पडटले हें तांका होलमल्लें. कित्याक ह्या खाण वेवसायाक बेकायदेशीर मान्यताय दिल्ली. हें करतना कोणें पेडणेकारांक विश्वासांत घेवंक नाशिल्लें वा कोणा तज्ञाचे विचार समजून घेवंक नाशिल्ले. त्या काळार आमदार देऊ मांद्रेकार आशिल्ले. भाई खलपान तांचे अध्यक्षते खाला संघर्ष समिती स्थापन केली. त्या वेळार खलपभाईन भुमिका घेतली,

जर आपले पेडणेचे दोंगराळ भुंयेंत एक जरी घाव बसलो तर आपूण सोता थंय ते सुवातेर आयुदां घेवन येतलों आनी तुमचे आड उबो रावतलों अशी अक्षरशा स्फोटक आनी आक्रमक घोशणा तांणी केली. अशे तरेन त्या काळार आपल्या पेडणे म्हालाची शान खलपभाईन दवरली. आयज आमी ह्या वाटारांत हिरवळ उपभोगतात ती तांकांच लागून.

हाकाच लागून आयज खाणी सुवातेर एक नवो प्रकल्प आमकां लाबलो. दाबोळी विमानतळ ल्हान आशिल्ल्यान व्हड विमानतळाची कल्पना मुखार आयली. इकावो नांवाचे कंपनी वतीन हांगचे जमनीचो सर्वे जालो आनी मोप विमानतळाची कल्पना चालीक लागली. जर ह्या म्हालांत खाण वेवसाय सुरू जाल्लो जाल्यार मोप विमानतळाचें भाग्य आमच्या पेडणेकारांक मेळचें नासलें.

अशे तरेन पेडणें म्हालांत उदकाची तजवीज , वेगवेगळे पूल, तांतूंत किरणपाणी पुलाचोय आसपाव जाता. शिक्षणीक संस्था आनी आतां पेडणेची शान म्हणल्यार मोप विमानतळ अश्यो कितल्योच सुविधायो ह्या म्हालांत तयार जाल्यो. हांगा सांगपा सारकी एक गजाल म्हणल्यार किरणपाणी ह्या पुला पासत फावो ते सगले प्रयत्न भाई खलपान केले. पूण उक्तावण सुवाळ्या वेळार आमच्या सरकारा कडल्यान आमंत्रणूय तांकां येवंक ना. तांकां आमंत्रण आयलें तें महाराष्ट्र सरकारा कडल्यान. महाराष्ट्र सरकारा वतीन छगन भुजबळ आयिल्ले. खलपांक सकयल प्रेक्षकांक बशिल्ले पळयतांच तांणी तांकां माचयेर आमंत्रीत केले. आपले उलोवपांत भुजबळाल भाईन पुला पासत केल्ल्या पुराय प्रयत्नांची वाच्छता केली. पुलाचें श्रेय भाईक दिलें. तेच प्रमाण लोकसभेंत आसतना खलपभाईन शिवोली पुलाची मागणी केली आनी आपल्या प्रभावी भाशणांतल्यान तांणी पुलाक मान्यताय घेतली. तांणी ह्या पुला पासत केल्ले प्रयत्न सरकार दरबारांत तांकां कांयच म्हत्व मेळूंक नासलें तरी त्या पुलाचें काम करपी अभियंतो आनी हेर थळाव्या लोकांनी भाईची दखल घेवन तांकां खासा तांच्या घरा वचून तांकां आपले वांगडा येवपाचो आग्रो धरलो आनी भाईक पुला वयल्यान सगल्यांत पयलीं भोंवडावन हाडलो. हें येदें व्हडलें कार्य तांणी पेडणे म्हालाचे उदरगती पासत केल्ल्यान तांकां हो मान फावो जालो.

सायबर सिटीची कल्पना पेडणे म्हालांत हाडपाची सुचोवणी खलपभाईन केल्ली. आयडी रिसोर्ट आनी दर्याचेर वचपी वाटो कश्यो आसच्यो हाचीय सुचोवणी भाईन ते वेळार केल्ली. पूण त्या काळार ताचें म्हत्व कोणूच वळखूंक पावलो ना. आयजूय तेरेखोल ह्या गांवांत गेल्यार भाईंक मानाचो मुजरो मेळटा. ताका कारण म्हणल्यार तांणी केल्ली तेरेखोल किल्ल्याची दुरुस्ती आनी सुदारणा. थंयच्या लोकांनी तांच्या त्या वेळच्या वावराचो आयजूय मान राखिल्लो आसा.

आयज जे कितें प्रकल्प आमच्या पेडणे म्हालांत चालीक लागून पुराय जाल्यात तांची मुळांत दखल भाई खलपान घेतिल्ली. खूबशे प्रकल्प तांणी आपले राजकी कारकिर्दीत चालीक लायिल्ले. 1978 वर्सा 'पेडणे तालुका विकास परिषद' खलपभाईन पेडण्यांत भरयली. तातूंत त्या काळच्यो मुख्यमंत्री ताई काकोडकार, सगले मंत्री आनी वयले अधिकारी हाजीर आशिल्ले. तशेंच तालुक्यांतल्या सगल्या गांवांचो विकास आराखडो थंय मांडिल्लो. तो सगल्यांच्या एकमतान




मंजुरय केल्लो. त्या आराखड्यांत पेडण्यांतल्या सगल्या न्हंयांचेर पयलीं फेरीबोट, उपरांत पूल, अंतर्गत रस्ते. साकव, पिवपा पासत आनी शेतवडी पासत उदक, तिळारी प्रकल्प, औद्योगीक वसाहत अश्यो कितल्योच येवजण्यो भाईन आखल्यो आनी राबयल्योय. पेडणे म्हाला पासत तांचें व्हड योगदान आसा हाची जाणविकाय सगल्यांक जावंची म्हूण हो लेख प्रपंच गोंयकारां पासत.

**सौ. यशश्री नाईक**
विकास परिषद मांद्रें,
मांद्रें –गोंय.
मो. 8378008840

'बिम्ब जानेर' अंकांतले शीर्शकथेंत पेडणें विशींच्या आयिल्ल्या उल्लेखाक धरून आयिल्ली ही प्रतिक्रिया मूळ मराठींत आसा. काळाचे व्हांवतेंत खूब लोकांचें योगदान विसरायेर वचत आसा. लोकसभेची वेंचणूक लागीं आयिल्ल्यान भाई खलप हांचो हो वावर लोकां मुखार येवंचो देखून आमी हो लेख कोंकणी करून हांगा दितात.

**– संपादक**



# हास्यबिम्ब

## गरीब वनराज

'एकदां विश्वजीत  बोंडला अभयारण्य पळोवपाक गेलो. विश्वजीत म्हणल्यार अहिंसेचो सामको पुजारी. भोंवतां भोंवतां तो एका शिंवाच्या पांदऱ्या लागीं आयलो आनी अजापान ताचे कडेन पळयत रावलो.

पांदऱ्यांत शिंवां वांगडा एक बोकडी आशिल्ली. विश्वजिताचो आपल्या दोळ्यांचेर विश्वासूच बसना. ताका सामकें भरून आयलें.

''ही खरी अहिंसा.''शिंवाची देहभाल करपी नोकराच्या खांदार हात दवरीत ताणें म्हणलें. तरी ताच्यान रावूंक जालें ना. थंय भोंवक आयिल्ल्या लोकांक पळयत ताणें म्हणलें, ''पळयलें,ही खरी अहिंसा. शिंव आनी बोकडी एकाच पांदऱ्यांत एकठांय रावंक शकतात. जाल्यार मनशां मनशां भितर दुस्मानकाय कित्याक? जें प्राण्यांक समजता तें मनशांक कित्याक समजना? शिंव आनी बोकडेक एक पांदऱ्यांत दवरपी ह्या नोकराचें कल्पकतायेचें हांव अभिनंदन करतां. ताणें ह्या वनराजाक अहिंशेचें म्हत्व पटोवन दिलां.''

अशें म्हणत विश्वजितान त्या नोकराक थंयचे थंय एक हजार काडून बक्षिशी दिली आनी ताणें ताका विचारलें,''ह्या शिंवांक आनी बोकडेक तूं एकठांय कसो कितें दवरूंक शकलो?''

''ताचें कितें आसा, '' पांचश्यांच्यो दोनूय नोटी बारकायेन पळोवन बोल्सांत घालीत ताणें म्हणलें,'' ह्या वेळार आमी सदांच  एक बोकडी आमी ताच्या पांदऱ्यांत दवरतात. ताची आतां  जेवणाची वेळ जाल्ली आसा.''

## साबण

ज्योती रागा रागान आपल्या सदच्या पसरकारा कडेन गेलें.  पळय जाल्यार पसरकार दामू आपले दांत कोरीत बसला.

'' हो घे तुजो साबण!'' अशें म्हणत ज्योतीन तो साबण दामू मुखार नाबीर आपटीलो.

'' कित्याक? कितें जालें गो?'' पसरकारान अजापान विचारलें.

'' हो साबण हांवें काल तुजे कडल्यान व्हेल्लो. ताणें हांवें आमच्या बाळूचे कपडे धुले.''

'' मागीर जाले काय ना सामके चकाचक धवे फुल्ल?'' पसरकारान  सदचे आपल्या थंड आवाजान विचारलें.

'' कपलाचे धुवे फल्ला! सगले कपडे सामके आटले. बाळूच्या आंगार चडच नात!''

'' अशें म्हणटा? आटले कपडे? म्हज्या साबणान? मागीर आतां करपाचें कितें?'' पसरकाराचो आवाज थंडूच आशिल्लो.

'' आतां करप कितें म्हणचे? करप तुजें कपल! तुजो साबण घे हो परत.'' ज्योतीचो आवाज वाडलो.

'' परत घेवन कितें जातलें?  तुज्या बाळूचे कपडे फुकट वतले मगो?'' पसरकारान म्हणलें.

''मागीर हांव करूं कितें?'' ज्योतीन उबगून विचारलें.

''सांगू? आयकतलें मगो?''

'' हय सांग. कितें करूं?''

'' तूं हो साबण परत घेवन वच ''

'' म्हणजे  दुसरेय कपडे आटोवन उडय म्हणटा?''

'' आगो आयक  तरी, तूं मगो  ह्याच साबणान  तुज्या बाळूक बरोऽ न्हाणय. मागीर पळय..तोय ताच्या कपड्या वरींच ह्या साबणान आपसूक आटटलो आनी ताका ताचे आटलेले कपडे सामके फिट्ट बसतले''

साबण ज्योती मुखार नाचयत पसरकारान म्हणलें.

▶ शीर्शकथा

# भारत जोडो यात्रा राहुल भारत जोडटलो काय भाजप सत्ता?

दांडी यात्रा जिका मिठाचो सत्याग्रहय म्हूण इतिहास वळखता ती म्हजे नदरेन एक कल्पने भायली गजाल. गांधीजी ब्रिटीश काळांत, परकी सत्तेचे दडपशाये मुखार मात्तूय बावगनासतना मिठाचो सत्याग्रह करता आनी तांचे फाटल्यान धांवत धांवत हजारांनी लोक तांचे दांडी यात्रेंत वांटेकार जातात ही घडणूक जेन्ना हांव फाटले इतिहासीक फोटो आनी चलचित्रांच्या रुपान पळयतां तेन्ना आंगावयलें दरेक रूंव शिरशिरून उबें रावता.

गांधीजींची हे दांडी यात्रेचो काळ 12 मार्च 1930 ते 6 आब्रील 1930. यात्रेचें अंतर फकत कांय मैल साबरमती मेरेन. दीस फकत पंचवीस. पूण हे यात्रेन मदांद ब्रिटीश सत्तेक हालोवन उडयली. तांचें मनोधैर्य खच्चीकरण करून उडयलें आनी गांधीजींची मनोशक्ती आनी परकी सत्तेक, तांच्या जुल्माक मात्तूय भिये नासतना, मरणाचो भंय काडून देशाच्या स्वतंत्रतायेच्या हावेसान हड्डें मुखार काडून यात्रेंत धावपी भारतीय लोकांचें राष्ट्रप्रेम उफाळटना पळयलें.

सुमार णव्वद वर्सां आदल्या काळा वयली ही घडणूक, तेन्नाची सामाजीक परिस्थिती, वैचारीक प्रगल्भताय. परकी सत्तेच्या दडपणाचो भंय अश्यो कितल्योच गजाली जेन्ना नदरे मुखार हाडून हांव ते यात्रे कडेन पळयतां तेन्ना हांव गांधीजी आनी तेन्नाची भारतीय जनता हांचे मुखार आपसूक नतमस्तक जातां. ती यात्रा जेन्ना गांधीजीन काडली तेन्ना म्हजो जल्मूच जावंक नाशिल्लो. ताचो अणभव म्हाका घेवंक मेळूंक नाशिल्लो. पूण तेच तरेचो अणभव दांडी यात्रे उपरांत 92 वर्सांनी म्हणल्यार लागीं लागीं एका शतमाना उपरांत भारत जोडो यात्रेच्या निमतान भारतीय जनतेक पळोवंक मेळ्ळो आनी ते यात्रेंत म्हजो सारको एक भारतीय नागरीक कांय किलो मिटर चलून वांटेकार जाता ही घडणुकच आंगार



**दिलीप बोरकार**
*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक*



कांटो हाडपी! जिवितांतली एक दुर्मिळूच न्हय तर दैवदुर्मिळ म्हणपा सारकी गजाल अशें म्हाका भावले बगर रावलें ना.

## युवा जोशाक सलाम

राहुल गांधीच्या भारत जोडो यात्रेची तुळा हांव महात्मा गांधींचे दांडी यात्रे कडेन करतां हें पळोवन कोणूय म्हाकां पिशांत काडूंक शकता वा हांव अतितायेचो अतिरेक करतां अशेंय म्हणूंक शकता. पूण जो कोण हे यात्रेंत सहभागी जाला वा जांणी ही यात्रा कन्याकुमारी ते काश्मीर मेरेनच्या लागीं लागीं चार हजार किलो मिटर अंतराचे वाटेर खंय ना खंय पळयल्या तांकां हांव जें म्हणटा तातूंत सत्यताय दिसतली.

हांगा म्हाकां राहुल गांधीची पुजा बांदपाची ना आनी काँग्रेस पक्षाची मखलाशीय करपाची ना. पूण देशांत आयज जें कितें चलता आनी देशाचो एकवट सांबाळपा पासत जें जें कितें घडटा ताचे कडेन एक भारतीय नागरीक म्हूण जागरुकतायेन पळोवप हें म्हजें हांव कर्तव्य मानतां. राहुल गांधी हो काँग्रेस पक्षाचो फुडारी जरी आसलो तरी तो ह्या देशाचो एक सुजाण नागरीक. ताका ह्या देशाच्या फुडाराचो हुसको आसा. ताणें आपली आजी, आपलो बापूय हांकां देशा पासत बलिदान दितना पळयलां. तें सगळें पळोवन भावनीक नदरेन हळवो जाल्लो हो युवक आपल्या वांट्याक हें येवंक फावना म्हूण कुशीक रावंक शकतालो. तांतूंत विरोधक आपले आवय सयत आपल्या पुराय घराब्याक पातळी सोडून हिणसायतात आनी आरोप करतात तें ताणें खूब लागशिल्ल्यान अणभवलां.

ताचो सोताचोच भारतीय जनता पक्षांतल्या जाणकार आनी ज्येश्ठ फुडाऱ्यांनी 'पप्पू' म्हणून हिणसायत ताचे नैतिकतेचें खच्चीकरण करपाचो कितलोच प्रयत्न केलो. ते पासत समाज माध्यमाची एक स्वतंत्र यंत्रणाच तयार केली जी फकत राहुल गांधी आनी ताच्या घराण्याक खरें फट हाची उस्तवारी करी नासतना सतत झोडत रावतली. समाजमनांत ह्या घराण्याची प्रतिमा हळशिकावणी करून उडयत रावले. हें सगळें इतल्या स्तरार पाविल्लें, हें गांधी कुटुंब सोडून आनीक कोणूय आशिल्ले जाल्यार नाका हें राजकारण म्हणून देश सोडून वचपाचें. हें सगलें सांगप त्या कुटुंबाचेर मोग आसा म्हूण न्हय तर त्या घराण्यान देशा खातीर केल्ल्या त्यागाची एक भारतीय नागरीक म्हूण दवरिल्ली जाणविकाय अशें म्हाका दिसता. दर एक भारतीय नागरीकान ती बाळगुपाक जाय ना तर तांकां पडमूर म्हणचें पडटलें. राहुल गांधीच्या मनोधैर्याचें मोस्र भारतांतल्याच न्हय तर पुराय संवसारांतल्या युवकांनी आपणावपाची गरज आसा इतलो परजळीत संदेश ताणें आपले हे भारत जोडो यात्रेंतल्यान दिल्लो आसा आंनी तो विरोधक लेगीत आडनदर करूंक शकनात.

यात्रेच्या आरंभाक राहुल गांधी पिशेपणां करता आनी विरोधक जाका भुरगेपणां समजतात तींच तो हे यात्रेच्या आयोजनांतल्यान करूंक सोदता काय कितें अशें मत कोणाचेंय जावप शक्य आशिल्लें. ताणें जर उत्तर प्रदेश जावं



आपल्या मतदारसंघा पुरतोच हे यात्रेचो आंवाठ धरिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी आशिल्ली. पूण कन्याकुमारी ते काश्मीर हें अंतर पांयांनी चलत यात्रा काडप हो आयच्या काळांत वेळेचो अपव्यय म्हणपाचें आयच्या राजकारणाची आवतिकाय पळोवन कोणूय सांगतलो! ही यात्रा जर फकत लोकसभा वेंचणूक नदरे मुखार दवरून सत्तेच्या राजकारणा पासतच आशिल्ली जाल्यार आयच्या काळांत ताचो कसलोच फायदो ना हे परिपक्वता नाशिल्लो राजकारणी लेगीत सांगूंक शकतालो. आयचें राजकारण वा सत्ताकारण म्हणुया मतदारा सामकार पैसा फेंको आनी तमाशा देखो ह्याच प्रकारचें.

पूण राहुल गांधीन हे यात्रेक राजकारणा भायलो आयाम दिलो. ही यात्रा राजकी सत्ते पासत न्हय तर तिरस्कार आनी धर्मभेद हाका लागून भारत आयज दुभंगला ताका मोगान परत एक खेप जोडपा पासत म्हणपाचें आरंभाकूच सांगून उडयलें. 'नफरत सोडात आनी मोग वाडयात, ताचे वरवीं भारत जोडात' होच संदेश लोकां मेरेन पावयत हे यात्रेक आरंभ जालो. राजकी मतभेद, पक्षीय राजकारण सोडून हे यात्रेंत वांटेकार जायात असो उलो राहुल गांधीन मारलो आनी ताका यशूय येत गेलें. ही यात्रा महात्मा गांधींच्या दांडी यात्रेक सर करूंक शकता म्हणपाची कल्पना दक्षिणायनच्या आमच्या सारख्या वांगड्यांक आयली तेन्ना राजकारण म्हूण न्हय तर आयज देश नफरत आनी हिंसा पयसावन मोगान जोडपाच्या यत्नाक लागला ताका आपले परीन तेंको दिवपाच्या हावेसान हे यात्रेंत थोडो वेळ तरी वांटेकार जावंचें अशें थारलें. तातूंतल्यान यात्रेक कितें फायदो जावपाचो अशें न्हय तर आमकांच एक मानसीक समाधान मेळपाचें!

यात्रेचो हो मार्ग महाराष्ट्रांतल्यान वता म्हणटकच महाराष्ट्रांत आमी हे यात्रेंत भितर सरूंक शकताले. तसो विचारूय केल्लो पूण वेगवेगळ्या कारणांक लागून तें शक्य जावंक पावलें ना. पूण यात्रा जेन्ना जम्मूक पावली आनी कांय दिसां भितर ती काश्मिराक पावतकच उलगतली म्हणपाची जाणविकाय जाली तेन्ना दक्षिणायनचे दत्ता नायक आनी सत्येन सोनार हांणी यात्रा गांभिर्यान घेतली आनी आमी याच म्हणपाचो निर्णय घेतलो. हालचालींक आरंभ जालो. जम्मू म्हणटकच राहुल गांधीचें सुरक्षा कवच वाडपाचें आशिल्लें. जो कोण ताचे यात्रेंत भितर सरता ताची सामकी बारकायेन तपासणी जावं येताली. राहुल गांधीच्या लागीं वचूंक मेळटलें काय कितें, ताका मेळूंक पावतले काय कितें हाची खात्री कोणाक नाशिल्ली. मेळप शक्य जालें ना तरी ही क्रांतीकारी घडणूक दोळ्यांनी पळोवप तरी शक्य आसा असो विचार करून आमी दत्ता नायक, राजू नायक,सत्येन सोनार, मोहनदास लोलयेंकार, दिलीप प्रभुदेसाय आनी हांव अशे स जाण जम्मूक गेले. आमी खंय यात्रेक दोडपाचें, राहुल गांधीक कितलो वेळ मेळपाचें, ताच्या सांगाताक कितलो वेळ चलपाचें हें सगलें थारपाचें आशिल्लें. राहुल गांधी

सकाळीं यात्रा आरभ करतकच  वाटेर खय तरी आमकां ताचे सुरक्षा कवच भितर  घेवपाचे आशिल्ले  आयोजकानी सकाळीं ज्या कटरा वाटारात आमका रावपाक सागिल्लो ते सुवातेर सागिल्ल्या वेळार वचून रावले  सकाळीच पावसाक लागून यात्रा जे वेळार आरभ जावपाची ताच्या देड वर उसरां आरभ जाली  मदी मदीं पावस शेनतालो जाल्यार मदींच मोठो पडटालो  तरी रस्त्याचे दोनूय वटयां मोठ्या प्रमाणांत  वाटे वयल्या गांवांतले लोक उबे आसले. कोणें हातांत  तिरंगो घेतिल्लो जाल्यार कोणें कॉंग्रेस पक्षाचो बावटो घेतिल्लो. कोण मोठमोठ्यान घोशणा दिताले. पुलिसांचोय आंकडो मोठो आशिल्लो  आमी रावल्यात थंय आमचे भोंवतणी धा बारा पुलीस उबे राविल्ले. सगले हांसत्या तोंडान यात्रेची वाट पळयताले. एकल्याच्याय तोंडार टेन्शन ना. रस्त्या वयल्यान  यात्रेंतले लोक चलताले. तातूंत जाणटे आशिल्ले तशे नेणटेय आशिल्ले. चलयो आशिल्ल्यो तश्यो बायलोय आशिल्ल्यो. कोण पावसांत भिजत चलताले तर कोणें आंगार कापेत चडयल्ली. एकलो तरनाटो तर उकत्या पांयांनी चलतालो आनी ताचे पांय चलून सुजिल्ले. तरी तो हांसत्या तोंडान वाटे वयल्या लोकांक नमस्कार करतालो ,जाल्यार कांय लोक मदींच मोठ्यान घोशणा दिताले. घोशणांचो आशय एकूच.'तिरस्कार सोडात आनी मोग वाडयात'.

राहुल गांधी केन्ना थंय पावता अशें जाल्लें. रस्त्यान वचपी यात्रेंत कोण कोण आमकां वळखीचे दिसताले.  जयराम रमेश, दिग्वीजय सिंह, कन्हय्या कुमार  आनी कितलेच जाण..फकत कॉंग्रेसचेच फुडारी न्हय तर हेर पक्षांतलेय फुडारी दिसताले. शिवसेनेचे संजय राऊत आशिल्ले. हेर कडेन शक्य जाता थंय भाजप सोडून हेर भोवतेक राजकी पक्षांल्या फुडाऱ्यांनी आनी कार्यकर्त्यांनी हे भारत जोडो यात्रेंत वांटो घेतिल्लो. राहुल गांधी कॉंगेस फुडारी म्हण न्हय तर जाचीं समाज माध्यमाचेर फकांडां मारून ट्रोलीग चल्ल्यांत तो तरनाटो 'नफरत सोडात.मोग जोडात' असो उलो मारीत भारत मोगान जोडपाक पळयता ते विचारसरणेक आपलोय तेंको आसा हें दाखोवपा पासत. राहुल गांधीन हो कठीण मार्ग आपणायल्लो. हे आदीं राजकी पक्षानी यात्रा केल्ल्यो त्यो धर्माच्या नांवान पादुका घेवन. ह्यो यात्रा भारतीयांक जोडी नाशिल्ल्यो जाल्यार तांचे मदीं धोशी घालताल्यो. आपापसांत तिरस्कार निर्माण करताले.  आयज भारताक जाची गरज आसा तोच मुद्दो घेवन ही यात्रा भायर सरिल्ल्यान लोकलज्जेक लागून तरी कांय विरोधकांक भायर सरून तेंको दिवंचो पडिल्लो.

इतल्यांत राहुल गांधी येता तो दिसलो. ताचे भोंवतणी ल्हान व्हडांचो घोळको आशिल्लो. राहुल जे गतीन चलतालो ती गती पळयत जाल्यार हेराक ताचे वांगडा धांवचें पडटालें. यात्रेंत एकल्या कडेन उलयत कांय पावलां चल्ल्या उपरांत दुसरो कोण तरी ताका हात दिवपाक, उलोवपाक येतालो. ताचेय कडेन तेच उर्जेन तो उलयतालो. लोकांक नियंत्रणांत दवरता म्हणसर ताच्या रक्षकांचेर आकांत येतालो. तो आनी बेर लोक रस्त्याचे मदीं चलताले आनी तांचे मुखार रक्षक दोर घेवन उबे रावन फुडल्यान कोणूच ताचे म्हऱ्यांत पावचोना हाची जतनाय घेताले. जांचीं नांवां आयोजकां  कडेन पयलीं पावल्यांत आनी जांची खात्रीची वळख आसा , तांकांच आदीं थारावन दिल्ले सुवातेर दोर वयर काडून  भितर घेताले. तांचें उलोवन जालें काय दुसरो येतालो. लोक वेगवेगळे , दरेकलो उलोवन वतालो,तरी सगल्यां लागीं राहुल गांधी उलयतालो. उलोवपांतल्यान खंयच आपूण थकला म्हणपाचें तो दाखोवन दिना आशिल्लो. आमी गोंयचे स जाण आशिल्ले. एकदम सय जाणांक ताचे लागीं वचूंक दिवंचेनात अशें सेक्युरिटीन आनी आयोजकांतल्या  फुडाऱ्यांनी सांगिल्लें. ते पासत आमकां एकमेकांचो हात धरून यात्रे वांगडा फुडें फुडें चलपाक सांगिल्लें. तें चलप  खंयचें? तें धांवपच आशिल्लें. रथ नाचयता आसतना जो सांवार येता तसलोच तो प्रकार आशिल्लो! ते गतीन फुडें वचप जालें ना जाल्यार उरलो फाटी. शेणलो ते गर्दींत.

आमकां दोर वयर काडून कॉर्डनांत भितर घेतले. पयलीं दत्ता नायक, राजू नायक आनी सत्येन सोनार हांणी ताका मेळचें आनी उपरांत संद मेळ्ळ्यार उरिल्ल्या आमी तिगांनी मेळचें अशें थारलें. सगल्यो घडणुको प्रचंड गतीन घडटाल्यो. कोण सेल्फी वा फोटो काडूंक शकनाशिल्ले. रावून गणोवंक शकनाशिल्ले. फोटोग्राफर, व्हिडीयोग्राफर  त्या अभियानाचोच आशिल्लो. दत्ता चाचे वांगडा चलत बरोच वेळ उलोयलो. ताणें म्हादयचो प्रस्न मांडलो. राजू उलयलो, सत्येन सोनारान  आनीक कितें कितें सांगलें. मागीर चलतां चलतां आमी ताका लागीं गेले. गोंयचे म्हणटकच ताच्या मुखामळार खोश खेळटालीच! हांव ताचे उजवे वाटेन चलतालों आनी उलयतालों. इतल्यांत ताणें चलतां चलतांच म्हजो दावो हात आपल्या उजव्या हातान घट्ट धरलो.  अकस्मात रावलो
आनी आनी आपणेंच फोटोग्राफराक फोटो काडपाक सांगलो. हें कांय खिणा भितर घडलें. मागीर परत भागदौड. झपाझप पावलां मारीत ताचें चलप सुरू जालें. आनी अकस्मात ताणें रस्तो सोडून, कॉर्डन वयर काडून ताका पळोवंक राविल्ल्या लोकां मदीं घुसून गांवच्या दुकानांनी गेलो. हें अशें कशें करूंक शकता तो? सुरक्षेचो प्रस्न आशिल्लो.

पूण ताका ताची पर्वा नाशिल्ली. तो मेळटा ताका हात दीत, वेंगेंत घेत, दोन उतरां उलयत मोगाचो संदेश दीत वतालो. थकऽ नासतना, उबगना आसतना. कोणाचो भंय भिरांत बाळगी नासतना. खंयच्या वाठारांत,तर जंय ताच्या जिवाक भंय आशिल्लो. कोणाचो? आतंकवाद्यांचो? न्हय, तर हीन पातळीचेर येवन, व्यक्तीगत टवाळी करपी ताच्या विरोधकांचो. ताणें सुरू केल्ल्या ह्या भारत जोडो अभियानाचो धसको विरोधकानी घेतिल्लो आनी तांची भिरांत दुसरे दिसा दोन बाँबस्फोट घडोवन हाडून तांणी दाखोवन दिलीच. नांव मात आतंकवाद्यांचें! हें सगलें कोण घडोवन हाडटा हें न कळपा इतले लोक बोमान दूद पियेनात हें कशें कळना हांकां?

जम्मूचे भारत जोडो यात्रे वेळार जें आमी आमच्या दोळ्यांनी पळयलें तें सगलें आंगार काटो हाडपी आशिल्लें. हें फकत हांगाच न्हय तर फाटले कितलेच दीस चलत आशिल्लें. फाटले वर्सा 7 सेतेंब्राक राहुल गांधीन ह्या भारत जोडो अभियानाचो आरंभ दक्षिणे कडल्यान उत्तरे वटेन पयलें पावल उडोवन केलो, म्हणल्यार कन्याकुमारीक साकून काश्मीरचे दिकेन ताणें चलपाक आरंभ केल्लो. म्हणटकच 7 सेतेंब्र 2022 ते 30 जानेर 2023 मेरेन एक सारको चलत रावन,नफरत मोखून मारून मोगाचो संदेश देशाक दिवपाचो ताणें संकल्प केल्लो. ते प्रमाण ताणें तमीळनाडू,केरळ, कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, तेलंगणा,महाराष्ट्र,मध्य प्रदेश, राजस्थान,दिल्ली, उत्तर प्रदेश,हरियाणा,पंजाब करीत राहुल गांधी जम्मू काश्मीराक पाविल्लो. हो ताचो पांयी प्रवास 12 राज्यां आनी 2 केंद्रशासीत प्रदेशांतल्यान केल्लो. 30 जानेराक जेन्ना तो काश्मीराक पावलो आनी ह्या भारत जोडो यात्रेची सांगता ताणें थंय केली तेन्ना ताणें 4080 किलोमिटर प्रवास चलून केल्लो. हें अंतर तशें उणें ना. ह्या इतल्याय प्रवासा मजगती ताणें 12 जाहीर सभा घेतल्यो, शंबरेक कोनसो सभा घेतल्यो, 13 पत्रकार परिशदो घेतल्यो. सुमार तिनशेंक फुडाऱ्यां लागीं थारावन अधिकृतपणान आनी रस्त्यार रावून त्या त्या वाठारांतल्या फुडाऱ्यां कडेन अनाधिकृत वार्तालाप केलो ताचो आंकडो हजारा वयर पावला आसतलो! पावस,वत,थंडी, कुडकुडो,बर्फ सगले तरेचें हवामान ह्या 150 दिसांत ताणें आंगार घेतलें. तरी लेगीत तो बरो ना जालो हे सबबी खाल ही यात्रा एक्कूय दीस स्थगीत केली ना. ताचो स्टेमिना ना हवामानाक लागून उणो जालो ना,ना विरोधकांच्या दुशीत, टॉक्सीक वातावरणाक लागूनय जालो ना. राहुल गांधीन जो युवा जोश दाखयलो ताका सलाम!

## नफरत छोडो,भारत जोडो!

देशाची हालींच्या काळाची आवतिकाय पळयत जाल्यार देशाचीं नितीमुल्यां मातये भरवण जायत आसा. देशाक वैचारीक प्रगल्भता आशिल्ल्या फुडाऱ्याची गरज आसा. जीवन म्हणल्यार फकत भोगवादी सुखांचें बटीक जावंक शकना. चार्वाक्याचें यावत जिवेत् सुखम् जिवेत तत्वगिन्यान सद्या देशांत सगल्या स्तरार रुजवणा येता. गांधी,बुद्ध,विवेकानंद हांच्या सारख्यांचें तत्वगिन्यान आनी विचार जाणविकायेन आडनदर करपा पासत ह्या विभूतींक बिबूत लावनूच समाधान मानपाचे दिकेन इंडिया दॅट इज भारताचीं पावलां पडूंक लागल्यांत. मनीस विचारांनी प्रगल्भ जावपाचे नदरेन जे परिश्रम घेवपाचे आसतात तांचे पासून आयच्या युवकाक वेगवेगळीं प्रलोभना दाखोवन ताचे पासून कुशीक व्हरपाचें प्रयोजनाचो सोयिस्करपणान वापर जाता. नागरीक विचार करूंक लागलो जाल्यार तो आदर्श नागरीक जाता आनी लोकशाय प्रगल्भ जाता. ताका लागून भोगवाद्यांची संख्या उणी जावन विचार करतल्यांची वाडटा. अशें जाल्ल्यान नागरीक निखळ मतदार उरूंक पावना. अशें जालें जाल्यार मतदारांच्या रुपान जी वोटबँक भाजप तयार करता आनी फुडलीं पन्नास वर्सां देशाचो रंग भगवो करूंक सोदता ताका आडखळ येवं येता. राहुल गांधीची भारत जोडो यात्रा जेन्ना आरंभ जाली तेन्ना हे यात्रेचें रुपांतर वैचारीक बसकेंत जावं येता, देश तेच गजालीक आशेता म्हणपाची कल्पना आशिल्ल्यान भारत जोडो यात्रेची आनी राहुल गांधीची पद्दतशीर खिल्ली उडोवपाचे खूबशे यत्न जाले. पूण खंयच विचलीत जाय नासतना,'नफरत छोडो, भारत जोडो' हो मंत्र घेवन राहुल आपल्या निर्णयाक दसून रावलो आनी आपलो संकल्प पुर्णायेक घेवन गेलो. हें शक्य जालें कित्याक राहुलान आपल्या संकल्पाक विचारांची जोड दिली. तेच पासत विचारवंतांनी हे यात्रेक तेंको दिवपाचें धाडस केलां. आज जो कोण सरकाराच्या बोन्साय विचारां आड आवाज काडटा वा कुशीक सरता ताच्यो नसो आंवुळपाचो यत्न सगल्या स्तरांतल्यान जाता. असल्या ह्या हिटलरी करण्यांक विचारवंत भियेना आसलो तरी माकडांच्या हातांत कोलीत दिल्ल्यान थंय विचारां परस अविचारांचेंच थैमान पळोवन सत्तेफुडें शाणपण गुटलावचें पडटा. तेच पासत राजकीय मळार एखादो विचार अंकुरता वा कोण तरी रुजोवन ताची मशागत करूंक पळयता जाल्यार ताका पोसोभर उदकक नासलें तरी जाणवायेचें एखाद्रें किरण सोडपाक कसलीच हरकत ना. तेच नदरेन देशांतले विचारवंत हे यात्रे कडेन पळयतात ही

हयकारी आनी उर्बेची गजाल

राहुल गांधीन आरंभ केल्ले हे यात्रेची सांगता 30 जानेराक काश्मेराच्या लाल चौकात देशाचो तिरगो उबोवन जाली. 30 जानेर हो गांधीचीं हत्या जाल्लो तो दीस. हो दीस जरी महात्माजींचो 75 वो स्मरण दीस आसलो तरी देश स्वतत्रतायेच्या अमृत महोत्सवाच्या नांवान सगलेच बाबतीत अमृताचो गजर चलतना एका विचाराची हत्या करपाचे करणेचोय ह्या अमृत गजरांत याद दवरप गरजेचें. महात्मा गांधी हो एक विचार आसा. जशीं वर्सां उलगतात तशीं गांधी काळा भायरो जायना तर संवसारभर ताच्या विचारांचेर अभ्यास आनी उस्तवारी जाता. आयज भारत जोडो यात्रेंत 'नफरत' ह्या उतरा सयत ते करणेचें उच्चाटन करपाचो एक विचार वयर सरता तो वावर करपाक गांधीजीन खांद मारलो आनी हिन्दू–मुस्लीम एकवटा पासत , तांचे मदीं सोसणिकाय, आपलेपण रुजवणा हाडपा पासत जिवीतभर प्राधान्य दिलें. तोच तांचो वावर सोंसवना जावन तांची हत्या करूंक अविचार मुखार सरलो.ह्या अविचाराक गांधी हत्या करप शक्य जालें पूण तांच्या विचारांची हत्या करप जाली ना. आयज तोच विचार भारत जोडो यात्रेच्या निमतान पुराय बारतभर परत एक खेप वयर सरता आनी त्या विचाराक उखलून धरपाक सत्तेंत आशिल्ल्या उडदामाजी काळे गोरे मदले गोरे लोक राहुल गांधीचे हे यात्रेक समर्थन दितात. म्हणटकच महात्मा गांधींचो 75 वर्सां आदलो हो विचार राहुल गांधी परत एकदां देशांत रुजयता आनी ताचें अमृत ह्या दोन वर्सांत नक्की भारतीयांक चाखूक मेळटलें अशी आस्त सद्या दिसूंक लागल्या.

## भारत जोडो यात्रा यशस्वी जाली?

हाची जाप यात्रेंत वाटेकार जाल्ले, यात्रे मजगतीं रस्त्याचे दोनूय कडांनी रावन यात्रा पळोवपी, यात्रेक विरोध करपी, यात्रेच्या नांवान बोटां मोडपी, यात्रेच्या आनी खास करून राहुल गांधीच्यो बकच्छायो करपी आपापले परीन हे यात्रे विशीं मतां उक्तायतात.

यात्रेक लागून राहुल गांधीन आपूण विरोधक प्रोजेक्ट करतात तसलो पप्पू न्हय म्हणपाचें देशाकूच न्हय तर पुराय संवसाराक सिद्ध करून दाखयलां. पुराय यात्रेंत एक दोन ताच्यो चुको सोडल्यो जाल्यार ताणें आपली प्रगल्भताय संवसारा मुखार दवरल्या जाका लागून ताच्या विरोधकांची बोलती बंद जावन ते सैरभैर जाल्यात. हे यात्रेक लागून सगल्या जाती धर्मांतल्या लोकां मदीं आनी खास करून युवा मदीं जी एक उर्बा संचारल्या ती तांचे मदीं बरोच काळ उरतली. ती तशीच तिगून उरपाक यात्रे उपरांत राहुल गांधीन 'जालें आतां, आतां सुसेग घेवंया!' अशें म्हणून ओगी बसूंक फावना अशें ताच्या हितचिंतकाक दिसता. राहुल गांधीचो जोश आनी हावेस पळयत जाल्यार तें शक्य आसा अशें म्हणपाक हरकत ना.

आमचो देश तसो लवचीक आसलो आनी ताचे भितर



सुदारणा, बदल घडोवन हाडप शक्य आसलें तरी फकत देडशें दिसांची ही यात्रा हो बदल निखालूस घडोवंक शकना हेंवूय एक सत आसा. आयज आमी समाजांत कितें पळयतात? आयज सोसणिकाय खंयच दिसना. शुल्लाक कारणा पासत खासा इश्टच आपल्या इश्टाच्या पोटांत सुरो घालता. खासा भावूच आपल्या भावाचे तकलेर फातर वा दांडो घालता. पूत बापायक संपत्ती पासत जिवेशीं मारता, खरें फट हाची अजमावणी करी नासतना कायदो आपले हातांत घेवन झूंड निरपराध्याक जिवेशीं मारता. शेजारी एकमेकाक दुस्वासान पळयता. धर्म आनी जात हांचे मदलो भेद पयस जावपा बदला मतांच्या राजकारणा पासत ताचें धृवीकरण करपा कडेनूय कितल्योच शक्ती वावुरतात. ह्या असल्या वातावरणांत 'नफरत छोडो,भारत जोडो' ही फकत घोशणा म्हूण बरी आसा. पूण ती सत्यसृश्टींत येतली हाची खात्री कोणाकूच ना. घोशणां म्हूण बरी आसा कित्याक तर तशें जावंचें अशें देशांतल्या दरेकल्याक काळजा सावन दिसता. पूण आपूण तेंच करीत उरलों आनी दुसरो ताचेच मालवजार आपलें सादोवंक आपलो गळो कापून मेकळो जालो जाल्यार! हे भिरांतेन जण एकलो आपले भोंवतणींच एक सुरक्षेचो कोश वा कवच उबारीत आसा. 'गर्व से कहो हम हिन्दू हैं' अशी घोशणां कानार पडले बराबर मुसलमान मोटमोट्यान बांग दिवंक लागता जाल्यार क्रिस्तांव संद मेळटा तेन्ना इगर्जेच्यो आनी कपेलाच्या घांटी बडयतात. हें सगलें भंयांतल्यान आनी न्युनगंडांतल्यान घडटा. तातूंतल्यान एकमेका विशीं नफरत निर्माण जाता. नफरत निर्माण जाली काय द्वेश निर्माण जाता. अहंकार वाडटा. तो देवोवंक मानेर राकेस संचारता. आनी मागीर भारत जोडपाचो सोडून ताचे कुडके कुडके जायत रावता. हें बंद जावप तशें सहज शक्या ना. एक भारत जोडो यात्रा काडून तर निखालस ना. गरज आसा एकमेकांचीं मनां जोडपाचीं. राहुल गांधी जर भारत जोडो करता जाल्यार हो विचार जांकां मानवता तांणी मनां जोडपाक वावरूंक जाय. ते पासत ह्या तोका पासून ते तोका मेरेन यात्रा काडपाची गरज ना. मुखार जो कोण येता ताका एक हय न्हयसो हांसो दिल्यारूच पुरो आपशींच मनां जुळून येतात. ते पासत जण एकल्यान आपलो विखारी टॉक्सीक सभाव आदीं काडून उडोवंक जाय. नफरत, तिरस्कार. द्वेश पयस जावन खऱ्या अर्थान मनीस एक जातलो तो हेच करणेन. हें दरेकल्यान जाणविकायेन करूंक जाय. एक मिशन म्हूण करूंक जाय. तेन्नाच भारत केन्ना एक जालो हाची कल्पनाच कोणाक येवंची ना.

## गोंयची दळिद्री कॉंग्रेस

कॉंगेरेस पक्ष हो राजकी पक्ष आसलो तरी तो एक विचार म्हणपाचो विश्वास आजुनय लोकां मदीं आसा म्हणपाचें सत्य राहुल गांधीचे हे भारत जोडो यात्रेक लागून मुखार आयलां. भारतीय जनता पक्षान वेवसायीक नदरेन विचार करून पक्षाक एका व्हड उद्योगांत रुपांतरीत करपा पासत नागरिकांचें रुपांतर मतदारांत केलें हें सत आतां कोणूच न्हयकारूंक शकना. राहुल गांधीन वा ताच्या पक्षान कितलेंय भारत जोडो केलें तरी मतां जोडपाचें शास्त्र ताका खबर ना. यात्रा काडून, मतपरिवर्तन करून मतां घेवपाचें शास्त्र फाटीं पडलां आनी विडी अथवा ईडीचें शस्त्र मुखार आयलां. जर विडी घेना जाल्यार (बाबा, विडयेक कितेंय दी मरे! ही भीक मागपाची गोंयची भास आशिल्ली.)आयज कोणाच्याय फाटल्यान ईडी लागता तेन्ना लोकशायेंत भंयमुक्त वैचारीक मतदान जातलें म्हणपाचें चिंतपूच तकलेंतल्यान काडून उडोवंक जाय. काळ आसा मतदार निर्माण करपाचो. तें काम भाजपाक जमता म्हूण हेर पक्षांक जमतलेंच अशें ना. भाजप त्या वावरांत खूब मुखार पावला. ताणें आपल्याक सत्तेर येवंक जाय ते मतदार, तांचे तकलेंतलो विचार पुसून काडून उडोवन आपले दावणीक बांदला. तांकां सुगूर करून आनीक एकठांय करपाचो आलायतो वावर चालूच दवरला. कितलेंय केलें तरी तो मतदार आतां खंयचेच पक्षाच्या गळाक लागपाचो ना. तरी लेगीत सत्तेर येवंक हो मतदार भाजपाक पुरो आसलो तरी वेगवेगळ्या पक्षांनी वांटून गेल्लो वा कोणाचेंच लावन घेवपाचो ना म्हूण अलिप्त राविल्लो मतदार मोट्या प्रमाणांत आसा. ताचें मरपरिवर्तन करून ताका कॉंग्रेसींत हाडप आनी ताका कॉंग्रेस पक्षाचीं नितीमुल्यां सांगपाची गरज आसा. प्रयत्न केल्यार तें सहज शक्य अशें म्हणचे परस तेच ह्या पक्षाची वाट पळयतात. पूण जे कोण ह्या पक्षाचीं कदेलां आडावन बसल्यात ते फकत आपलो सुवार्थ पळयतात. पक्ष मुखार येना जाल्यार हरकत ना पूण आपलें कदेल वचपाक फावना ही विचारसरणी नव्या विचाराक पयस दवरता. हाकाच लागून ह्या पक्षा कडेन आयिल्ले लोक ह्या पदाधिकाऱ्यां पासून हातभर पयस रावतात आनी कॉंग्रेस पक्षाचें लेबल लावन आपले नाड्यार वेंचून आयिल्ले आमदार आपल्याकूच मागीर विक्रेक काडटात. हें अशें कित्याक घडटा? ह्या पक्षांतले दळिद्री प्रवृतेक लागून!

*पणजी, गोंय. मो. 9822136885*

## राधा भावे

मराठी गजल आनी काव्य हांतूत आपली खाशेली सुवात सुगूर करून गोंय आनी महाराष्ट्रातल्या काव्य रसिकाच्या काळजात आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्ल्या राधा भावे(आदलीची सुजला दय). हणी कोंकणी कविता आनी ललित ह्या साहित्य मळार रूद लोकप्रियता मेळयल्या मराठींतले 'उमलताना' आनी 'तुला भेटून येताना' हे तांचे कविता संग्रह आनी कोंकणींतलो 'अनुपाच वाटेर' हो काव्य संग्रह वाचकांनी खूब तोखेला. 'जिवाचो पतंग' हो ललित लेख संग्रह कोंकणी गद्य साहित्यांत मोलाची भर घालता.

**राधा भावे हांकां मेळिल्ले कांय पुरस्कार**

- गोमंत विद्या निकेतन साहित्य पुरस्कार
- गोवा कला अकादमी साहित्य पुरस्कार
- गोवा हिन्दू असोशिएशनचो बा.भ.बोरकर पुरस्कार(महाराष्ट्र)
- यू.आर.एल.फाऊंडेशनचो गझल गौरव पुरस्कार-(महाराष्ट्र)
- उत्कृश्ट साहित्या पासत बिम्ब पुरस्कार
- कोंकणी भाशा मंडळाचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार

# आंगांत साहित्य रचपाची प्रतिभा आसप ही दैवी देण

## – राधा भावे



**श्रद्धा गरड**

*लेखिका केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री बालसाहित्य आनी ललित लेखनय करतात*



**श्रद्धा–** नमस्कार राधाताई, आमी गोंयकार तशेच महाराष्ट्र आनी हेर राज्यांतले साहित्य रसिक तुमकां वळखतात कवयित्री आनी गजलकार म्हूण. पूण तुमी निवृत्त जालीं गोंय राज्याच्या वस्तु संग्रहालयाच्यो संचालक म्हूण! आमी हें वस्तु संग्रहालय पिकनिकेक बी गेल्लीं तेन्ना पळयला. पर्यटकूय तें पळोवंक येतात. पळयतात आनी वतात. पूण तुमचे नदरेन वस्तुसंग्रहालय म्हणल्यार कितें हें समजून घेवप आवडटलें.

**राधा–** वस्तुसंग्रहालयाची व्याख्या कशी करप आतां? वस्तुंचो संग्रह जंय करतात तें वस्तुसंग्रहालय जायना जाल्यार मनशां भितर ज्ञान आनी जिज्ञासा निर्माण करपी वस्तुंचो ज्या जाग्यार संग्रह करतात ताका वस्तुसंग्रहालय म्हणटात अशी खूब सादी सोपी व्याख्या आमी करूंक शकतात. अश्या संग्रहालयांत एकाच विशयाची म्हायती दिवपी, वेगवेगळ्या काळांतल्यो, वेगवेगळ्या आकाराच्यो आनी प्रकाराच्यो इतिहासीक मोल आशिल्ल्यो वस्तू दवरिल्ल्यो आसूं येतात. एखाद्रया संग्रहालयांत, एका विशिष्ट प्रदेशांतल्यो, थंयचो इतिहास, कला आनी संस्कृती विशयी म्हायती दिवपी वस्तू मांडिल्ल्यो आसूं येतात. त्यो वस्तु म्हळ्यार लाकडाचीं, फातराचीं वा धातूचीं शिल्पां, चित्रां, शिलालेख, काणी, शस्त्रां, मशिन्स, कलात्मक वस्तू, मातयेचीं वा धातूचीं आयदनां अशे कितलेशेच प्रकार आसूं येतात. वस्तुसंग्रहालयाचो विशय अमकोच एक आसचो अशें बंधन नासता. एखाद्रें संग्रहालय बावल्यांचेंच वा विंगड विंगड वा तरातरांच्या वस्त्रांचें आसूं येता. तशेंच स्वतंत्रतायेच्या झुजाचें वा रेल्वेच्या इतिहासाची म्हायती दिवपीय आसूं येता. ब्रिटीश

म्युझियमा सारक्या व्हडल्या संग्रहालयांत जगभरांतल्यो वस्तू हाडून मांडिल्ल्यो आसात. ताका लागून थंय भेट दिवप्यांक, जगांतल्या कितल्याशाच संस्कृतीची वळख एकाच जाग्यार करून घेवंक मेळटा.

**श्रद्धाः** वस्तुंचो संग्रह करप कितलें गरजेचें? म्हणल्यार समाजांत वस्तुसंग्रहाचें म्हत्व कितें,ताची गरज कितली ?

**राधा-** एका अर्थान वस्तुसंग्रहालय हें एके तरेचें ज्ञान घर. केन्नाच्या तरी काळांत, मनशान तयार केल्ल्यो वस्तू वा तांचे अवशेष आमकां त्या काळा विशयीची म्हायती दितात. ह्या वस्तूंच्या आदारान, इतिहासांतल्या कांय घटनांचे संदर्भ आनी खरेंपण आमी जाणून, तपासून घेवंक शकतात. ह्यो वस्तू आमकां आमच्या भूतकाळा कडेन, पूर्वजां कडेन बांदून दवरतात. आमचो प्रदेश, आमची संस्कृती, आमची परंपरा हांचे विशीं मोग आनी अभिमान बाळगूंक शिकयतात. ह्या वस्तूंचो कितल्याशाच ज्ञानशाखां कडेन संबंद आशिल्ल्यान, तांचे विशयी जाणून घेतना, आमच्या गिन्यानांत भर पडटा. समजा, आमी अश्या संग्रहालयांत सातव्या शतकांतली देवीची मुर्ती पळयली जाल्यार आमकां त्या काळांतले कारागीर मूर्ती घडोवंक कसले फातर वापरताले, अशे फातर त्या प्रदेशांत आसताले वा ते आनीक खंयच्यान हाडटाले, तेन्ना कश्या प्रकारचीं वस्त्रां, आभूषणां आसतालीं, कलात्मकतायेचे नदरेन कारागीरांचो दर्जो, विशिष्ट दैवतांची लोकप्रियता अश्या कितल्याशाच गजालींचेर उजवाड पडटा. आमच्या मनांतली जिज्ञासा जागी जाता. अश्याच प्रकारच्यो मुर्ती आनीक खंयच्या प्रदेशांत वा काळांत प्रचलीत आशिल्ल्यो हें जाणून घेयन दिसता. त्या काळांतली सामाजीक , धार्मीक वा आर्थिक परिस्थिती समजून घेन दिसता. खंयच्याय नव्या शाराक, प्रदेशाक भेट दिली की थंयचें संग्रहालय पळोवंचें, स्वतःचें ज्ञान वाडोवचें अशें दिसूंक लागता. वेळ पासार करपाचें वा मनोरंजना खातीरचें एक बरें स्थान म्हणूनय कांय लोकांक संग्रहालय पळोवपाक आवडटा. ज्ञाना बराबर मनोरंजन करपी वा मनोरंजनांतल्यान ज्ञान दिवपी ही वस्तुसंग्रहालय नांवाची संस्था, आमच्या मनांत आमचे पुर्वज, आमचें सांस्कृतीक दायज आनी ताचें महात्म्य हाचे विशयीं मनांत जागृताय आनी स्वाभिमान निर्माण करता. देखून साम ाजीक नदरेन तें खूब म्हत्वाचें.

**श्रद्धाः** वस्तुसंग्रहालयांत पुरातन वस्तू एके विशिष्ट पद्दतीन मांडप आसता काय कश्योय दवरल्यार जाता? ताका एखाद्रें शास्त्र बी आसाता?

**राधा**-हय, वस्तुसंग्रहालयांत वस्तू मांडतना, आमचो इतिहास आनी संस्कृतीचे नदरेन, त्या-त्या वस्तूचें म्हत्व



आनी स्थान समजून घेवप गरजेचें आसता. एखाद्र्या दालनाची तयारी करतना, ताका भेट दिवपी मनशांक आमी कितें दाखोवंक सोदतात, कितें सांगूक सोदतात ताची आंखणी करची आसता. त्या खातीर योग्य त्यो वस्तू वेंचून काडून त्यो खंयच्या क्रमान प्रदर्शित जातल्यो हें थारावंचें पडटा. परत ह्यो वस्तू वेगवेगळ्या आकाराच्यो, विंगड विंगड प्रकाराच्या सामानांतल्यान तयार जाल्ल्यो आसत जाल्यार, तातूंतले दर एके वस्तूच्या प्रदर्शनाचो वेगळे तरेन विचार करचो पडटा. ल्हान आकाराच्यो, नाजूक, चड कलाकुसरीच्यो वस्तू, कांच, संगमरवरी मूर्ती, रेशमी वस्त्रां, नाणीं हीं सदांच काळजी घेवन सांबाळच्यो लागतात. तांचे खातीर खाशेल्यो प्रदर्शन पेटयो तयार करून मांडच्यो पडटात. फातरांच्यो, लाकडांच्यो मुर्ती, तांकां फाव त्या आकाराच्यो बैठको,बसका तयार करून मांडच्यो पडटात. ह्यो वस्तू तांचे प्रदर्शन आनी सगलेंच दालन, चडांतचड आकर्शक कशें जातलें हाचेरुय लक्ष दवरचें पडटा. त्या खातीर योग्य ती प्रकाश येवजण, रंग-संगती, योग्य आकाराची आनी स्पश्टपणान वाचपा सारकीं 'लेबल्स' आनी म्हायती दिवपी तकटे तयार करून ते योग्य जाग्यार लावचे पडटात. वस्तुसंग्रहालय जण एकल्याक येवकार दिवपी, आकर्शीत करपी जावचें हे नदरेन थंयच्या प्रदर्शनाची, मांडावळीची तयारी करप गरजेचें आसता.

**श्रद्धाः** वस्तुसंग्रहालयांत एक व्यक्ती जर आपलो फुडार घडोवंक सोदता जाल्यार तशें शिक्षण उपलब्ध आसा?

**राधाः** हय तर! वस्तुसंग्रहालयांत काम करूंक सोदपी, थंय आपलो फुडार घडोवंक सोदप्यांक योग्य शिक्षण,

प्रशिक्षण आयज उपलब्ध आसा इतिहास, पुरातत्व विद्या, मानववंशशास्त्र ह्या ज्ञानशाखा वांगडाच सग्रहालयशास्त्राचें शास्त्रशुद्ध शिक्षण दिवपी कोर्स आनी तश्यो सस्था आमच्या भारत देशात विंगड विंगड राज्यानी आसात संग्रहालयशास्त्र शिकून तातूत डिग्री वा डिप्लोमा घेवप, विज्ञानशाखेंतलें शिक्षण घेवन, मागीर संग्रहालयांतल्या वस्तूंची जतनाय घेवपाचे नदरेन शिक्षण दिवपी प्रिझर्वेशन एण्ड कन्जर्वे शन ऑफ आर्ट ओबजेक्टस्' हे खाशेले कोर्स घेवप आज शक्य आसा. संग्रहालयांतले 'कन्झर्वेशन लेबोरेटरीं'त अश्या प्रशिक्षित लोकांची गरज आसता तशेंच संग्रहालयांत फोटोग्राफर, मॉडेलर, डि.टी.पी. ऑपरेटर, कारपेन्टर अश्या लोकांची गरज आसता. जाका वस्तूसंग्रहालयांत काम करपाची आवड आसा, तांच्यांनी त्या-त्या क्षेत्रांतलें योग्य ज्ञान घेवन, थंय आपलो फुडार घडोवपाची संद घेवं येता.

**श्रद्धाः** तुमच्या शिक्षणाचो प्रवास आमकां सांगशात? तोय आमकां मार्गदर्शक थारूं येता.

**राधाः** आमच्या काळांत शिक्षण घेवप, विशेश करून उच्च शिक्षण घेवप सोंपें नाशिल्लें. प्राथमीक शाळा आनी धावे पर्यंतच्या शिक्षणाची सोय आमच्या गांवांत सुदैवान आशिल्ली. फुडलें शिक्षण घेतना मात खूब कश्ट पडले. म्हजो खूबसो वेळ बशीची वाट पळोपांत आनी प्रवासांतच सोंपतालो. दिसभर मनांत 'बस चुकली जाल्यार?' हीच धास्ती घेवन हांव आनी म्हज्या गांवांतल्यान कॉलेजींत वचपी भुरगीं चिंता करत रावतालीं. पूण शिकपाची तीव्र इत्सा आशिल्ल्यान कसलीच कुरकूर करी नासतना मडगांवच्या चौगुले कॉलेजींतल्यान हांवें इतिहास आनी तत्त्वज्ञान हे विशय घेवन पदवी संपादन केली. त्याच काळांत केन्ना तरी म्हज्या लक्षांत आयलें की म्हाकां पोरण्या वस्तुंचें खूब आकर्शण आसा. त्यो कोणें, कश्यो, कित्या खातीर घडयल्यो अशे प्रस्न म्हाकां पडटात. पोरण्यो मूर्ती पळयल्यो काय त्या शिल्पांतले बारीक सारीक तपशील म्हाकां जाणून घेन दिसतात. ह्या संदर्भात शिक्षण दिवपी 'पुरातत्वविद्या' ही एक खाशेली ज्ञानशाखा आसा म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें आनी हांवें डेक्कन कॉलेज ह्या पुणेच्या नामनेचे कॉलेजींत ॲडमिशन घेतलें. थंय दोन वर्सां पुरातत्वशास्त्राचो अभ्यास करून एम्.एची डिग्री मेळयली. हांगा प्राचीन राजकीय इतिहासा वांगडाच, इतिहासपूर्ण काळ, मूर्तीशास्त्र, नाणकशास्त्र, कला इतिहास, स्थापत्यशास्त्राचो इतिहास, पुराभिलेख अश्या जायत्या विशयांचें ज्ञान म्हाका मेळ्ळें. तशेंच हांवें फुडें संग्रहालयशास्त्राचो इतिहास, पुराभिलेख अश्या जायत्या विशयांचें ज्ञान घेतलें. तशेंच हांवें फुडें संग्रहालयशास्त्राचेय कोर्सेस केले. पुर्तुगेज भाशेचोय अभ्यास केलो. कांय काळान आवड म्हणून 'मराठी' हो विशय घेवन एमए केली. चित्रकला आनी चित्रां विशीं जाणून घेवचे खातीर खूब वाचन केलें. हा सगल्याचो नोकरेच्या काळांत खूब उपेग जालो.

**श्रद्धाः** तुमचे भितरली काव्य, साहित्य, भास हांची आवड पळयत जाल्यार ह्या विशयाची आवड तुमचे मदीं निर्माण जावप मातशें हटके अशें दिसलें म्हाकां. तें कशें कितें?

**राधाः** आर्कीओलोजी, म्युझिओलोजी म्हणजेच पुरातत्वविद्या आनी संग्रहालयशास्त्राची आवड म्हजे भितर कशी निर्माण जाली हाचो खरेंच म्हाकांय प्रस्न पडटा. पूण म्हाकां दिसता, गोंयच्या वस्तुसंग्रहालयांतलो मोलादीक खाजिनो, कांय काळ तरी सांबाळपाचें म्हत्वाचें कार्य म्हजे कडल्यान जावपाचें आशिल्लें. देखून म्हाकां ह्या संबंदीच्या विशयाचें शिक्षण घेवपाची ओड निर्माण जाली आसूंये! हांवें वयर सांगलां तशें म्हाकां उपरातच्या काळांत शिल्पकला बी समजून घेवंक आवडूंक लागलें तरी भुरगेपणांतल्यान पोरण्यो वस्तू आवडटाल्यो अशें कांयच तशें याद जायना. पूण मातशें व्हड जातकीच मनांत एक जिज्ञासा तयार जाली हें मात खरें.

**श्रद्धाः** तुमचे भुरगेपणांत तुमकां तुमच्या घरांत बी आशिल्ल्यो पुरातन वस्तू बी आवडटाल्यो?

**राधाः** ठामपणान म्हाकां कांयच सांगूक येवचें ना. इतलें खरें की ल्हानपणांतल्यान म्हाकां संग्रह करपाची आनी तो सांबाळपाची संवय आशिल्ली. म्हज्या संग्रहांत सुकिल्ल्या पानां-फुलां वांगडाच, पोरण्यो लाकडी वस्तू, पितळीच्यो, तांब्याच्यो ल्हान-ल्हान डबयो, नाणी बी आसतालीं. आमच्या घराच्या एका माळ्यार तरां-तरांचीं ल्हान व्हड खूब पोरणीं आयदनां आशिल्लीं. माळ्यार वचून तीं आयदनां पळोवंक





मेळ्ळीं, थंय उस्तूंक मेळ्ळें की आनंद जातालो. इतलेंच म्हाकां याद जाता. कॉलेज शिक्षण घेतना मात म्हाकां एन्टीक वस्तूं विशीं आकर्शण आसा हें कळ्ळें.

**श्रद्धाः** तुमी गोंय राज्य वस्तुसंग्रहालयांत खूब वर्सा संचालक म्हणून काम केलां. एक संचालक म्हणून इतल्या वर्साचो तुमचो अणभव आमकां सांगशात?

**राधाः** म्हजे नोकरेची सुरवात 'क्यूरेटर' ह्या पदांतल्यान जाली. क्यूरेटर म्हणून वस्तुसंग्रहालयाचें व्यवस्थापन हें म्हजें काम आशिल्लो. तेन्ना थंयचे प्रत्येक वस्तू कडेन म्हजो संबंद येतालो. ती वस्तू खंयच्यान हाडली, तिचे निर्मितीचो काळ, तिचें इतिहासांतलें स्थान, गोंयचे संस्कृतीचे नदरेन तिचें स्थान, तिचें मोल हें जाणून घेवप हें म्हजें काम तर आशिल्लेंच, हाच्याच बराबर ते वस्तूची स्थिती, ती कसल्या प्रकारांची, तिचो आकार, तिचीं मोजमापां, तिचें वजन, तिची आयच्या काळांतली किंमत हाचीय नोंद दवरची पडटाली. तिचे जतनायेचे नदरेन तिका कसल्याय उपचाराची गरज आसा काय कितें तें पळोवन, गरज आसल्यार ती करून घेवप, ती खंयच्या दालनांत दवरपाचे योग्यतेची आसा वा ना हें थारावप आनी ती मांडपाची आसल्यार ती मांडणी सोबीत करपा खातीर प्रदर्शन पेटयो, बसका तयार करप हेंवूंय म्हजें काम आशिल्लें.

त्याच बराबर ह्या वस्तूं खातीर योग्य त्या उजवाडाची येवजण करप, वस्तूंच्या म्हन्यांत लेबल्स, म्हायती दिवपी तकटे तयार करून लावप हेंवूय काम हांव करतालें. कांय काळान संचालक पदार पावतकीच म्हजी जापसालदारकी वाडली. आतां वस्तु बराबरच संग्रहालयांतल्या सगळ्या स्टाफा कडेन संबंद येवंक लागलो. वस्तुसंग्रहालयाचें ॲडमिनिस्ट्रेशन पळोवप हें आजून एक नवें काम आयलें. सचिवालयांतल्या वरीश्ठ अधिकाऱ्यां कडेन वचून कांय कामां, प्रोजेक्ट मान्य करून घेवप, केन्ना-केन्ना आमच्या खात्याच्या मंत्र्यांक मळप, हें व्हडलीशी आवड नाशिल्लें काम पदरांत पडलें. म्हजे खातीर तें एक आव्हानच आशिल्लें. पूण तें आव्हान हांव बेस बरें पेलूंक शकलें. हांवें सदांच म्हज्या कर्तव्याक म्हत्व दिलें. एक खरें, सगल्यांक खूश दवरप शक्य नासता. पूण कोणाचेय खोशये परस, आपलें कर्तव्य आनी त्या कर्तव्याक योग्य तो निर्णय प्रामाणिकपणान घेवप हेंच म्हाकां म्हत्वाचें दिसत आयलां. तेंच हांवें केलें. म्हज्या स्टाफानय म्हाकां सदांच सहकार्य केलें. आमी सगल्यांनी मेळून गोंयच्या सांस्कृतीक खजिन्याची योग्य ती जतनाय घेतली. लोकांक खास करून विद्यार्थ्यां खातीर कितल्योश्योच कार्यावळी, तात्पुरतीं प्रदर्शना तयार केलीं. एकवटान आनी उमेदीन काम केलें. तांचो मोग आनी विस्वास म्हाकां सदांच बळगें दितालो.संचालकपदार काम करतना, थंय आपल्या कामा खातीर, वा संग्रहालय पळोवंक येवपी विंगड-विंगड सभावाचीं मनशां म्हाकां मेळ्ळीं. तांचे कडल्यान म्हाकां सदांच कौतूक आनी आदर मेळ्ळो.

**श्रद्धाः** खूब वर्सां वस्तुसंग्रहालयांत काम करतना ह्या वस्तुंनी तुमकां कितें सांगलें?

**राधाः** वस्तुसंग्रहालयांतल्या दर एके वस्तुची एक कथा आसता. ती वस्तू कोणें आनी कित्या खातीर निर्मिली, खंयच्या काळांत, कसले परिस्थितींत ही निर्मिती जाली हांचो सोद घेतलो की, ल्हवू-ल्हवू ही कथा आमकां समजूंक लागता. ह्या वस्तूंचो बाकी वस्तुं कडेन आशिल्लो संबंद वा ज्या कोणें ती तयार केल्या वा करूंक लायल्या तांचीय कथा ह्यो वस्तू आमकां सांगतात. केन्नाच्या तरी काळांतलीं आमी न पळयल्लीं मनशां आपलें जिवीत कशीं सारतालीं आसूंये हाचो अंदाज आमकां, ह्या वस्तूंक लागून येता. तांच्या वांगडा सदांच वावुरिल्ल्यान, तांकां हाताळिल्ल्यान , तांची जतनाय घेतिल्ल्यान, ह्या वस्तू विशीं मनांत एके तरेची माया, आपलेपण तयार जाता. एका प्रस्नांची जाप सोदतां सोदतां कितल्योशोच जापो आमकां मेळटात. पोरण्या काळांतल्या मनशांचे जिणेची पद्दत, तांणी विंगड- विंगड क्षेत्रांत केल्लो विकास, प्रगती, इतिहास, तांच्यो रूढी, परंपरा, तांचेकडे आशिल्लो आमचो संबंद ल्हवू-ल्हवू उजवाडाक येत वता. वस्तु संग्रहालयांतल्यो वस्तू खरेंच खूब उलयतात. पूण तें उलोवणें समजून घेवपाचो धीर, तितली जाण निरंतर अभ्यासांतल्यान आपले भितर केळोवप हें भोव गरजेचें.

**श्रद्धाः** आतां तुमच्या लेखनाविशीं आमकां सांगात. लेखनाचो तुमचो प्रवास केन्ना आनी कसो सुरू जालो? पयलो साहित्य प्रकार खंयचो रचलो? आनी फुडें हेर साहित्य प्रकार रचपाक कशी सुरवात जाली?













**राधाः** म्हज्या लेखनाची सुरवात भुरगेपणांतच जाल्ली. स्कूलांत आसतना हांव इंग्लिश, हिन्दी आनी मराठी भाशेंत निबंध बरयतालें ताची खूब तोखणाय जाताली. सातवे पासून हांवें दिसपटी बरोवंक सुरवात केल्ली. तांतूंत हांव म्हाकां सुचिल्लें सगळें बरोवन दवरतालें. दिसपट्टे घडणुकांच्यो नोंदी दवरतनाच, त्या कार्देनांत हांव म्हाकां सुचिल्ल्यो कविताय बरोवन दवरतालें. त्याच काळांत घडये म्हज्या लिखणाचें बीज रुजलें आसूंये! कविता आनी निबंध/ ललीत लेखन हेच दोन साहित्य प्रकार हांवें आज मेरेन हाताळल्यात. तांतुंतल्या खंयच्या साहित्य प्रकारान म्हज्या लेखनाची सुरवात जाली म्हणप म्हाकां कळना. म्हजे एके इश्टिणींगेर नामनेचे साहित्यीक श्री. लक्ष्मणराव सरदेसाई हांकां म्हजें पावसाचेर बरयिल्लें स्फुट वाचून दाखयलें तेन्ना तांणी म्हजी खूब तुस्त केल्ली म्हाकां याद जाता. आयुश्यांत पयलेच खेपेक हांवें म्हजी एक कविता चार लोकां मुखार वाचली तेन्ना, डॉ. नरेश कवडी हांणी, 'तूं एक उत्तम दर्जाची कवियत्री होशील?'– अशें म्हणिल्लेंय म्हाकां याद जाता. पूण हातूंतलो खंयचो प्रसंग पयलो घडलो तें मातूय याद जायना. एक खरें, पुस्तकरूपान म्हज्यो कविताच पयलीं उजवाडाक आयल्यो. 2008 ह्या वर्सा, बिम्ब प्रकाशनानच म्हजो मराठी कवितांचो झेलो उजवाडाक हाडिल्लो. ताचे उपरांत म्हजी 'तुला भेटून येताना' (मराठी कविता), 'जीवाचो पतंग' (कोंकणी लेख), अप्रूपाचे वाटेर (कोंकणी कविता) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. नॅशनल बुक ट्रस्ट, दिल्ली हाणींय म्हजीं पुस्तकां उजवाडाक हाडल्यांत. अनुवादीत पुस्तकां उजवाडाक हाडल्यांत. गेल्लीं कांय वर्सां गोंयांतल्या विंगड-विंगड दिसाळ्यांनी सदर लेखन करपाची संद म्हाकां मेळत आयल्या. पूण कविता हें म्हजें 'पयलें प्रेम!'

**श्रद्धाः** मनीस खंयच्याय मळार व्हड जावं,ताचो जल्म गांव ताचो वांगड केन्नाच सोडी ना. गोंयच्या रिवण गांवांत तुमी ल्हानाचीं व्हड जाली. तुमच्या गांवां विशींच्यो तुमच्या काळजा कुपयेंतल्यो यादी?

**राधाः** म्हजो गांव आनी त्या गांवातलें म्हजें घर हें म्हजे खातीर ह्या जगांतलीं सगल्यांत उत्तम आनी आवडटीं स्थानां. तांचे विशीं उलयतना म्हजो जीव थकना. रिवण हो सांगे तालुक्यांतलो सुपुल्लो आनी सैम सौंदर्यान भरिल्लो गांव.

ताचें खरें नांव ऋषीवन. दोंगर, न्हंय, झरे, शेतां, भाटां, कुळागरांनी भरिल्लो गांव. श्री. विमलेश्वर हो हांगाचो प्रमुख देव. त्या शिवाय हांगा श्री. कमलेश्वर, श्री. महालक्ष्मी, श्री.रवळनाथ, श्री.मारुतीराय हांचीय देवळां आसात. ह्या देवळांनी वर्सभरांत खूबश्यो सांस्कृतीक कार्यावळी जातात. दसरो, कालो, शिवरात्र, शिगमो हे विमलेश्वर देवस्थानांतले मुख्य उत्सव. दसऱ्याक शेजारच्या कोळंब गांवांतल्यान श्री. शांता दुर्गा देवीची पालखी विमलेश्वराचे भेटीक येता. ह्या वेळार दोनय गांवांतले लोक एकठांय येतात. दोनय गांवां मदल्या भावनीक, सांस्कृतीक संबंदांची उजळणी करपी हो उत्सव! तो हांगां व्हडा दबाज्यान मनयतात. दर वर्सा, दसऱ्याच्या आदले राती म्हणजेच नमीक 'तरंग उबें रावप' हो अजापाचो प्रकार हांगा घडटा. लक्तुबायेन सजयल्ले श्री विमलेश्वराचे तरंग विशिश्ट जाग्यार पाटाचेर दवरून, ताका धरून कोण तरी उबो आसता. 'हरहर' हो जयघोष आनी वाद्यांच्या आवाजान वातावरण भारेवन गेल्लें आसता. खंयच्या तरी एका खिणाक तें अशे तरेन थीर जाता की, हात सोडलो तरीय तें हालना, लकना, सकल पडना. हो सुवाळो पळोवंक गोंयांतलेच न्ही तर गोंयां भायलेय खूब लोक जमतात. काल्याक दशावतारी कालो सादर जाता. शिवरात्रेक अखंड अभिषेक सुरु आसता,शिगम्याक थळाव्या कलाकारांनी केल्लीं नाटकां एक तेंपार इतलीं फामाद आशिल्लीं की तीं पळोवंक अख्ख्या पंचक्रोशींतले लोक येताले.

ऐतिहासीक आनी सांस्कृतीक नदरेनय हो गांव म्हत्वाचो आसा. 'पांडवाची गुहा' ह्या नांवान प्रसिध्द आशिल्ली एक गुहा, गोंय सरकाराच्या, पुरातत्व खात्यान तयार केल्ल्या 'प्रोटेक्टेड' मोनूमेंटचे वळेरींत आसा आनी ह्या स्थानाक जायते विद्वान ,जिज्ञासू आनी विद्यार्थी भेट दितात. थंय लागींच सापडिल्ली आठव्या शतकांतली भव्य बेहुमूर्ती गोंयच्या वस्तुसंग्रहालयांत म्हत्वाची वस्तू म्हणून प्रदर्शित केल्ली आसा. कुशावती न्हंय आनी हांगाच्या दोंगरांतल्यान व्हांवपी झरीच्या उदकाचेर, हांगाचे माड, माडयो आनी हेर झाडां तशेंच भात शेतां पोसवल्यांत.

फाटल्या कितल्याशाच वर्सां साकून, प्राथमिक, माध्यमिक शाळा, ग्रामीण वैजकी केंद्र, बँक सारक्यो सुविधा उपलब्ध आसात. हांगाच्या स्कूलांत शिकील्ले विद्यार्थी आयज विंगड विंगड शारांत ज्ञानशाखांचें उच्च शिक्षण घेवन, आप- आपल्या क्षेत्रांत नामना जोडत आसात.

**श्रद्धाः** आतां तुमच्या वाचना कडेन येतां. तुमकां कसलीं पुस्तकां वाचूंक आवडटात आनी खंयच्या पुस्तकांनी तुमची जीण समृद्ध केल्या?

**राधाः** भुरगेपणांत म्हाकां गोष्टी आयकूंक आनी वाचूंक खूब आवडटालें. पुस्तकांतल्या काल्पनिक जगांत रमून भुल्लसून रावपाची संवय म्हाकां जाल्ली. घरांत पुस्तकांय खूब आशिल्लीं. ल्हान भुरग्यां खातीरचे चांदोबा, फुलभाग, किशोर भी आनी नवनीत अमृत अश्या मासिकांचो साठोच आशिल्लो. कांय डिटेक्टीव कादंबऱ्योय आशिल्ल्यो. व्हडलीं भांवडां लायब्ररींतल्यान सोदून कशीं कादंबरी वाचतालीं. हांवें हीं अशींच पुस्तकां अधाशा बशेन वाचलीं. मातशें व्हड जातकीच हांव पुस्तकांची, लेखकांची निवड करूंक शिकलें.



बऱ्यो मैत्रिणी मेळिल्ल्यान पुस्तकांचेर चर्चा, एकमेकांक आपलें पुस्तक वाच अश्यो सुचवण्यो करप, पुस्तका भेट दिवप ह्यो गजाली सुरू जाल्यो. म्हाका मागीर आत्मचरित्रां, लेख संग्रह वाचूक आवडूक लागले, आतां म्हाका खंयच्याय विशयावेलें, वैचारीक, माहितीपर, चिंतनात्मक स्वरुपाचें लिखाण वाचूंक आवडटा आनी हय, बऱ्यो कविता तर हांव सोदू सोदून वाचतां.

**श्रद्धाः** सैमाच्या आंगणांत, गांवांत ल्हानाचीं व्हड जालीं. शारांत शिक्षण घेतलें, वस्तुसंग्रहालयांत फुडार घडयलो. जिवीत जगतना तुमी सूख अणभवलें. तुमच्या अणभवा प्रमाणे जिवीत म्हणजे कितें? आनी तें कशें जगचें?

**राधाः** जिविताची तशी साधी, सोपी व्याख्या करप शक्य ना. जण एकल्याचें व्यक्तिमत्व, सभाव, ताचे भोंवतणची परिस्थिती, ताका मेळपी मनशां, येवपी अणभव वेगळे. देखून त्या दर एकल्याची जिविताची वाट वेगळी. जिणेचो प्रवास वेगळो. म्हाकां आयज मेरेनच्या अणभवांतल्यान इतलेंच कळ्ळां की आपलें मन, बुद्दी, आपल्यो भावना थीर दवरून, आपलें बळगें, आपले गूण आनी दुर्गुणय समजून घेवन, आपल्या भोंवतणचे परिस्थितीचें आकलन करून घेयत, शांत चित्तान जगूंक येवंक जाय. आपलीं तत्वां,

आपलीं ध्येयां आनी आपल्या मूळ सभावा कडेन आपणें प्रामाणिक आसूंक जाय. आयज आसा त्या परस फाल्यां आनीक बरें मनीस जावंचें, म्हज्या भोंवतणच्या लोकां खातीर, समाजा खातीर कितें तरी भव्य- दिव्य करूंक पावलें ना जाल्यारय म्हाकां चलता, पूण कोणाकय म्हज्या पासत त्रास, दुख्ख जावचें न्ही इतलोच हावेस हांव घेतां. 'मैं जिंदगी का साथ निभाता चला गया' हें जगपाचें सुत्र म्हाकां खूब आवडटा. तें जशें वांट्याक आयलां तें जिवीत हांसत्या मनान स्वीकारप आनी समाधानी रावप हीच म्हजे जिणेची मोख. खरें म्हळ्यार समाजांतल्यो खूबशो गजाली हालीं म्हाका मानवनात, पूण जण एकल्याक आपलें जीवीत ताका जाय तशें जगपाचें स्वातंत्र्यय म्हाकां मान्य आसा. शिवाय मागल्या बगर कोणाकच सल्ले दिवंचे न्ही अशें म्हाकां दिसता, देखून हांव सगळ्यांचें कल्याण जावं, बरें जावं इतलीच प्रार्थना करतां.

**श्रद्धाः** लेखिका ह्या नात्यान नवोदीत बरोवप्यांक तुमी कितें सांगतलीं?

**राधाः** बरोवप हें कौशल्य कोणाकच्च सहज साध्य जायना. अर्थांत कांय जाणां भितर आपले विचार, भावना योग्य त्या उतरांत मांडपाचो गूण जन्मताच आसता. कांय जाण त्या खातीर खूब कष्ट घेतात. जाका लेखक म्हणून प्रसिद्धी, मान, कौतूक जाय ताणें पयलीं स्वतः उत्तम रसिक जावचें. खूब वाच्चें, चिंतन करचें, लिखाणाचो दर्जो वळखूंक शिकचें. 'सकस' लेखनाची मोख दवरून बरयत रावचें.. आनीक कितें सांगू? उतरांचेर, लेखन ,कलेचेर मोग आसचो, बरोवपांतल्यान मेळपी आनंद, आनी बरयनासतना रावल्यार जिवाची जावपी तळमळ असो अणभव येवंक लागलो की आपले भितर लेखकाचीं लक्षणां आसात अशें मानूंक हरकत ना.

**श्रद्धाः** तुमी सुंदर सोबीत गजल बरयतात. आनी त्यो सुंदर सादरूय करतात. गजलांचो तुमचो प्रवास कसो आरंभ जालो?

**राधाः** गजल बरोवपाची म्हजी सुरवात तशी नकळतनाच जाली. सुरवेक गजल म्हणल्यार कितें तें म्हाकांय खबर नाशिल्लें. म्हज्यो कांय कविता वाचून 'तुवें हें जें कितें बरयलां तें गजले सारकें आसा.','तूं बरी गजल बरोवंक शकता' अशें म्हाकां कांय जाणकारांनी सांगलें. तेन्ना हांवें त्या कविता प्रकाराविशीं जाणून घेतलें. हांवें बरयिल्ली– *'दुःखालाही चिमटीमध्ये धरता येते*
*आणिक त्याचे फुलपाखरु करता येते'*

असो शेर आशिल्ली गजल रसिकांक खूब आवडली. महाराष्ट्रांतल्या गजलप्रेमींनी तिचें खूब कौतूक केलें. कांय मुशायऱ्यांनी गजल सादर करूंक निमंत्रणांय येत रावलीं. हांवें कोंकणींतूय कांय गजल बरयल्यात . तातूंतली –

खिणा–खिणांक उज्याविणें जळटा अस्तुरी ही गजल तिचेर संगीत साज चडोवन अजय नायक हांणी लोकां मेरेन पावयल्या.

**श्रद्धाः** मुलाखत सोपतना वस्तुसंग्रहालयांत जे पळोवपी वतात तांकां तुमी कितें सांगतलीं?

**राधाः** वस्तुसंग्रहालयाक भेट दिवप्यांक हांव इतलेंच म्हणन, तुमी एक जिज्ञासू म्हणून आसूं वा ज्ञान मेळोवपा खातीर आसूं वा फकत मनोरंजना खातीर थंय गेल्यात आसूं, संग्रहालयांत पावल दवरप, थंयची भोंवडी करप हें एक सुसंस्कृतपणाचें लक्षण. संग्रहालय हो आमच्यो कला, संस्कृती, इतिहास, परंपरा, आमचो भूतकाळ आमच्या समाज जीवनाचो हारसो. ह्या हारशांतल्या बिंबांतल्यान आमकां आम च्या मोलादीक दायजाचें दर्शन घडटा. ह्या दायजाचे वारसदार म्हणून आमी स्वताक भाग्यवान समजूंक जाय, कृतज्ञ रावंक जाय. तुमी संग्रहालयांत वतात म्हणजे तुमी एक जागरुक आनी आपल्या सांस्कृतिक दायजाचो अभिमान बाळगुपी नागरीक आसात. देव तुमकां बरें करूं!

---

*फातोर्डा – मो. 8087708050*

▶ कथा

# आर्षभारतांतली देवी

साधुसंत आनी ऋशीमुनींचे भुंयेंतले आर्षभारतांतल्या एका प्रतिश्ठीत आनी गडगंज संपत्ती आशिल्ल्या अधिकाऱ्याची हांव बायल आशिल्लें. हांव म्हजेविशीं केन्ना केन्ना चिंततां, हांव प्रचंड बंगलो आशिल्ली, घरांत कार आशिल्ली, सगळ्यो सुखसोयी उपलब्ध आशिल्ली, खऱ्यानीच एक नशिबवान बायल. घरांतल्या रोझवुडच्या व्हडल्या एका डायनींग टेबलार पडिल्लें म्हजें प्रतिबींब नियाळीत हांव खूब खेपे बसतां.

भायर नदर मारली जाल्यार रखरखत्या खर वतांत थोकणां पडिल्लीं आपापलीं आलिमेनचीं आयदनां घेवन उदका पासत जळामळाक हेडपी बायलां दिसतात. दरेकलेचे फाटीर ल्हान भुरग्याची एक पोटली दिसता. खूब धुल्यारूय बदलना असलो तांच्या मुखामळा वयलो भाव म्हाकां घासून गुळगुळीत जाल्ल्या, काळपटल्ल्या चिल्लर पयश्याच्या नाण्याची याद करून दीत आसता. ह्या नाण्याचें कितें करचें म्हाकां कळना. शेवटाक तोय एक पयसोच न्हय! देखून हांव परतून तें म्हजे मनांत सांबाळटां.

''आर्षभारतांतल्यो बायलो प्रतिश्ठीत आसतात.'' आई म्हणटाली.''ताकाच लागून दादले आमकां देवी मानून आमची पुजा करतात. पूण त्याच वेळार ते हेंय विसरतात की आमकांय मनशां वरींच तान भूक आसा. हेंय एकूण वायटूच न्हय! आमी सगलींच जाणां देवी जावंक शकतालीं. आमकां देवी करूंक आंवडेवपी चोंब्यांत आमी मनीस म्हूण रावतां, हीच चूक.''

घोवा शेजराक पडिल्लें आसतना, ताचो संथ श्वास आयकतना म्हाकां सदांच आईच्या उतरांचो उगडास येता. म्हाकां अजापय दिसता, पांयां कडेन सुखसंपत्ती लोळटना आनी परजळीत फुडार मुखार आसतना ह्या मनशान म्हजे लागीं लग्न कित्याक केलें? 'बायल हें एक वजें' हें म्हाकां ताचें म्हणणें पटता.

जेन्ना लग्ना पासत म्हाकां पळोवंक येवपी लोक म्हज्या मुखामळा कडेन, छातये कडेन, कंबरा कडेन निरखून पळोवन म्हजी मोलावणी करपाचो प्रयत्न करताले, तेन्ना म्हज्या बापायच्या हुसक्यान भरिल्ल्या तोंडा वयलो बळयां हाडिल्लो हांसो पळयतनाच म्हाकां कळिल्लें. 'चली तशी बरी आसा, पूण रंग मातसो चडूच काळो आसा.' असो शेरो जेन्ना एका पळोवप्यान मारलो, तेन्ना म्हज्या बापायच्या तोंडार उदेल्लें निराशेचें आनी वैफल्याचें सांवट म्हाका अजून येवजता. मागीर तिडकून ताणें मुखा वयलें वाडिल्लें ताट मोखून मारलें आनी दाण दाण पावलां आपटीत वयल्या माळ्यार गेल्लो. म्हज्या सगळ्या आकांक्षांचें मृगजळांत रुपांतर जाता आसतनाच म्हज्या बापायचेंय मुखामळ म्हज्या मनांतल्यान पुसट जायत आसता. मागीर हांव अपराधी भावनेन म्हज्या घोवाच्या तोंडा कडेन आनी ताचे वयल्या स्मिता कडेन पळयतां.

हांवें जिवितांत केन्ना एक पानदुडूय जोडलो ना, पूण



**मानसी**

*अस्तुरी आनी दादल्यांच्या संबंदीच्या सुखदुख्खाच्या तपशिलाची खराय आनी खोलाय काव्यमय शैलींत चितारपी मल्याळी कथाकार मानसी हाची एक वाचकप्रिय कथा–*

*मराठी अणकारःप्रफुल्ल शिलेदार,कोंकणीः* ***दिलीप बोरकार***

म्हाका दुडवाचे मोल ल्हानपणा सावन खबर आसा. दुडू म्हणल्यार पाखाची एक जोडी आनी सोताचे मालकीचें मन. बांदिल्ल्या पाखाच्या आनी म्हेळेल्ल्या, सुरकुत्यो पडिल्ल्या मना बदलाक आमका खावक पिवक घालपी आनी न्हेसपाक वस्त्रां दिवपी दादल्यां विशीं हांव सदांच उपकारी रावत आयलां. ते आमका सोबीत लुगटां दितात, भांगरां शिंगरां दितात आनी आमचे कपलार रक्तवर्ण कुकमाचो तांबडो भडक तिळो लावन आमकां प्रतिश्ठीतूय करतात. ते आमचो हात घट्ट धरून आमकां तांचे वांगडा व्हरतात. अशे वेळार आमकां आमचे तोंडार हांसो खेळोवंचो पडटा. हांव पळयतां, आमचीं बांदिल्लीं पांखां आमचे सुंदरायेंत भरूच घालीत आसतात. मागीर बायल मनशेन उपकारी कित्याक रावचें न्हय?

जेन्नां आमकां आमच्या घरांनी पुजतात, तेन्ना आमी उदकाळ दोळ्यांच्यो, चाफेकळये नाकाच्यो आनी भरिल्ले छातयेच्यो देवी आसतां. तेन्ना आमच्यो सगल्यो तक्रारीच न्हय तर सगल्यो विनवण्योय तकलादूच आसतात. दादल्या कडल्यान आमी कितें म्हूण अपेक्षा बाळगुपाची?

तेच पासत म्हाकां लालाजीचें दुख्ख उमजता. लालाजी, जाणें पुत्रप्राप्ती पासत दुसरे खेप न्हय, तिसरे खेप लग्न केलें. हांवूय लालाजीच्या तिसऱ्या लग्नाक गेल्लें. ताणें आनंदान आनी अभिमानान म्हज्या घोवाचो हात हातांत घेतलो. हिऱ्याच्यो चमचमपी मुदयो घातिल्लीं बोटां आपल्या धव्या केंसांतल्यान भोंवडायत तो म्हज्या घोवाक जड आवाजान सांगूंक लागलो,''नायरबाब, हांव तिसरे खेप म्हजें नशीब अजमावन पळयतां हां. म्हजें परमेश्वरा कडेन आतां एकूच मागणें आसा, ताणें आपली कृपा नदर म्हजेर घालची आनी हे खेपेक तरी म्हजें गाराणें आयकचें. म्हजी आतां पिराय जायत येता आनी कुटुंबाचीं सुत्रां बायलांच्या हातांत आसचीं, हें काय मनाक पुटवना.''

लालाजीचे पयले घरकान्नीन नवे व्हंकलेचो हात धरिल्लो. तीन धुवांची ती आवय, तिका घेवन येताली. सोबीत नक्षिकाम केल्ल्या तांबड्याच घुंगरांतल्यान तांची नदरा नदर जाल्ली. व्हंकलेन आपल्या पुर्वाधिकाऱ्याच्या स्मिता कडेन पळयलें. तें स्मित तिका काजळेन भरिल्ल्या लापयांवाच्या मिणमिणट्या उजवाडा वरीं भासलें. अचानक तिका आपले वयल्या व्हड जापसालदारकेचें वजें जाणवूंक लागलें. ती परतून केन्नाच हांसली ना. लालाजींची दुसरी घरकान्न घराच्या सगल्या चावयांचो जुडगो कंबरेक लांबोवन आयदनां लागीं उबी आसली. लालाजींक पूत दिवपा पासत हाडिल्ले व्हंकलेक घेवन सोयरीं ताचे न्हिदपा कुडी वटयां वतालीं. रांदप घरांत दाटिल्ल्या काळखांत उब्यो आशिल्ल्या जाणट्या बायलांचे दोळे गारगोटयां वरी चमकताले. म्हाकां दिसलें, ते जर एखाद्रे वस्तूचेर घासले जाल्यार तातूंतल्यान किटी उडटल्यो. हांव तांच्या म्हऱ्यांतच बशिल्लें. पेपर प्लेट्स, नॅपकीन्स लावंक लागलें. लालू...लालाजींची दुसरी घरकान्न तिडकेन आयदनांची आदळ आपट करताली. आल्मार उगडटना, खण बंद करतना नेटान आपटून आवाज करताली. अचानक ती मोठमोठ्यान रडपाक लागली. हांव तिज्या थरथरत्या खांदार थापटीत रावलें.

''सासूमांय आयली दिसता!'' व्हडली सून बेगबेगीन उठली आनी तिणें दार लावन घेतलें. मागीर ती धाकटेचेर तिडकून म्हणूंक लागली, ''तुज्या घोवाच्या लग्ना वेळार रडटा? तुका जालां तरी कितें?''

तिका आनीकूय कितें म्हणपाचें आशिल्लें, पूण ती रावली आनी तिचे पासून कुशीक सरली. एखाद्र्या जळट्या लाकडांतल्यान एखाद्रो जाळ येवंचो तशे तिजे ओंठ थरथरले. पूण तिणें अशें भासयलें, की तिज्या ओंठांची ती हालचाल एका स्मिताचो आरंभ आशिल्लो. म्हजे कडेन तिणें अशे नदरेन पळयलें, की ती आतां तें स्मित पुराय करपाची आसा. पूण ती स्मित पुराय करूंक शकली ना.

हांवें म्हज्या घोवाचो हात घट्ट धरून ते दिसा लालाजींचें घर सोडलें. कळऽ नासतना बशिल्ल्या चटक्याच्या दागावरीं म्हाकां वांगड करपी चेऱ्या कडेन हांवें घुवन पळयलें, तेन्ना म्हाकां दिसलें, लालाजी म्हणटात तातूंत सत आसा. जर आमचे दरेक पिळगेंत हे शूरवीर दादलेच उरले नात, जाल्यार आमकां आदार दितलो कोण?

आपलें पंदरा दिसांचें भुरगें फाटीचेर पोटलेंत बांदून म्हजे कडेन घरकामाक येवपी वीणाक लेगीत हें कळटलें. तिजो घोव दीस रात वत खायत हुक्को ओडीत पडिल्लो आसता. सोताक सुरक्षीत दवरपाक तिकाय ताचे खोशये पासत आनी ताचे तब्येती पासत मोल फारीक करचें पडटाच. आमचे पयकीं जीं मनशां कायम भिरांतेचे आनी अपराधी भावनेचे सावळेंत रावतात, तांकां राखणदार जायच आसतात.

एक दीस आपल्या भुरग्याक फाटीर घे नासतनाच वीणा कामाक आयलें.

'' तुजें भुरगें खंय आसा?'' हांवें विचारलें.

तिणें म्हजे कडेन खीण भर तिज्या टपोऱ्या, पूण कोरडे जाल्ल्या दोळ्यांनी पळयलें. हांवें पळयलें...म्हज्या ध्यानांत आयलें की, तिज्या मोठसार स्तनांतल्यान दूद निशेतालें. ताका लागून तिजें लोळकें बुलूज ओलें जातालें.

''म्हजो घोव म्हज्या भुरग्याक घेवन गेलो.'' वीणान



म्हणलें. '' कितें सांगों बाय, तें पोर शेकीं तेजेंच न्हूं! आमची बायले मनशे जात, आपले पोराचेर लेगीत मालकी नासता चोय.'' तिणें म्हणलें. '' पूण बाय पोर तापान फोणफोणटालें! पोरा रोडोप आयकतूच हांव रातभर घोरा भायर देरा कुशीक बसोन आहलें. म्हाहां दिसलें म्हाजो घोव सकायीं जेन्ना भायर येतोलो, तेन्ना तेजे पांयें धत्तोलें, तेन्ना तरी तो म्हाहां घोरान वचों दितलो! तेकाय म्हणोन काळीज आहाच न्हू! तेका गोमोना तर पोर तानेलां म्हणोन ! पूण कितेंच घडलेंना गो बाय. निमाणें तो जेन्ना भुरग्याक घेवन भायर वचोंक लागलो, तेन्ना हांव तेज्या फाटल्या फाटल्यान वचोंक लागलें. मोट्या मोट्यान हुयेली मात्तालें. पोरान दोये बंद केले आहले. रडोंकूय जायना आहलें. म्हाहां रोडटना चोवन म्हागे घोव सामको पिसावलो. म्हुणटालो, म्हाजे फाटल्यान येईत जाल्यार भुरग्याक खळयेंत उडोयता काय ना तें चोय. म्हाहां तेगे राग खबर आहलो. तो फाटीं फुडें चोवपी मुनीस न्हू. हायें म्हणलें, 'पोराक कितेंय इकतें घेवन दी. तानेला आसतलो!' हांव थुंयच उबें रावलें. दोयां आड जाय म्हणसर चोयत रावलें. हिंगा येय मेरेन तिंगाच उबें रावलें हांव. बाय गो, त्या देवान कित्या बायले जोल्मा घायलां आमकां? तेणें फकोत मुनीसूच केले जाल्यार जायना आहलें?''

वीणान म्हाकां हें सगळें एक काणी सांगची तशें सांगलें. अकस्मात ती मुखार देवूच येवन उबो राविल्लेवरीं रावली. मागीर कुडीच्या एका कोनशाक धोंपरांनी मान मुंगरून हुंडके हुंडकेवन रडपाक लागली. हांवें पळयलें, तिज्या बुलुजाचेर दुदाचे आनी तोंडार दुकांचे दाग आसले. त्या दुदाच्या आनी दुकांच्या दागांनी म्हाकां पुरायेन रेवडावन घेतलें. ल्हव ल्हव त्या थेंब्यांचीं म्हाकां घुस्मटावन उडोवपी आकांताळीं ल्हारां जायत गेलीं.

शेवटाक हांवें ताका विचारलें,''वीणा, तुजे पासत च्या दवरूं?''

म्हजे लागीं तिजें सांत्वना पासत कांयच नाशिल्लें. तिणें मोन्यानी मान हालयली. ती आपल्या दुखऱ्या, जड जाल्ल्या स्तनांतलें दूद पिळून काडून उडोवंक लागली. जेन्ना हांवें तें पळयलें; तेन्ना म्हाकां जाचे विशीं कुस्कुट भरूय कल्पना ना अश्या परमेश्वराक मना सावन पराथूंक लागलें. हांवें मनाचे खरायेंतल्यान त्या परमेश्वराक म्हणलें, '' देवा, तुका जाय जाल्यार आमचीं सगलीं पाखां तुकां दिवं...पूण तूं वीणाक तिजें भुरगें परत दी.''

आयचे वरींच परमेश्वर म्हजे पासत सदांच परकी रावत आयला. पूण म्हाकां एखाद्रे दृष्टीगोचर व्यक्तीक आपोवन तिजे सामकार रडप आवडना. त्या परस हांव म्हजें निरर्थक गाराणें अदृश्य देवा सामकारच सांगतां. एखाद्र्या लोखणाच्या पृश्ठभागार उदकाचे थेंब जळचे तशे वीणाचे दुदाचे आनी दुकांचे थेंबे सुकले. सोशीक वसुंधरेवरी ती कोंडून राविल्ल्या दुदाचे आनी जडशीळ दुकांचें वजन सोशीत रावली.

एका वचनांत म्हणिल्लें आसा–'क्षमाया धरित्री' म्हणल्यार सोशीक मातेवरी धर्तरी. हांवें एक खेप वीणाक म्हणलें,'' दादले मानवी आसतात, तांकां राग आसता, आसक्ती आसता, आकांक्षा आसतात. आमी सगलीं जाणां मात देवीच आसूंक जाय आसतात. वीणा, दादले मनीस म्हूण जल्मतात आनी मनीस म्हूण मरतात. आमी जल्मतना मनीस म्हूणच जल्मतात, पूण जियेतात मात देवी म्हणून.''

वीणान सारनीच्या व्हिरान आपल्या पांयाच्या आंगठ्याचें नाकूट साफ करतां करतां मान हालयली.

''म्हाकां फकत एकूच खेपे तेका चोवंक जायें.'' तिणें म्हणलें. '' तो आतां चलोंकूय लागला आसत. म्हाहां वोवकोचोनाय बी. हायें तेका घेयल्यार तो व्हडान रडतय बी!''

चकचकपी मेजाचेर पडपी म्हज्या प्रतिबिम्बा कडेन पळयत हांवें येवजिलें, हें सगलें खरें. म्हजी आजी म्हणटाली,''आमी सगल्यांनी कशें सावित्रीवरीं आसूंक जाय. आमच्या घोवांची इत्सा म्हणल्यार आमची इत्सा.''

ताणें जर आमकां दारा भायर घालें, जाल्यार आमी कितें करतलीं? हांवच जर न्हेशिल्ल्या वस्त्रा सयत आनी कपला वयल्या पुशिल्ल्या कुकमा सयत हुंबऱ्यार येवन बसलें, जाल्यार लोक म्हजी टवाळीच करतले. चितेवरीं जळपी सूर्या पोंदा हे सगले गर्दैत हांव एक उंडीभर अन्नाची भीक खंय मागतलें? एखाद्र्या देवान जर म्हाकां अक्षयपात्र दिलें ना वा इत्सापुर्तीचो वर दिलो ना, तर म्हजी अवस्था ह्या संवसारांत सामकीच काकुळटेणी जातली. ते परस रावपाक आनी भीक मागपाक आपलें शें एक कायमचें बिराड आशिल्लें कितें

वायट?

म्हज्या घोवा विशींचो म्हजो आदरभाव वाडत आसा, हे म्हाका होलमले ताचेविशींची म्हजी निश्ठाय मनातल्या मनात आपसूक वाडल्या. हेंय होलमलें हांव हांगा म्हजे माथ्यार आशिल्ल्यो सुरक्षीत सन्यो आनी आशिकुशीक आशिल्ल्या सगल्या सुखसोयींचो मेकळ्या हातांनी स्वीकार करता पूण हाचे बदलाक परत दिवपाक म्हजे लागीं म्हजे दुकां सारख्या नितळ आनी पारदर्शी मोगा बगर कितें आसा? पूण हांव मोबदलो मेळचो म्हूण म्हजो मोग दिना. हांवें जर हें देणें घेणें सुरू केलें जाल्यार हांव अक्षरशा कोसळटलें. एखाद्रे गजालीच्या बदलाक हांव दिवंक शकन अशी ही एकली एकसुरी गजालच म्हजे लागीं आसा. जेन्ना हांव भान शेणोवन म्हज्या जनेलांतल्यान सगल्या संवसारा कडेन पळयन, तेन्ना म्हजे लागीं म्हजे सोताचें अशें कांयच उरिल्लें नासतलें. एक खेप म्हाका घोवान म्हणिल्लें, 'मोग करप हो लेगीत एक तरेचो सुवार्थूच आसता.' हांव म्हजे खोशये पासत मोग करतां. म्हणटकच हांव दुसरें कितें विकूंक शकतां? म्हजे वयल्यो जापसालक्यो, एखाद्र्या ल्हारान सगलें कितें पोटलावन घेवंचें तशें म्हाकां घुस्मटावन उडयतात. तीन खेप जल्माक घाल्या उपरांतय ह्यो जापसालक्यो कायमूच उरतात. म्हजो घोव आयज आसा तितलो गिरेस्त नाशिल्लो; म्हज्यो साडयो आनी म्हजें घर आसा तितलें भपकेदार नाशिल्लें जाल्यार म्हज्यो जापसालक्यो भोवतेक थोड्यो उण्यो जाल्योय आसतल्यो. म्हाकां होलमता, म्हज्यो जापसालक्यो वाडतच आसात आनी त्यो अंतहीन आसात.

साक्षात्कार जावंचो तशें सगलें म्हजे लक्षांत आयलें, की अस्तुरेन सोशीक कित्याक आसूंक जाय. तिका तिजे भोंवतणच्या सगल्याच गजालीं विशीं कृतज्ञच रावचें लागता...सामकें तिज्या भुरगेबाळां विशीं लेगीत! इतलें सादें सत्य कळपा पासत म्हाकां इतलीं वर्सां सरचीं पडलीं, हाचीच म्हाकां लजच दिसूंक लागली.

अशे तरेन हांवें हळदीकुकमां बदलाक म्हज्या हवनांतल्यो अखेरच्यो गजाली, म्हज्या मनीसपणाच्यो कुरवो आशिल्लें म्हजें मन आनी म्हजीं पाखां लेगीत दिवन उडयलीं. अशे तरेन हांव देवी जालीं. पातकडयो फडफडायनाशिल्ली, ओंठ लेगीत थरथरायनाशिल्ली आर्षभारतांतले एखाद्रे खंयचे तरी अस्तुरेवरीं!

*त्रिसूर– मो. 9769096744*

# पयसो चलता पयसो खेळटा पयसो दुडू दुडू धांवता

वि. वा.शिरवाडकर म्हणल्यार कुसुमाग्रज हांचें 'नटसम्राट' नाटक जांणी पळयलां तांकां गणपतराव बेलवलकरांची कथा याद आसतली. कांय वर्सां पयलीं नाना पाटेकराची मुखेल भुमिका आशिल्लो हेच नांवाचो सिनेमा आयला. एक म्हान कलाकार नटसम्राट बेलवलकर तांच्या आयुश्याच्या उतरत्या काळांत उमेदीच्या एका खिणांत आयुश्यभराची सगळी जोड आपल्या भुरग्यांच्या नांवार करून मेकळे जातात. चाळीशेक वर्सां तांचे वांगडा संवसार केल्लो तांचे घरकान्नीचें वेव्हारी मन तांकां आडायता. पुणून बेलवलकर तिचें आयकनात. म्हजीं भुरगीं म्हाका केन्नाच वाऱ्यार सोडचीं नात हाचो तांकां सामको विस्वास आसता. फुडें मागीर वेगळेंच कितें घडटा. भुरगीं तांकां घरा भायर काडटात अशें न्हय. पूण जायत्या घडणुकांक लागून तांचो स्वाभिमान दुखावता आनी तेच घर सोडून वतात. एके वेळार रंगभूमी गाजयल्ल्या नटसम्राटाक अक्षरशा भणंग जावन 'माळा वयल्या म्हाताऱ्याक कोणूय घर दिता घर?' म्हणत आड्डुपाची पाळी येता.

उमाळ्यांच्या भरांत घेतिल्ल्या अवेव्हारी निर्णयांक लागून बेलवलकर काकुळटेची परिस्थिती आपल्याचेर ओडून घेतात. खरें म्हणल्यार आपलें म्हातारपण येवजून आपले खातीर फावो ती वेवस्ता करून मागीरच उरिल्ली संपत भुरग्यांच्या नांवार करप तांकां शक्य आशिल्लें. पुणून तांच्या उखलापे मनान चुकीचो निर्णय घेतलो आनी तीच तांच्या आयुश्याची शोकांतिका जाली. आयुश्यांत कर्तव्यां करतना आनी



**अरुण काकोडकार**

*'मुठभर मळब' ह्या लेखसंग्रहांतल्यान कोंकणी वाचकां मदीं आपली सुवात निर्माण करपी लेखक कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल.*

जबाबदाऱ्यो साबाळटना खूब किते करीन दिसता. भुरग्यांचो मोग आनी आपुलकी सगळ्या आवय-बापायक आसता पुणून म्हत्वाचे निर्णय घेतना सादूर रावप गरजेचें आसता.

शाळा-कॉलेजांत शिकतना अर्थशास्त्राच्या पुस्तकांत पयलो धडो 'एन्डज आनी मिन्स' (Ends and means) हांचे मदल्या नात्यांचो आसा. लिओनेल रॉबीन्स ह्या अर्थशास्त्रज्ञान म्हणलां, 'उदि्दश्टां आनी साधनां हांचे मदले सबद जोडटना मनीस कसो वागता, वावुरता हाचो अभ्यास म्हणल्यार अर्थशास्त्र.' आमचीं उदि्दश्टां,आमच्यो इत्सा खूब आसतात. पूण त्यो पुराय करपाक आमची साधनसामुग्री उणी, अपुरी पडटा.

खूब खूब मेळोवचें, जाय तशे मोडपाक हातांत पयशे आसचे, सुखान रावचे अश्यो आमच्यो इत्सा आसतात. सगळें जाय तशें आमकां मेळना. जें किर्ते मेळटा तें आमचें. जें मेळना ताची खंत करप नासता. फावो जालां तांतूंतच खोशी रावप हो आयुश्याचो सारांश!

कवी शायर मिर्झा गालिबाचो एक शेर याद जाता:

हजारों ख्वाहिशें ऐसी कि हर ख्वाहिश पे दम निकले,
बहुत निकले मेरे अरमान लेकिन फिर भी कम निकले।

कवी म्हणटा, आयुश्य जियेतना आमच्यो हजारांनी इत्सा-आशा सफळ जावंच्यो अशें आमकां दिसता. पुणून सगळ्यो इत्सा पुराय जायनात. कांय अपूर्ण उरतात.

आसा तांतूंत सुखी रावचें अशें आमी म्हणटात. पुणून मनीस सुखी केन्नाच आसना. ताका पयशांची हाव सदाकाळ आसता. पयसो मनशाक खेळयता. पयशां खातीर मनीस लाचार जाता, जीव काबार करता, घरां फोडटा, बँको लुट्टा, आपलें नांव वगडायता.

पयशांचे आशेन बऱ्या बऱ्या मनशांचे हात भ्रश्टाचारान माखिल्ले आसतात. कोण जुगार खेळटा,कोण घोड्यांचेर पयसो लायता, कोण खून करता. थोडे भीतर सांगपाचें जाल्यार, पयसो हें जरी जिणेचें सार्थक आसलें तरीय संवसारांतल्या अनर्थाचें मूळ पयसो आसा.

'पयसो म्हणल्यार कितें?' कोणाय भुरग्याक विचारल्यार, 'पयशांचें नाणें जावं पयशांची नोट म्हळ्यार पयशे' इतलेंच कितें तो सांगतलो. पयशे म्हळ्यार इतलेंच कितें न्हय. पयसो हें एक प्रॉमीस, छापिल्लें वचन! पयशे दिवन कसलीय वस्त फावो करपाक जाता. पयसो एक माध्यम आसा. विनिमयाचें साधन आसा. पयसो म्हत्वाचो नासता. म्हत्वाचें आसता तो विनिमय. दोगां जाणां मदल्या वेव्हारांचें साधन. दोन देशां मदल्या देवाण घेवाणाची प्रक्रिया.



पयसो अस्तित्वांत नाशिल्लो तेन्नाय संवसार चलतालो. लाखांनी वर्सां आदीं मनीस जेन्ना निर्माण जालो तेन्ना ताची जीण कंदमुळां-फळां आनी सावजां मारून खावपाक सरताली. मनशांक मागीर पोट भरपा खातीर शेतकामाची गरज उपरासली. सगळीं मनशां आपापल्या पोटा पुरती पिकावळ करूंक लागली. दाणो गोटो पुंजावन हाडप आनी सगळ्यांनी मेळून वांटून खावप अशें चलतालें. तेन्ना पयशे,भाटां, कारखाने असलें कांय नाशिल्लें. कुटुंब वेवस्ता जल्माक येवूं नाशिल्ली. कोणालीच संपत्ती, मालमत्ता नाशिल्ली. म्हजी जमीन, म्हजी बायल, म्हजीं भुरगीं असलें कांय नाशिल्लें.

इल्लो इल्लो मनीस शाणो जालो तसो अदीक कश्ट करूंक लागलो. आपल्याक जाय ताचे परस चड पिकावळ करूंक लागलो. मागीर आपले पुरतें धान्य दवरून उरलां तें उत्पन्न कोणें व्हरप हाचे वेल्यान झगडीं जावंक लागलीं. ताका लागून वर्ग वेवस्ता निर्माण जाली. वयल्या वर्गान सकयल्या वर्गाची पिळणूक करून तांचेर ताबो मेळयलो. गुलामगिरींत मालक-गुलाम असो वर्ग जालो. सरंजामशायेच्या काळांत जमीनदार-रयत असो वर्ग जालो. भांडवलशायेंत भांडवलदार-कामगार असो वर्ग जालो. ही वर्गवारी फुडें वाडत गेली. मनशां मनशां मदीं हेवे दावे जावंक लागले. घरसंपत्तीच्यो वांटण्यो जावंक लागल्यो. पयशां खातीर भांवडां मदीं वाद-झगडीं जावंक लागलीं. देमांद, खटले, कोर्ट-

कचेऱ्यो वाडूंक लागल्यो.

हें सगळें जाता तें पयशां खातीर. पयसो जायच. पयशे ना जाल्यार मनीस जगतलो कसो? अब्राहम मॅस्लोच्या सिध्दान्ता प्रमाण अन्न, वस्त्र, निवारो ही पयली गरज. बाकीच्यो गरजो मागीर. ही गरज भागोवपाक हात पांय धोडावचेच पडटात. ना जाल्यार पोट कशें भरतलें? चार पयशे हातांत आयले तश्यो मागीर फुडल्यो गरजो येवजतात. बरो करून रावतलो जाल्यार, अडीअडचणी वेळार पयसो जाय. मौज-मजे खातीर पयसो जाय. चार-चौगांत उठ बस करतना मानान रावतलो जाल्यार पयसो जाय. जगाची रीत आसा, जे मेरेन आमच्या हातांत पयशे आसतात ते मेरेन लोक आमकां सलाम करतात ना जाल्यार पयसुल्यान राम राम. नमस्कार, चमत्कार हें सगलें जाता पयशांक लागून!

जो चलता तो खरो पयसो. चलना तो खोटो. अस्सल वेव्हारीक, जाणकार आसतात ते पयशांचें गुपीत जाणा आसतात. तांचे लागीं पयसो येता, वता आनी तांतूंतल्यान तांची गिरेश्तकाय वाडटा. गरिबांक पयसो म्हणल्यार सर्वस्व आसता. हातांत आयिल्ले पयशे वतले हें तांकां खबर आसता. पयशे मेळोवपा खातीर ते कश्ट करतात, काडाओडी काडटात. जोडटात, मोडटात.

पयसो चलता, पयसो खेळटा, पयसो दुडू दुडू धांवता.

आदले काळांत पयशे-धन पुरून दवरताले. तें जम नींतच उरतालें. जेन्ना तें जमनींतच पुरून उरता तेन्ना ताचें मोल फातर-गुंड्या इतलेंच आसता.

गिरेश्त जावचें अशें सगळ्यांक दिसता. पुणून गरीब गिरेश्त जाल्लो जावं गिरेश्त गरीब जाल्लो काणयो चुकून खंयूय वाचूंक मेळटात. मनीसजातीची उदरगत जावंक जाय जाल्यार सगळ्यांक खावपाक, पिवपाक, रावपाक, शिकपाक, खोशेन काम करपाक मेळूंक जाय.

पुणून तशें जायना. गरीब गरीबच उरता, गिरेश्त आनीकय गिरेश्त जाता. अमेरिकन लेखक रॉबर्ट कियोस्की हाचें एक पुस्तक आसा, 'रिच डॅड,पुअर डॅड'. एक भुरगो, ताचो बापूय पुअर डॅड ( Poor dad ). आनीक एक भुरगो, ताचो बापूय रिच डॅड (Rich dad). रिच डॅड आपल्या भुरग्यांक अशें कितें सांगता जें पुअर डॅडान ताच्या भुरग्यांक सांगिल्लें नासता हाची



काणी. रिच डॅड पुताक उपदेस करता. पयशे कमोवपा खातीर धोके, जोखमी घेवंच्यो पडटात. अभ्यास, अणभव, येवजण हाचे बळार अर्थीक कुशळटाय मेळोवंक येता. पयशे कमयले उपरांत ते कशे सांबाळून दवरचे हाचे परस ते कशे वापरचे, उपेगांत हाडचे हाचें गिन्यान तो ताका दिता.

पुअर डॅड पुताक सांगता, 'बाबा,काम करून, कश्ट करून पयशे जोड.' भुरगो शिकलो, बरो जोडूंक लागलो तसो बापूय ताचे जोडीचेर खोशी आसता. तो ताका पयशे सांबाळून दवरपाचो सल्लो दिता. पुणून ते कशे वापरचे हें तो सांगूंक वचना.

बचत( savings) आनी गुंतवणूक (investment)हे अर्थीक वेव्हाराचे दोन घटक. ते विशीं सांगतना कियोस्की म्हणटा, 'गिरेश्त पयसो धंद्यांत लायतात आनी मागीर चैनीच्यो, ऐशारामाच्यो वस्तू विकत्यो घेतात. मध्यमवर्गीय हातांत पयशे आयले तशे पयलीं म्हारग वस्तूची खरेदी करतात. कारण तांकां आपली गिरेश्तकाय दाखोवपाची उमेद आसता. मध्यमवर्गीयांचो ओडो रीण काडून सण करपाचेर आसता. गिरेश्तांचो भर पयसो निर्माण करपाचेर आसता. फुडाराचो विचार करून बचत करूंकच जाय. कियोस्की सुचयता, बचत करात आनी गुंतवणूकय करात. गुंतवणूकेंत जोखीम आसता, घडये लुकसाण आसता. वेव्हारीक लोक लुकसाण जालें जाल्यार तें कशें भरून काडप हाचो अंदाज घेतात. आयच्या काळांत शेअर्स, बॉन्डस, म्युच्युअल फंड सारक्यो गुंतवणुको फायद्याचे नदरेन बऱ्यो आसात. तरी लेगीत चडशे लोक गुंतवणूक करपाक फाटीं फुडें येतात.

काल आनी आयज, सर्वसादारण मनशांच्या आनी चड करून ज्येश्ठ नागरीकांच्या राहणीमानांत फाटल्या चाळीस-पन्नास वर्सांत खूब फरक पडला. आयज वैजकीय उदरगत, सुदारीत राहणीमान हाका लागून मनशांचें आयुश्यमान वाडलां. शरिरीक आनी मानसीक दोनूय नदरेन मनीस चड काळ उद्देगी रावंक लागला.

ताका लागून ज्येश्ठ नागरिकांची मानसीकताय आनी समाजाचो तांचे विशीं दिश्टीकोण हातूंत खूब फरक पडला. एकूण समाजाचे, लोकसंख्येचे तुळेंत ज्येश्ठ नागरिकांचें प्रमाण वाडलां आनी ताचो प्रभाव जनसामान्यां मदीं जाणवता. चाळीस-पन्नास वर्सां आदीं पिरायेची साठी जाले उपरांत मनीस थकिल्लो दिसतालो. नोकरेंतल्यान रिटायर जाले उपरांत अर्थीक परावलंबन येतालें. कारण सगळो पयसो भुरग्यांचें शिक्षण, धुवांचीं लग्नां हातूंतच वतालो. मागीर तांकां भुरग्यांच्या आदाराचेर रावचें पडटालें.

आयज तशी परिस्थिती ना. कुटुंबांत एक-दोन भुरगीं आसतात. तीं शिकतात. लग्न जावन दुसऱ्या शारांत ना जाल्यार परदेशांत स्थायीक जातात. भुरग्यांचे संवसार वेगळे जातात. जाणटीं आवय-बापूय एकलींच रावतात. निवृत्ती वेळार फावो जाल्लें मानधन, म्हयन्यांचें पेन्शन हाका लागून अर्थीक स्थिती सुदारल्या. संवसारीक जबाबदारेंतल्यान मेकळीं जाले उपरांत कांय वेळ उरिल्ल्या गजालींक (देखीक भोंवड्यो, आवडीचे छंद) दिवंक मेळटा. जाणटेपणांत कुडीच्यो व्याधी उचकतात. हॉस्पिटल, वखदां केन्ना एकसुरी जीण जगपाची परिस्थिती येता. केन्ना वृध्दाश्रमांत रावपाची पाळी येता. तेन्ना पयशांची गरज आसता. परसुवादीन जावचे परस स्वताक सांबाळपाची मानसीकताय ज्येश्ठ नागरिकां मदीं दिसून येता.

आयज ज्येश्ठ नागरिकांक समाजाचो एक गट म्हण वेगळें अस्तित्व फावो जालां. तांकां स्वताचे हक्क आसात, सवलती आसात. निवृत्ती उपरांत पयशाचें वेवस्थीत नियोजन करून मेकळो वेळ उमेदीन घालयल्यार समाधानान रावप सोपें जाता. काल आनी आयज हातूंतलो होच व्हडलो फरक!

***करंजाळे, मो.: 9822588852***

# म्हजें घडयाळींचें पिशें !



मनीस जातीक वेळाचें अप्रूप! वेळ कसो वता तें पळोवपाची ताका पयलीं सावन उमळशीक. सूर्य उदेवपाक लागलो म्हणजे उजवाड जालो वा फ़ांतोड जाली, सुर्य माथ्यार आयलो म्हणजे दनपार जाली आनी सुर्य अस्ताक वचपाक लागलो म्हणजे सांजवेळ जाली आनी रातीची सुलूस लागली इतलेंच पयलीं मनीसकुळयेक खबर आसलें. हाकाच ते 'तीन पार' (तीन-प्रहर) म्हणटाले.

पूण इतल्याचेरच तें थांबलें ना. जशी जशी मनशाची उदरगत जावपाक लागली तशी तशी हो वेळ कसो मेजप हाचे विशीं मनीस विचार करपाक लागलो. ताचे उप्रांत ते आयज मेरेन वेळ मेजपाचीं कितलींशींच सादनां निर्माण जायत आसात. वयर हांवें म्हळां तशें सूर्याचे हालचालीचेर (Sun-Dial) वेळाचो अदमास भौसाक येतालो.. ताचे फ़ाटोफ़ाट दर्या –ल्हारांच्या म्हळ्यार सुकती– भरती हाचेर आदारून वेळ मेजताले.

संवसारांतले पयले यांत्रिक (Mechanical) घडयाळीचो सोद 1275 वर्सा इंग्लंडाक लागलो. इंग्लडच्या 'सालेसबरी कॅथेड्रल' हातूंत आयज मेरेन बरे भशेन चलपी यांत्रिक घडयाळ मेळ्ळ्या. ती 1386 वर्सा घडयिल्ल्याची नोंद मेळटा. हे घडयाळीक 'डायल' वा तोंड ना. फ़कत ती प्रत्येक वराक ठोके दिता. 1300 शेंकड्याचे सुर्वेक इटली हांगाय तीन यांत्रिक घड्याळी सांपडल्याची नोंद आसा.

ताचे उप्रांत खूबश्या मेस्तांनी (Black Smiths) व्हडल्यान ठोके दिवपी लोखणाच्यो घडयाळी तयार केल्यो. चडश्यो त्यो इगर्जानी आनी व्हडल्या व्हडल्या राजवाड्यांनी सगळ्या वाठाराक वेळ कळचो म्हण बसयताले. जर्मनीचो कुलपां आनी चावी घडोवपी एक मेस्त पिटर हॅन्ले हांणी संवसारांतली पयली घडयाळ 15 व्या शेंकड्याचे सुर्वेक तयार केली.

सोळाव्या शेंकड्यांत घड्याळ करपा खातीर लोखणाच्या बदलाक तांबें, पितूळ आनी चांदी वापरपाक लागले. 1540 वर्सा 'स्विस घडयाळ कंपनी 'चो उदेव जालो. हाचें कारण म्हळ्यार स्विझलँडचो पुरोगामी विचारांचो प्रवर्तक जॉन काल्वीन हाणें भौसाक भांगरां-शिंगरां घालपाक मनाय केली.

दागीने करपाचेर हावळ आयली म्हण थंयच्या थळाव्या दागिन्याच्या कारागिरांनी घडयाळी करपाची कला शिकून घेतली. 1574 वर्सा पयलीं बोल्सांत दवरपाची घडयाळ तयार जाली. ती कांश्या पासून तयार केल्ली आनी तिचेर फुडल्यान आनी फ़ाटल्यान धर्मीक घडणुकांचीं चित्रां आसलीं.

जरी लंबक आशिल्ल्या घडयाळीचो पेटंट ख्रिस्तीयान ह्युजीन्स हाणें 1656 वर्सा मेळयलो तरी पयली लंबक आशिल्ली घडयाळीचो सोद लावपाचो मान गॅलिलीयो गॅलेली हांका वता. लंबक आशिल्ल्यो घडयाळी दिसाक फ़कत पंदरा सेकंड फुडें-फ़ाटीं जाताल्यो तर यांत्रीक घडयाळी दिसाक पंदरा मिनटां फुडें-फ़ाटीं जाताल्यो. हाचोच अर्थ लंबक आशिल्ल्यो घडयाळी चड सारको वेळ सांगपी आसताल्यो.

सर आयझेक न्युटन हांणी ह्या लंबकाच्या घडयाळीचो उपेग पृथ्वीचो आकार कळपा खातीर केलो. अशे तरेन ह्या लंबकाचो उपेग शास्त्रिय कारणा सोदपा सांगातकच अचूक वेळ कळपा खातीर करपाक लागले.



**सखाराम शेणवी बोरकार**

*काव्य,ललित,विनोदी साहित्य,अणकारांत योगदान. लोकवेदाचे खाशेले अभ्यासक...*

सोळाव्या शेंकड्यात बोल्सात घालपाच्यो घडयाळी तयार करपाक आयल्यो तरी त्यो फकत वरां दाखयताल्यो. ह्या घडयाळीक मिनीट काटो 1680 वर्सां उप्रात जोडलो. धा वर्सां उपरात सेकंड काटो जोडलो. ह्या घडयाळींक कसलेंच लुकसाण जावचे न्हय म्हण तांचे डायलीक हारश्याचे धांपणें घालें.

1700 साला उपरांत घडयाळी तयार करपाचे कारखाने संवसार भर विंगड वाठारांनी सुरू जाले. तरातरांच्या आकाराच्यो, लांबाय-रुंदायेच्यो घडयाळी तयार जावपाक लागल्यो. पयली कोर्दीची घडयाळ 1770 वर्सा अब्राहम लुइस पारेलेत हांणी तयार केली. तेच वर्सा जियान आन्तोइन लेपायन हाणी कमी जाडीचें माक्न तयार केलें. त्या खातीर घडयाळीच्या उत्पादकांक कमी जाडीच्यो घडयाळी करपाक मेळ्ळ्यो. अशे तरेन 1800 साल मेरेन घडयाळींत खूब बदल जाले.

विसाव्या शेंकड्या पयलीं हाताक बांदपाच्यो घडयाळी फ़कत बायलोच बांदताल्यो. त्यो फ़कत एक दागिनो म्हण! वेळ पळोवपा खातीर न्हय हें तुमकां सांगल्यार अजाप जातलें. पयलीं हाताक बांदपाची घडयाळ आयज लेगीत भरभराटीक पाविल्ली नांवाजती 'पटेक फ़िलिप' (Patek Philippe) हे स्विस कंपनीन हंगेरिच्यो कांवटेस कोस्कोविज हिचे खातीर 1868 वर्सा तयार केल्ली.

हैदराबादच्या फ़ामाद 'सलारजंग' म्युझियमांत भारतांतली सगळ्यांत पोरणी संगीत घडयाळ (Musical Clock) आसा. 'इंग्लीश ब्रेकेट वॉच' हें तिचें नांव. हे घडयाळीक दोनशें वर्सां वयर जाल्यांत आनी ती चालू स्थितींत आसा. ती 19 व्या शतमानाचे सोंपतेर इंग्लंड हांगा तयार केल्ली आनी कलकत्याक हाडून ती घडयली. ती घडयाळ 'सलारजंग 3- नवाब मीर हसन खान' (1889-1949) हांणी 'कुक आनी कॅल्वी' कंपनी कडल्यान विकती घेतिल्ली.

हे घडयाळीचें खाशेलेंपण म्हळ्यार एक खाड आशिल्लो बावलो दर एक वराच्या तीन मिनटां आदीं घडयाळीच्या जनेलांतल्यान भायर सरता आनी त्या वराचो ठोको जाल्या उपरांत भितर वता. त्या भायर भितर एक बावलो हातांत एक घण घेवन तो अखंड वाजयत आसता. हे घडयाळीचें दुसरें एक खाशेलेपण म्हळ्यार हे घडयाळींतल्या वरांचे आंकडे रोमन आंकड्यांनी आसात. पूण चार हीं वरां IV अशीं न्हय तर IIII अशीं दाखयल्यांत. सलारजंग म्युझियमांतलें हें एक आकर्शण.

विसाव्या शेंकड्यांत घडयाळींत खूब बदल जाले. कोर्दीचेर चलपी, मागीर 'ऑटोमेटिक', उपरांत 'क्वार्टझ' आनी मागीर 'डिजिटल', 'ऍनालोग- डिजिटल' अश्यो घडयाळी आयल्यो. आतां तर मोबायलांत घडयाळी आनी 'स्मार्ट वॉचीस' असो तिचो प्रवास चालूच आसा. आनी फुडाराक तांतूंत कितें बदल



जातले हें तंत्रगिन्यानाचे प्रगतीचेर अवलंबून आसा. पूण कितेंय जायना, हाताक म्हारगेली घडयाळ आसप हें आयज लेगीत 'स्टेटस सिंबोल' जावन आसा. मोबायलांत घडयाळ आसली तरी!

गोंयांत घडयाळी केन्ना पावल्यो हो एक संशोधनाचो विशय. पूण हांवें सुर्वेक म्हळां तशें आदल्या काळार गोंयांत लेगीत भौस सूर्याचे हालचालीचेर आनी दर्याचे सुकती-भरतीचेर वेळ मेजताले. देवळांनी तिनूय पारार(प्रहरार) घांटी वाजताल्यो. देवळांतल्या देवाक निवेध्य दाखोवच्या वेळार आरतीं वांगडाच घांटीय वाजताल्यो. ह्या घांटीच्या आवाजानच देवळाच्या सरभोंवतणच्या भौसाक वेळाचो अदमास येतालो.

गोंयच्या आदिवासी समाजांत, एक दीस हो पांच वांट्यांनी भागिल्लो आसलो. हाका 'पार'(प्रहर) अशें म्हणटाले. हे लोक खूब कश्ट करुन काम करपी आशिल्ल्यान ते फांतोडेर उठटाले. तांच्यो बायलो सगळ्यांत पयलीं उठून रांदपाच्या वावराक लागताल्यो. हाका 'रांदपा-पार' म्हणटाले. धड काळोखय न्हय आनी धड उजवाडय न्हय अशे अवस्थेक 'सकाळ-पार' म्हणटाले. सूर्य माथ्यार आयलो काय 'दनपार'. तशेंच सूर्य अस्ताक वता आनी काळोख जावंक लागता हाका 'तीनसांजे-पार' अशें म्हणटाले. आनी मध्यान रातीक 'मधियान- पार' अशें म्हणटाले. ह्यो एका दिसांतल्यो म्हत्वाच्यो येळो (वेळो) ! त्या भायर तांणी आपल्याक कामाक (दिसवड्याक) वचपाक सोंपें पडचें म्हण दिसाचे दोन वांटे (मायतो) केल्ले. सकाळ ते दनपार हो पयलो मायतो. हाका 'सकाळ मायतो' म्हणटाले. दनपार ते सांजवेळ हो दुसरो मायतो. हाका 'सांजे मायतो' म्हणटाले. हाकाच साष्टी वाटारांत 'आदेस' म्हणटाले. कामेऱ्यांक कामाक आफोवंक ह्या मायत्याची चड गरज लागताली.

बाटाबाटीच्या वेळार पुर्तुगेजांनी देवळां मोडून व्हडल्यो इगर्जो बांदल्यो. ह्या इगर्जांचें खाशेलेपण म्हळ्यार ह्या इगर्जांक लोखणाच्यो व्हडल्यो-व्हडल्यो घांटी आसल्यो. इगर्जेंतल्या मिसाचो वेळ कळपा खातीर आनी हरशींय वेळ कळपा

खातीर ह्यो घांटी मारताले. गांवांचेर अरिश्ट आयल्यारूय ह्या इगर्जांतल्यो घांटी वाजोवन लोकांक एकठांय करताले.

गोंयांत घडयाळी पुर्तुगेजांचें गोंयांत आगमन जाले उपरांत म्हळ्यार 1510 उपरांत पुर्तुगाल आनी बाकीच्या येवरोपी वाटारांतल्यान आयिल्ल्या पाद्रिंनीं हाडिल्ल्यो जावंक जाय. आनी त्यो चड करुन जुदयेच्या बोल्सांत दवरपाच्यो. मागीर त्यो गोंयच्या व्हडल्या-व्हडल्या भाटकारां कडेन पावल्यो. ह्या घडयाळींक भांगराच्यो सरपळ्यो आसताल्यो. विसाव्या शेंकड्याचे सुर्वेक गोंयांत चड करुन भायल्या देसांतलो माल येतालो. तेन्ना हाताक घालपाच्यो घडयाळी स्विझलँडांतल्यान येवपाक लागल्यो. 'रोलेक्स', 'हॅल्वेटिया', 'सेरतीना', 'मार्वीन', 'ट्युडोर', 'फ़ोर्टिस', 'रोडानीया' हे त्या काळार फ़ामाद अशे घड्याळीचे ब्रेंड. घड्याळींक चामड्याचे वा धातूचे पटे आसताले. थोडे श्रीमंत गोंयकार घडयाळींक भांगराचे पटे घालताले. हे भांगराचे पटे थळावे शेट तयार करताले. 'कॅनझल' आनी 'स्मिथ' ह्यो वणटीच्यो आनी मेजा वेल्यो घडयाळी तेन्ना फामाद आसल्यो. गोंयचीं तेन्नाचीं आनी आतांचींय फ़ामाद अस्थापनां जशे परीं 'आजेंसिया रियाल', 'चौगुले आनी कंपनी लिमीटेड', 'वि.एस. धेंपो आनी कंपनी', 'कॉस्मे मातीयस मिनेझीस' आदी घडयाळी आयात करुन गोंयांत विकताल्यो. गोंयांत जसो जसो शिक्षणाचो प्रसार जावंक लागलो तसो तसो घडयाळी आशिल्ल्या लोकांचो आंकडोय वाडलो. तरी आसतना घडयाळ हें एक सर्वसामान्य मनशाक परवडनाशिल्लें चैनीचें सादन आनी श्रीमंतीचें लक्षण अशें मानताले.

आमच्या काळार हाताक घडयाळ आसप श्रीमंतीचें एक लक्षण. पन्नास-साठ वर्सां आदली म्हळ्यार गोंय सुटके उपरांतची गजाल उलयतां हांव! आयज सगळ्यांच्या हातांत मोबायल आसता ताचे परस घडये चड संवय हाताक घडयाळ बांदप हातूंत आसताली. हांव शाळेंत आसतना म्हळ्यार इयत्ता अपरी ते चौथीचे वर्गांत कोणाच्याय हाताक घडयाळ नासताली. इतलेंच कित्याक, आमच्या परब मास्तराच्या हाताकय घडयाळ नासताली. मदली सुटी वा शाळा सोंपपाचो वेळ कळपाक मास्तर चौथेच्या खंयच्याय एका भुरग्याक आमचे शाळेच्या शेजराक आशिल्ल्या रायकाराच्या घरा धाडून कितलो वेळ जालो तो पळोवन यो म्हण सांगतालो. पांच- धा मिणटां हेवटेन तेवटेन जालीं म्हण कोणाकच फरक पडनासलो. ना त्या मास्तराक, ना आमकां भुरग्यांक ना, आमच्या घरच्यांक. सगळें सवस्ततायेन चलतालें. कारण तेन्ना घडयाळ म्हळ्यार व्हडलीशी गरजेची अशी वस्त मानिनाशिल्ले. आमच्या गोंयांत तरी!

आमच्या घरांत वणटी वेली घडयाळ आसली. तिका एक व्हडलो लंबक आशिल्लो. प्रत्येक वराक 'ठण- ठण' असो आवाज येतालो. रातचें जेन्ना सगळे कडेन किण्ण आसतालें तेन्ना केन्नाय अचकीत ह्या ठोक्याच्या आवाजांत म्हाका जाग येताली. हे घडयाळीक कोर्द दिवपाक दोन बुराक आसले. दोनूय बुराकांत चावी घालून कोर्द दिली म्हणजे फुडले आठ दीस घडयाळ चलताली. घडयाळीक कोर्द दिवपाचें काम म्हज्या बापायचें. तो दर आयतारा एके तामरेतीर उबो रावन घडयाळीक कोर्द दितालो. मागीर ती घडयाळ बरी 'श्यामलादोरान' सांग्रसंगीत पुसून घडयाळीची चावी मेजाच्या खणांत दवरतालो.

त्या भायर आमच्या घरांत अलार्माची 'HES' कंपनीची मेजार दवरपाची घडयाळ आसली. म्हजे व्हडले भाव आनी भयणी अभ्यासाक उठपा खातीर ते घडयाळीचो उपेग करताले. म्हज्या बापाय कडेन ज्युदयेच्या वयल्या बोल्सांत दवरपाची सरपळी आशिल्ली कोर्दीची एक घडयाळ आसली (आतां ती म्हजे कडेन आसा आनी आजूनय ती व्यवस्थीत चलता). म्हज्या भावां कडेन आनी भयणीं कडेन घडयाळी आसल्यो. भावां कडेन 'फ़ाव्रल्युबा' (Favre Leuba) आनी भयणीं कडेन 'हेन्री सॅन्डोझ'(Henri Sandoz) घडयाळी आशिल्ल्याची म्हाकां याद जाता. पूण म्हाकां मात म्हज्या हाताक घडयाळ बांदपाक आठवी मेरेन वाट पळोवची पडली.

सातवी जातगीर मे म्हयन्याचे सुटयेंत म्हजी मुंज जाली. कोणेंतरी लागशिल्ल्या सोयऱ्यान म्हाकां 'कॅमी' (Camay) घडयाळ 'प्रेझेंट' म्हण दिली. मध्यम आकाराची घडयाळ. म्हज्या मनगटाक सोबून दिसताली. आठवेच्या वर्गाच्या पयल्याच दिसा हांव घडयाळ घालून गेलों. वर्गांत फकत दोन तीन भुरग्यां कडेन घडयाळी आसल्यो. बाकीचे भुरगे म्हजे घडयाळीक तोखेताले. ही घडयाळ म्हजे कडेन मॅट्रीक मेरेन उरली.

मॅट्रीकेक आसतना म्हाकां बापायन 'एच. एम. टी.- सोना' ही घडयाळ हाडली. भांगराची 'रोल्ड गोल्ड केस' आशिल्ली. खरें म्हळ्यार 'एच. एम. टी'.(HMT-Hindustan Machine Tools) हे सरकारी क्षेत्रांतले कंपनीन 1961 वर्सा जपानचे 'सिटिझन' हे कंपनीच्या आदारान 'HMT' ह्या नांवान भारतांत घडयाळी उत्पादन करपाचो कारखानो घालो. भारताचे पयले प्रधानमंत्री पंडीत जवाहरलाल नेहरुन ह्या कारखान्याची बुन्याद घाल्ली. 'एच. एम. टी- जनता' ही कंपनीची पयली घडयाळ. ही 'जनता' घडयाळ प्रधानमंत्री सर्गेस्त इंदीरा गांधी हांचे खूब आवडीची! 'सोना', 'विजय', 'कांचन' आदी हे ते कंपनीचे फ़ामाद 'ब्रँड' आसले. गोंयांत म



त 'एच. एम. टी.' च्यो घडयाळी मेळपाक धा वर्सां उलगलीं. गोंयांत विदेशांतल्यान तस्करी करुन हाडिल्ल्यो 'कॅमी, 'हेन्री सेंडोझ', 'फ़ाव्रल्युबा' आदी 'ब्रेंड' सोंपेपणान मेळटाले. सर्वसादारण गोंयकारांच्या हाताक घडयाळीचे चड करुन हेच 'ब्रॅंड' आसताले. कारण गोंयकारांक फ़ॉरेन वस्तूंचें आकर्शण. त्या भायर हे घडयाळींचें मोलय कमी. सगळ्यांक परवडपा सारकें.

हांव इंटराक आसतना आमच्या लागशिल्ल्या एका सोयऱ्यान जो हैदराबाद हांगा 'ऑलविन' कंपनींत काम करतालो ताणें म्हाकां आनी म्हज्या भावाक 'ऑलविन -सिको' (Allwyn-Seiko) ह्यो तारीक आनी वार आशिल्ल्यो 'ऑटोमेटीक' घडयाळी हाडल्यो. 'हैदराबाद- ऑलविन' ही सरकारी मळावेली कंपनी जी स्कुटरी आनी रेफ्रीजरेटर तयार करताली, तांणी जपानच्या 'सिको' (Seiko) कंपनी कडेन कबलात करुन तें तंत्रगिन्यान भारतांत हाडलें. तेच वेळार 'एच. एम. टी.' घडयाळीची कंपनीय 'ऑटोमेटीक' घडयाळी तयार करताल्यो. पूण गोंयांत मात 'सिको 5' (Seiko 5) ही 'ऑटोमेटीक' घडयाळ खूब फामाद आसली. जण एकलो बोटीर वा गल्फांत काम करपी ह्यो घडयाळी हाडटालोच. ताचें मोलय खूब आसलें. त्या भायर चड पयशेकार 'राडो'(Rado) ही भांगराची गिलीट आशिल्ली घडयाळ हाडटाले. गोंयांतल्या चडश्या 'स्क्रेप डिलरां'च्या (जे चड करुन केरलायट आसताले) हाताक ही घडयाळ आसतालीच.

म्हाकां ह्या दोनय घडयाळीचें खूब आकर्शण. ' ग्रॅज्युयेट' जातगीर म्हाकां रोखडीच सिर्विस मेळ्ळी. हांवें पयलें काम केलें तें दोन-तीन म्हयने पयशे एकठांय क़रुन 'सिको 5' ही घडयाळ घेवपाचें. पूण म्हजो तो आनंद चड वेळ तिगलो ना. कारण तेच वर्सा 'टाटा' कंपनीन तामीळनाडू सरकारा कडेन कबलात करुन 'टायटन वॉचीस' हे कंपनीची थापणूक केली. हे कंपनीन 'कॅसियो' हे जपानी कंपनी कडेन कबलात करुन 'डिजीटल' आनी 'ऍनालोग- डिजीटल' घडयाळींची भारतांत निर्मणी करपाची कबलात केली. वजनान ल्हव आनी बॅटरीचेर चलपी आनी मुखेल म्हळ्यार अचूक वेळ दाखोवपी! ह्यो घडयाळी रोखड्योच सगळ्यांच्या घोस्ताक गेल्यो आनी ताचे खातीर बाकीच्यो घडयाळी फाटल्यान पडल्यो आनी त्यो घडयाळी तयार करपी कंपनीय जशेपरी 'एच. एम. टी.' आनी 'ऑलविन' कंपन्यो खूब लुकसाण जावन बंद पडल्यो.

हांवें 'टायटन क्यार्टझ' (Titan-Quartz) ही घडयाळ घेतली. पूण म्हजे मनांतलें 'राडो' घडयाळीचें पिशें मात कशेंच वचनाशिल्लें. मागीर हांवें थोड्या तेंपा उपरांत दुबय काम करपी म्हज्या आमिगाक सांगून हांवें ती घडयाळ हाडपाक लायली. म्हज्या हातार ती 'राडो' घडयाळ पळयतगीर म्हजे जिणेंतलें एक सपन पुराय जाल्ल्याची धादोसकाय मेळ्ळी.

ताचे उपरांत म्हळ्यार मोबायल येसर हांवें तरेकवार ब्रॅंडाच्यो जायत्यो घडयाळी घेतल्यो. आयज मेरेन साबार कंपनीच्यो आनी ब्रॅंडाच्यो घडयाळी म्हज्या संग्रहांत आसात. आतां घडयाळी घेवपाची म्हजी उमेद उणी जाल्या आनी घडयाळींचें मोलय आतां परवडना. पूण केन्नाय 'फ़ॅशन मॅगझीना'चेर बरीशी घडयाळ पळयतगीर ती विकती घेवपाची फुरफुरी येता. पूण तिचें लाखांनी मोल पळयतगीर हात आपसूकच फ़ाटल्यान सरतात.

जिणेचे तिनसांजेर आतां हांव फकत म्हजे कडेन आशिल्ल्या ह्या सगळ्या घडयाळींक तोखेतां आनी तांकां जुडिल्ल्यो यादी परत एकदां जागयतां. आतां तितलेंच म्हज्या हातांत आसा. घडयाळी काय आपले हात (कांटे) परते घुंवडावन म्हाकां म्हज्या त्या भांगराळ्या दिसांनी परत व्हरुंक शकनात.

कांय वर्सां आदीं हांवें एक सुविचार वाचिल्लो. एके घडयाळ तयार करपी कंपनीच्या अध्यक्षाचो. तो म्हणटा Time puts things in perspective. We cannot get . more of it; but we can certainly make most of it for ourselves and others. आनी हो वेळ आमकां सांगपी कोण तर ती घडयाळ ! कितलीं मुदयेर थीक अशीं उतरां हीं!

---

*मडगांव- मो. 9923306751*



# नवे संकल्प करप योग्यच पूण...

नव्या वर्सांत पावल दवरतना दर एक मनीस नवीं सपनां पळयता, नवो संकल्प करता. पूण कांय दिसा उपरांत तीं सपनां आनी ते संकल्प दोळ्यां देखत करपून वतात. अशें जावंक फावना. खास करून तरनाट्यांक सांगन दिसता तांणी केल्लो निश्चेव वा पळयल्लीं सपनां अर्दकुटीं सोडून दिवंचीं न्हय. तीं फळादीक जावंक पावतलीं हाची तजवीज करप, वावर करीत रावप हें जण एकल्याच्या हातांत आसता. मनांत हाडीत जाल्यार तुमी कसलीय गजाल पुराय करूंक शकतले हाची जाण आमकां आसता. तुमीय ही गजाल गांठीक मारून दवरची. यश म्हणटात तें रोखडें मेळना. वर्सांचीं वर्सां कश्ट, तप आनी साधना करची पडटा. तेन्नाच एखाद्र्याच्या पदरांत तें पडटा. सरकार चलयतल्यांनी याद दवरूंक जाय, आपल्या थळाव्या वाटाराची वा राज्याची उदरगत सादतले जाल्यार तरनाट्यांचो आसपाव करून घेवंचो पडटलो. जाच्या ताच्या शिक्षणा प्रमाण आनी तांचे कुवती प्रमाण शासनाच्या वावरांत तांकां वांटेकार करून घेवंचे पडटलें. क्रिडा, शिक्षण, कला, वाणिज्य, भलायकी, साहित्य अश्या साबार क्षेत्रांत आयचे तरनाटे बऱ्या पयकी योगदान दिवंक शकतात हें आमी विसरूंक फावना. एक बरो वावुरपी, प्रशिक्षक, कलाकार वा शिक्षक जावन फुडली पिळगी घडोवंक राज्याक आदार दिवपी असो तो तरनाटो आसूंक जाय. ही जापसालकी पालकांची, आमची आनी आमच्या सरकारची. आनीक एक खाशेली जापसालकी आमची आसता ती म्हणल्यार ह्या तरनाट्यांक सुजाण नागरीक घडोवपाची. जी आमी बरे तरेन करची पडटली. सरकारान तांकां नोकरी, वेवसाय करपा खातीर फावो तें वातावरण तयार करचें पडटलें. ना जाल्यार शिकून सवरून ही पिळगी बेकार बसत तर तांची शक्त नाडेपेन्ना करून नश्ट जावंक पावतली. तांची शक्त विधायक वावरा खातीर उजार जावंची अशें मत सगल्यांचेंच आसतलें. तांकां वायट विचारां पासून पयस दवरूंक होच एक उपाय म्हणल्यार चूक थारची न्हय.

तरनाट्यां खातीर गोंय सरकारचे वतीन साबार येवजण्यो चालीक लायिल्ल्यो आसात. पूण आयज मेरेन कितल्या तरनाट्यांनी ह्या येवजण्यांचो लाव घेवन आपलो फुडार घडयला आसत काय? गोंयकारांचे बाबतीत आनीक एक गजाल तितलीच खरी ती म्हणल्यार उच्च शिक्षीत तरनाटे नोकरी सोदतात. तांचीं सपनां पुराय जायनात देखून तांकांय फावो ती संद दिवंचो यत्न सरकार दरबारांत जावंक नाका



**एच. मनोज**

*पेशान शिक्षक. आदर्श समाज निर्मणेचो वसो घेवन वृत्तपत्रीय लेखन करतात. तांचो काव्य संग्रह आनी दोन लेखसंग्रह उजवाडाक आयल्यात.*

न्हय? अभियांत्रिकी आनी वखदां तयार करपाचें शिक्षण पुराय करतल्या भुरग्याक खाजगी आस्थापनात बरीच मागणी आसा हे सादेचो लाव घेवन ताणी आपलो फुडार थारावक हरकत ना. शिक्षकी पेशात पावल दवरूक सोदपी तरनाट्यांक मात सरकाराचेर निंबून रावचे पडटले. सरकारान निवृत्त जाल्ले शिक्षकाचीं पदां भरपाक सुरवात केल्या बगर ह्या तरनाट्यांचें भागचे ना. प्राथमीक शाळा स्थराचेर नेमणुको सुरू आसात तर हायस्कूल आनी उच्च माध्यमीक स्तराचेरूय सरकारान जाता तितले बेगीन योग्य मार्ग काडचो. काल पयर मेरेन गोंयकारां बद्दल एक वेगळोच सूर कानार पडटालो तो म्हणल्यार गोंयकार खाजगी क्षेत्रांत वावर करूंक पळयनात म्हूण. पूण ते दीस आतां फाटीं पडल्यात. आयच्या गोंयकार शिक्षीत तरनाट्यांक एक संद मेळत तर ते आपल्या रगताचें उदक करूंक फाटीं रावचेनात. गरज आसा ती तांचेर विस्वास दवरून तांकां जापसालकी दिवपाची. आमी गोंयकार सगल्याच गजालींनी पाशिंयेस काडटात. पूण उदक जेन्ना नाका मेरेन पावता तेन्ना परिस्थिती कशी जावंक पावता ती सांगची गरज ना. ह्याच कारणांक लागून खंयचीय सोसनाशिल्ली गजाल दिर्ग काळ मेरेन चलत रावप बऱ्याचीं लक्षणां न्हय. अशे वेळार गोंयकारांचे सोसणिकायेचो बांद सुट्टा आनी ताका वेगळें वळण लागता, जाचो परिणाम दुख दिणोच आसता हाचें भान दवरून आमी सगल्यांनी वावरूंक जाय. बेकार तरनाट्यांचो आंकडो कमी जावंकच जाय ही काळाची गरज. सरकारान जाता तितले बेगीन योग्य निर्णय घेवन वेग-वेगळ्या क्षेत्रांतल्यीं पदां भरपाक पावलां उबारपाक जाय. कारण आतांच्या तरनाट्यांक आपलें शिक्षण, नोकरी आनीक वेवसाय, बदलिल्लें पर्यावरण, समाजीक बदलाव, आपलो फुडार अशे जायते प्रस्न सतायतात. हरशीं बारीक विचार करीत जाल्यार गोंयच्या शिकपी भुरग्यांक शाळेंत वा स्कुलांत आसतनाच सर्वांगीण विकास घडोवन हाडपाचें शिक्षण थंय दितात. जाका लागून तांची बौधीक, शारिरीक आनी मानसीक वाढ बरे पयकी जावंची आसता. पूण तशी ती जातलीच अशें ना. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार शाळेंतलें, भुरग्यांच्या घराब्यांतलें आनी तांच्या अयस पयसचें वातावरण.

आमी गोंयकार भोव करून आपल्या भुरग्यांक बरी शिकवण आनी भुजवण दिवंचो प्रामाणीक यत्न करतात. अशें आसूनय कांय भुरगीं वायट मार्गार कित्याक वतात काय? हो प्रस्न सामाजीक जापसालकी बाळगुपी मनशाची न्हीद पिडड्यार करपी. जे अनैतीक प्रकार गोंयांत घडटात ते खऱ्यानीच शासनाक आडोवंक जमना काय कितें असोय एक प्रस्न सामान्य मनशाक पडले बगर रावचो ना. बारीक विचार करून पळयत जाल्यार असले अपराध करतल्यां मदीं गोयां भायलेच गुंथिल्लो दिश्टी पडटात. कांय तरनाटे वेसनाच्या नादाक लागतात. तांचो लाव उठोवपीय गोंयांत कमी नात. चोरी, गुंडा-गिरी, मारपीट सारकिल्ले अपराध करून फुज्रो काडटात. गोंय एक ल्हान राज्य जावन लेगीत अश्या प्रकारच्यो घडणुको आमी आडावंक शकनात ही व्हड शोकांतिका.

आयचो मनीस विचारांच्या हुंवारांत सांपडिल्लो दिश्टी पडटा. जाका लागून ताचे तकले वयलो पेज वाडत वता. हळू हळू ताचें आपल्या कामांत वा अभ्यासांत लक्ष लागना. तो एका फाटल्यान एक चुको करीत रावता आनी निमणो फसता. आपली चूक होलमता म्हणसर बरोच कळाव जाल्लो आसता. देखून ताका आपली निसरिल्ली गाडी रुळार हाडूंक मेळना जाल्ल्यान ताची पुराय जीण निरास जावन वता. हाचेर उपाय म्हणल्यार चिंतन, मनन आनी वाचन. दर एका मनशाच्या जिवितांत बरे तशेच वायट दीस येतात आनी वतात. बरे दीस खोशी दितात जाल्यार वायट दीस दुख्खां बराबरच बरी तशी वायटय शिकवण दितात. अशे वेळार आपले परस जो कोण दुखी आसत ताका सोदून काडप आनी ताचे जिणे पसून आपणें बोध घेवप. जाता जाल्यार आपले तांकी प्रमाण ताका मजत करप होच एक उपाय म्हाका जाल्यार मानवता. एक मेकाचें दुख्ख वांटून घेत जाल्यार खंय, दुख्ख नानपयत जाता आनी सुखाचो मार्ग मेळोवंक आदार जाता.

दुसरी एक गजाल दर एका मनशान याद दवरपा सारकी, ती म्हणल्यार आपलो फुडार येवजितना सकारात्मक दिश्टीकोण दवरप खूब गरजेचो. आमचे जिणेच्या मोडणार नकारात्मक चिंतपी जायते मनीस आमकां मेळटात. तांचो अणभव आमकां जायत्यो गजाली शिकोवंक शकता. तांची निर्शेणी आमची शक्त वा बळगें कशें जावंक शकता हाचो विचार आमी करून पावलां मारूंक जाय. फकत नवे वर्सा निमतानच संकल्प करचे परस, दर एक दीस नवो आनी उर्बे भरीत कसो जातलो हाचो विचार जावंक जाय. आपल्या सदच्या वावरांत स्वावलंबन दिसून येवंक जाय. सातत्यान नवे-नवे प्रयोग आनी आपल्या वावरांत वेगळेपण हाडचो यत्न जावंक जाय. तेन्नाच जीण सार्थक जावंक पावता. चलात तर आयज सावन नवें शिकपाची संवय लावन घेवया आनी हेरांकय शिकोवया. दर एक दीस नवो आनी खास करूंक वावरुया.

---

*वास्को गोंय, 9822441417*

# विश्वाची दोन तोंकां: सुक्षीमताये कडल्यान अनंताकडेन

## प्रकाश-वर्स ते नॅनो-मिटर

आमच्या दोळ्यां फुडें आशिल्लें अफाट आनी अनंत विश्वाचें रूप आमी पळयतात तेन्ना तें आमकां आमच्या कुस्कुटा समान अस्तित्वाची जाणविकाय करून दिता. जेन्ना सुक्षीम आकाराचें दुसरें रूप पळयतात तेन्ना तें आमचे बुध्दीमत्तेक एक आव्हान थारता. एके वटेन हें विश्व अफाट आनी अनंत अंतराचेर पसरता तर दुसरे वटेन लघू विश्व सुक्षीमतायेंतल्यान अतीसुक्षीमताये कडेन वता. उक्त्या दोळ्यांनी मनीस चडांत चड पयस आनी चडांत चड कितलें बारीक पळोवंक शकता? जेन्ना आमी दोळ्यांनी हें विश्व नियाळतात, तेन्ना चडांत



**विज्ञानदूत श्रीकांत शंभू नागवेंकार**

*आपल्याक विज्ञानदूत मानून विज्ञानाचें गिन्यान सोंपे भाशेंत कोंकणींत हाडून समाजाक विज्ञानाची गोडी लावपी विज्ञान शिक्षक आनी लेखक.*

चड पयसुल्ली वस्त, जी आमचे दोळे पळोवंक शकतात ती म्हणजे ऍन्ड्रोमॅडा गॅलक्सी. ती 25 लाख प्रकाश-वर्स पयस आसा.

एक प्रकाश-वर्स हें अंतर म्हणजे उजवाडाचे किरण एका वर्सांत जितलें अंतर वता, त्या अंतराक एक प्रकाश-वर्स अंतर म्हणटात. एका सेकंदाक उजवाडाचे किरण धर्तरीचे 8 फेरे घेता. ताचे वयल्यान एका वर्साक कितले फेरे जातले हाचो हिशोब करून हें अंतर कितलें अफाट आसा हाचो अंदाज करपाक येतलो. मिटरांनी हिशोब केल्यार एक प्रकाश-वर्स म्हणल्यार सादारण 10,000,000,000,000,000 मिटर (एकाचेर 16 शुन्यां). रातचें मळबांत नदर मारल्यार आमच्या दोळ्यांनी सादारण 3000 तारे दिसूंक शकतात. विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाक लागून व्हड व्हड दुर्बिणी निर्माण जाल्यात. त्या खातीर आमचे दिश्टीची



कुशळताय कितलेच पटीन वाडल्या. आमचे दुदगंगेंत 100,000,000,000 परस चड तारे आसात. विश्वांत वट्ट 100,000,000,000 गॅलेक्सी (दुदगंगा) आसात. म्हणजे विश्वांत वट्ट कितले तारे आसूं येतात हाचो अंदाज येतलो.

उक्त्या दोळ्यांक दिसपी पयसुली वस्त ऍन्ड्रोमॅडा गॅलक्सी. तर सगल्यांत लागींचो तारो 'सेंटॉरी' 4.2 प्रकाश-वर्स पयस. तर कृतिका (सात भयणीं) हें नक्षत्र, व्हड दुर्बिणितल्यान पळयल्यार तो ताऱ्यांचो चोंबो दिसता. तो 450 प्रकाश-वर्स पयस आसा. सांगपाचें म्हणल्यार, विश्वाचो आंवाट आनी विस्तार मेजपाक आंकडे पसून उणें पडटात.

आतां सुक्षीम विश्वाचेर नदर मारूंया. ल्हानांतली ल्हान वस्त आमी पळोवंक शकतात ती म्हणजे केंस वो धुळीचो कण. म्हणजेच 0.04 मिलीमिटर मेरेन. पूण सुक्षीम विश्व ताच्याकय कितलेंशेंच सुक्षीम आसा. सुक्षीमदर्शी, इलेक्ट्रॉन मायक्रोस्कोप, त्या भायर स्केनिंग टनेलींग मायक्रोस्कोप (STM²) ह्या अत्याधुनीक तंत्रज्ञानाक लागून आमी अणूंच्या भितरय नदर मारूंक शकल्यात. त्या आधारान नॅनो-मिटर आकाराचें सुक्षीम शास्त्र निर्माण जालां.

## नॅनोमिटर

1959 वर्सा रिचर्ड फायनमॅन (Richard Feynman) शास्त्रज्ञान आपले एका भौशीक भाशणांत अशें म्हणलें, 'देअर इज प्लॅंटी ऑफ रुम ऍट द बॉटम' (there is plenty of room at the bottom) तांच्या म्हणण्याचो अर्थ आशिल्लो, सुक्षीम अश्या अणुच्या पांवड्यार संशोधनाक खूब वाव आसा.

रिचर्ड फायनमॅन हे एक नांवाजिल्लो आनी नोबेल पारितोशीक फावो जाल्लो अणूशास्त्रज्ञ आशिल्लो. तांच्या ह्या उतरांनी उर्बा घेवन सुक्षीम विज्ञानाच्या संशोधनाक नेट आयलो. तांतूंतल्यान नॅनो टॅक्नोलॉजी जल्माक आयली.

नॅनो हें सुक्षीम माप, म्हणजेच नॅनो मिटर. मिटर हें आकार वो अंतर मेजपाचें स्टॅंडर्ड माप. व्हड माप म्हणजे किलो मिटर. तर ल्हान मापां मेजपाक आमी मिली मिटर अशे ल्हान वांटे करतात. शास्त्रीय पद्दतींत स्टॅण्डर्ड मापांचे ल्हान वांटे करपाची पद्दत अशी आसता. मिटराचे हजार वांटे केले म्हणजे मिली मिटर जातात. मिली मिटराचे हजार वांटे मायक्रो मिटर, (मायक्रो मिटराक मायक्रोन अशेंय म्हणटात). मायक्रो मिटराचे हजार वांटे म्हणजे नॅनो मिटर. म्हणजेच एका मिटराचो एक अब्जावो वांटो म्हणजे नॅनो मिटर.

बॅक्टेरिया सादारण 1 मायक्रोन परस ल्हान आसतात. ते आमच्या दोळ्यांक दिसनात. ते खातीर मायक्रोस्कोप वापरचे पडटात. रगतांतल्यो तांबड्यो पेशी 8 मायक्रोन आसतात. पूण व्हायरस ताचे परस सुक्षीम आसतात. ते खातीर इलेक्ट्रॉन मायक्रोस्कोप वापरतात. ताच्या आदारान आमी 200 नॅनो मिटर मेरेन पळोवंक शकतात. पूण अणू सादारण 0.1 नॅनो आसा. म्हणजे 10 अणू एके वळींत दवरले जाल्यार एक नॅनो जाता. म्हणजे अणूचें विश्व नॅनो परस सुक्षीम आसा अशें जाता. आमच्यो कुडींतल्यो पेशी आनी संस्था हीं नॅनो मशिनांच म्हणचीं पडटलीं.



## नॅनोटॅक (Nanotech)

पूण हें शास्त्र, आकारमानाचो अंदाज घेवपा इतलें पुरतें मर्यादीत ना. ह्या नॅनोची ताकद खूब व्हड आसा. शास्त्रज्ञांक अशें दिसलां, नॅनो पांवड्यार द्रव्याचे गूण बदलतात. म्हणून तें एक अत्याधुनीक तंत्रगिन्यान जालां, म्हणजेच नॅनो–टॅक्नोलॉजी (नॅनोटॅक).

तांब्यांच्या धातूचे कण 50 नॅनो मिटर मेरेन केले तर ताचें कडकपण म्हणजेच हार्डनेस (hardness) सादारण दुप्पट जाता. 25 नॅनो मेरेन तिप्पट जाता आनी ताच्याकय बारीक म्हणजे 6 नॅनो करीत तर कडकपण 5 पटीन वाडटा. म्हणजेच कण 'ल्हान तितली ताकद म्हान' अशें जालें.

तशेंच नॅनोच्या पांवड्यार धातुंचे रंग बदलतात. सादारण भांगराचो रंग हळडुवो आसता. पूण भांगराच्या नॅनो कणांचो रंग ताचे आकारा प्रमाण पर्पल, तांबडो अशे बदलतात. तशें पळोवंक गेल्यार भांगराच्या ह्या नॅनो गुणाचो उपेग प्राचीन काळा सावन जातालो. ग्रीक संस्कृतायेंत ग्लासाचेर डॅकोरेटीव वस्तूंक रंग घालपाक भांगराचें चूर्ण वापरताले. आयुर्वेदांत भांगराचें भस्म वापरतात. तर कण आनीकय बारीक करून ते पारदर्शक करूंक जातले, असो शास्त्रज्ञांचो अंदाज आसा.

नॅनो कण अत्यंत बारीक आसतात. मुठभर गंवाचें पीठ कितलें जाता, हें तुमी पळयतात. तशेंच एका क्युबीक सेंटी मिटराचो, म्हणजेच सादारण एका पेपरमिंट, नॅनो आकाराचो पिठो केल्यार उण्यांत उणें अर्दो फुटबॉल ग्रावन्ड भरतलो. हो गूण रसायनीक क्रिया घडोवन हाडपाक खूब फायद्याचो थारता. खूबश्यो उद्देगीक रसायनीक प्रक्रिया घडोवन हाडपाक 'कॅटालिश्ट' म्हणून रसायनां वापरतात. तांचें मुखेल काम रसायनीक क्रियेचो नेट वाडोवपा खातीर आसता. जर कॅटालिश्ट रसायनांचो नॅनो पिठो वापरत तर ताची क्रिया चड प्रभावी जाता. मोटारीक 'कॅटालिटीक कन्वर्टर' वापरतात. तांतूंत प्लॅटिनम धातू कॅटालिश्ट म्हणून वापरतात. नॅनो आकाराचे प्लॅटिनीमाचे कण वापरत तर ताची क्रिया अदीक प्रभावी जाता.

### स्केनिंग टनेलींग मायक्रोस्कोप (STM²)

नॅनोटॅक हें अणुच्या आकाराचें विश्व आसा. तें पळोवपाक इलेक्ट्रॉन मायक्रोस्कोपाची तांक उणी पडटा. इलेक्ट्रॉन मायक्रोस्कोपांतल्यान आमी 200 नॅनो मिटर पसून पळोवंक शकतात. म्हणजे व्हायरस आनी व्हड रेणूंचे (अनेक अणू एक जावन रेणू जातात. देखीकः संयोगां, पेशी बी) आकार पळोवंक शकतात. तरी शास्त्रज्ञ हात हालयत बसलेनात. तांणी अणुच्या खासा गुणाचो उपेग करून 'स्कॅनींग टनेलींग मायक्रोस्कोप'(STM²) तयार केला. ताचे आदारान शास्त्रज्ञ 1 नॅनो मेरेन पळोवंक शकतात. पूण अणुचो आकार ताचे परस 10 पटीन उणो आसा.

### नॅनोटॅकाचे उपेग

शास्त्रज्ञानी कार्बन अणूंचे नॅनो आकाराचे ट्युब केल्यात. तांचो डायमिटर 5 ते 10 नॅनो मिटर आसता. म्हणजे केंसा परस 40 हजार पटीन बारीक. इतलो बारीक पूण स्टिलाचे परस 100 पटीन स्ट्रॉन्ग आसता. ताचे मदले पोरस (pores) म्हणजेच पोकळी खूब बारीक आसता. ताचो उपेग फिल्टर म्हणून करपाचे यत्न चल्ल्यात. तांतूंतल्यान बॅक्टेरिया आनी हेर जंतू वचूंक शकचेनात. तशेंच एका भितर एक अशे नॅनो ट्युब लावन एक फिल्टर तयार करून दर्याचें उदक मिठा विरयत करपाचे यत्न जातात. ताका येस मेळ्ळें जाल्यार पिवपाचे उदकाची समस्या पयस जातली अशी आस्त आसा.

कार्बन नॅनो ट्युब स्पोर्टाच्यो वस्तू करपाक वापरपाक लागल्यात. टेनीस खेळगडे अशे तरेचीं रॅकेटां वापरतात. तीं स्ट्रॉन्ग आसतात आनी वजनानय ल्हव आसतात.

नॅनो कणांचो सेल्फ क्लिनींग (self-cleaning) गूण दिसून आयला. खंयचोय पृष्ठभाग आमकां कितलोय सुळसुळीत दिसलो तरी नॅनो पांवड्यार तो खडबडीत आसता. जर पृष्ठभागाच्या रेणूं मदलें गॅप 30 नॅनो आकारा परस ल्हान केलें. तर ताचेर उदक, चिखोल, धूळ दसपाक ना. तशेंच ताचेर बुरशी आनी बॅक्टेरिया वाडपाक ना. ताका लागून नॅनो तंत्रज्ञानाक सेल्फ क्लिनींग गूण प्राप्त जाला. ह्या गुणाचेर आदारून खूबशीं उत्पादनां बाजारांत आयल्यांत. केन्नाच म्हेळे जायनात तसले बूट, केन्नाच उमळचे पडनात असले कपडे, धूळ दसना असलो ग्लास तयार केला. सेल्फ क्लिनींग टॉयलेट, टायल्स, बेसीन करपाचे विचार चलतात. उदक टंचाय आनी स्वच्छताय राबोवपाक ह्या तंत्रगिन्यानाचो बरो उपेग जावंक शकतलो.

म्हारग मोटारींक नॅनो पॅन्ट (paint) वापरपाक लागल्यात. ते खातीर मोटारीक चिखोल, धूळ, उदक दसना आनी मोटार सदांच चकचकीत उरता. धुवपाचो वावर लागना. म्हत्वाचें म्हणचें कळम लागपाची प्रक्रिया लांबणेर वता. मजा म्हणल्यार नॅनो कणांचो हो गूण शास्त्रज्ञांक साळकाच्या पानांचें निरीक्षण करून कळ्ळो. ताचे पानाचेर चिखोल आनी उदकाचे कण दसनात. शास्त्रज्ञांक ताचें खोलायेन निरीक्षण करून अशें नदरेक आयलें की ताचो पृष्ठभाग नॅनो कणां सावन तयार जाता.

वखद शास्त्रांत तर नॅनोटॅकाचो व्हडा प्रमाणांत उपेग जावपाक लागला. कांय वखदां आमकां इंजेक्शना मार्फत घेवंचीं पडटात. नॅनो टॅक्नोलॉजी वापरून हींच वखदां पिल्लां (गुळयो) मार्फत दिवप शक्य जातलें. नॅनो सनस्क्रिन (sun screen) बाजारांत उपलब्द जाल्या. शास्त्रज्ञांनी नॅनो इतली दाट एक रिबन (ribbon) केल्या. ताचे मार्फत वखद कॅन्सराचे पेशी मेरेन धाडून कॅन्सरा आड उपचार करपाचे यत्न चल्ल्यात. म्हणचे त्या वखदाचो हेर पेशींचेर परिणाम जावंचो ना. तशेंच फुडाराक नॅनो आकाराचो रोबोट करून ताचेर फावो तो प्रोग्राम करून उपचार करपाची तजवीज शास्त्रज्ञ करतात.

हें अत्यंत किचकटीचें गिन्यान हे धर्तरे वयलो सुक्षीम मानव प्राणी, आपले बुध्दीचे तांकीचेर समजून घेवंक शकता, हें व्हड अजाप म्हणपाक जाय. म्हणून जगांतले व्हड शास्त्रज्ञ आल्बर्ट आईन्स्टायन म्हणटात; "The most incomprehensible thing about the world that it is comprehensible.'

रिचर्ड फायनमॅनान सुचयल्लें ते प्रमाण ह्या नॅनो-टेक्नोलॉजीन बरीच आस्त निर्माण केल्या. फुडाराक तें एक गरजेचें शास्त्र जातलें हातूंत दुबाव ना.

---

*मेरशे- मो. 9096512359*



# पुण्यभूंय गोंयांत पर्यटकांक लोकोत्सव हीच थारतली पर्वणी...!

आयज मनीस मागीर तो धर्तरे वयले खंयचेय सुवाते वयलो जावं यांत्रिकीकरणात दिसानदीस घुस्पत वचूंक लागला. तातूंत तांचें जिवीत शेणूंक लागलां. तातूंत अस्तंती मुल्यां ताचेर प्रभाव घालूंक लागल्यांत. हातूंतल्यान तांकां भायर काडून परत एक खेप तांचे मुळावे संस्कृताये कडेन व्हरप आनी तांकां तांची सुखी जीण परत भेटोवप हे पासत संवसारभरचे लोक परतून आपल्या मुळां कडेन वचपाच्या वावराक प्राधान्य दिवंक लागल्यात. आमचें पुण्यभूंय गोंय तशेंच आदलेवरीं पुण्यभूंय उरूंक ना. तेंय अस्तंती उदरगतीच्या प्रभावा खाला आपलीं मुळां शेणोवन वचूंक लागलां. आपली संस्कृताय वगडावंक लागलां. तांकां परत एक खेप आपले संस्कृतायेची वळख घडोवन तांचे पांय आपले मातयेंत थीर करपा पासत लोकोत्सव पुनर्जिवीत करपाची गरज उप्रासल्या आनी गोंय तेच दिकेन पावलां मारता. आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार संवसारांतले जे जे पर्यटक गोंयांत येतात तेय ह्या लोकोत्सवांतल्यान आपलें जिवीत नियाळूंक लागल्यात. आपले अंतरंगांत भारतीय संस्कृतायेचे रंग फुलोवंक लागल्यात. कितलींय तपां ही लोकसंस्कृताय काळाच्या पड्ड्या फाटल्यान आडसाक गेली तरी आयज तरनाटो तो पड्डो कुशीक सारून ती लोक संस्कृताय परत एक खेप समाजा मुखार हाडूंक आपले परीन वावरूंक लागल्या.

## रानदुकरा सावजः एका तपा उपरांत जावपी जात्रोत्सव!

कुडचडें हो आमच्या दक्षिण गोंयचो एक म्हाल. हांगच्या दरेक गांवांत त्या त्या वाठारांतली लोकसंस्कृताय आपलें खाशेलें दायज राखून आसा. कितलींय वर्सां उलगलीं तरी ते आपली संस्कृताय शेणोवंक दिनात. कुडचडेचो शेल्डें हो एक गांव. थंयची ग्रामदेवी सातेरी. ते देवीचे जात्रेक एका तपा उपरांत म्हणल्यार तब्बाल 12 वर्सांनी ह्या म्हयन्याक आरंभ जाता म्हणल्यार 30 जानेराक तो सुरू जालो.

शेल्डेचे सातेरी ग्रामदेवीक एक जागृत देवस्थान म्हूण वळखतात. दर बारा वर्सांनी हे देवीची जात्रा भरता. फाटले खेप 2011 त ही जात्रा भरिल्ली. त्या उपरांत आतां 2023 त ती भरता. ही जात्रा 12 दीस मेरेन तरातरांच्या विधीनी चलता. हे जात्रेची खाशियत म्हणल्यार जो मेरेन रानदुकराचें सावज मेळोवन ताच्या रगताचो नेवेद्य खेत्री देवाक दाखयनात तो मेरेन गांवकारांक ही जात्रा करूंक मेळना. ताका लागून तांच्या पुर्वजांनी थारावन दिल्ल्या वाटारांतल्यान गांवकारांक हें रानदुकराचें सावज सोदचें लागता. तेंय बी तांकां जाय तेन्ना न्हय तर जात्रेक बारा वर्सां पुराय जावंचे निमणे दिसा मेरेनच. त्या दिसा मेरेनच जात्रा आरंभ जावंक जाय असो दंडक आसता.

ओंदुचे जात्रेक देवीचेर अवसर आयलो आनी तिणें निर्देश केल्लो दिकेन सावज सोदपाक आरंभ जालो. ते प्रमाण ग्रामस्थांक धडे-सावर्डें वाटारांत कास मारपाक तांकां यश आयलें. मागीर तांणी शेल्डे वाटारांत पावले उपरांत ह्या सावजाक दांड्याक बांदून ताची वाजयत गाजयत मिरवणूक काडली.

हो एका तपा उपरांत जावपी जात्रोत्सव पळयत जाल्यार गोंयच्या धार्मिक आनी पारंपारीक रितिरिवाजांक गांवांत खुबूच म्हत्व आसा म्हणपाचें नदरेक भरता. तातूंतल्यान गांवचे परंपरेची आनी गिरेस्त लोकसंस्कृतायेची कल्पना येता. तातूंतल्यान त्या काळचो इतिहास आपसूक उसवत वता आनी लोकवेद संशोधकांक लोकसंस्कृतायेच्या मुळा मेरेन वचपाक संद आनी आदार मेळटा.

रानसावजाचें कास हो गोंयचे गांवगिरे लोकसंस्कृतायेचो एक अविभाज्य भाग. तांतूंतल्यान गांवच्या काल्या जात्रांनी धालांच्या मांडार सावजाची गरज लागता. काल्याच्या वेळार सावजाचें कास जायना जाल्यार खेळाचोच एक वांटो जावन गांवची व्यक्तीच सावज जाता. ताचेंच प्रतिकात्मक कास जावन धालांक आरंभ जाता. पूण शेल्डेचे हे सातेरीचे जात्रेक खऱ्या कासाची गरज भासता आनी तें कास आसता रानदुकराचें. त्या कासाच्या म्हणल्यार रानदुकराच्या रगताचो नेवेद्य चक्रा खेत्रीक दाखयल्या उपरांतच हे जात्रेक आरंभ जाता. ही गांवची पांचशें वर्सांची प्रदीर्घ परंपरा. रानदुकराचें





रक्त चक्रा खेत्री देवाक अर्पण केले उपरांतूच गांवचीं विघ्ना पयस जातात अशी आख्यायिका आसा. तेच पासत रानदुकराचें कास करून गांवांत ताच्या मांसाचो महाप्रसाद  वांटतात आनी तो प्रसाद घेवंक  सुमार पांचेक हजार लोक जमतात अशें म्हणटात. एक खेप रानदुकराचें कास करून ताच्या रगताचो नेवेद्य दाखयलो  काय पुराय गांवाक बारा दिसांचें सुतक लागता. तें सुतक सरल्या उपरांतूच बारा दिसांनी जात्रेक आरंभ जाता.
रानदुकर हो विध्वंसक प्राणी. ताची संतत वाडली जाल्यार ती गांवचे पिकावळीचो विध्वंस करून उडयता. ते पासत रानदुकराची वाड नियंत्रणांत दवरपा पासत गांवांक फुडें काडपा पासत आनी ताचोच जात्रेच्या रुपान उत्सव आरंभ करप ही आमच्या पुर्वजांची कल्पक नदर हातूंतल्यान दिश्टी पडटा.

**लोकोत्सवांतल्यान पर्यटकांक घडटा भारतीय संस्कृताय आनी परंपरेची वळख.**

कला ही मनशाचें जिवीत समृद्ध करता. मनशाक सतत उमेदी दवरता. हे कलेंतल्यान लोकोत्सवाचो जल्म घडटा. लोकोत्सव  घडयता त्या त्या गांवची परंपरा, गांवच्या मनशांचो जिवंतपणा आनी उत्साह. लोकोत्सवाच्या निमतान सोयरे दायरे, इश्ट मित्र गांवांत येतात. तांची सरबराय गांवचे लोक करतात आनी निर्माण जाता एकामेकां मदलें नातें घटमूट.
गांवची ही लोकसंस्कृताय  गांवांतूच दवरपाची काय ती शारांत व्हरून ताचें प्रदर्शन मांडपाचें हो एक सदांच वादाचो विशय थारला. पूण गांवचो कितलोच लोक वेवसाय,नोकरी, उद्देग हांचे पासत गांव सोडून शारांत रावपाक गेला. गांव सोडलो म्हूण गांवचीं सांस्कृतीक आनी पारंपारीक मुळां कांय तुटून वचनात. गांव सोडून शारांत गेल्लो मनीस वेव्हाराक लागून गांवाक जरी फाट करता आसलो तरी ताचीं दायजाचीं पाळां मुळां ताका फाट करीनांत. तीं तांकां सोदीत शारा मेरेन येतात आनी तांकां जिणेची उर्बा दितात.  शारांनी पर्यटना पासत येवपी सगलेच पर्यटक गांवांत वतले आनी गांवच्या उत्सवांच्या काळांत पावतलेच म्हणपाचें सांगू नज. म्हणटकच  गोंयची संस्कृताय, दायज, लोकवेद, परंपरा पळोवपाच्या हावेसान  राज्यांत येवपी पर्यटकांक तांचें दर्शन दाखोवप हें राज्याचें कर्तव्य थारता.
लोकोत्सव हो सगले तरेची कला सादरीकरणा पासत आदार थारता. तातूंत हस्तकला, लोकसंस्कृती, खाद्यसंस्कृती  ह्या सगल्याकं लोकोत्सव हें एक व्यासपीठ थारता.



## रवींद्रनाथ ठाकुर

अणकार : माधव बोरकार

### ताई

रचपा खातीर विटांची भट्टी अस्तंते कडले वावराडे
उस्तितात माती
तांच्यांतली एकली धाकली चली
आसा घाटार यो वच करीत;
कितले तांबये.वाटयो आनी ताटां
आसा हाडून घाशीत पुशित.
दिसांतल्यान शंबर फावट
येता धांवत धांवत
कांकणां पितुळचीं
पितळेचेर खणखण आसता वाजत.
ती आसता सामकीच ताकतिकेंत सगलो दीस
माथें ताशिल्लो,चिखलांत माखिल्लो
आंगार वस्त्र नाशिल्लो
असो तिजो भाव धाकलो
तिज्या फाटल्या फाटल्यान पोशिल्ल्या सवण्याभाशेन
येता आनी बसता ताईचे आज्ञेप्रमाण
हालऽ धोलऽ नासतना ऊंच देगेर धिटायेन–
भरिल्लो घेवन कळसो दाव्या खाक्यांत ताट
आनी उजव्या हातांत भुरग्याचो धरून हात
वता चली
आवयची प्रतिनिधीच ती,
कामाच्या वज्याखाला बागवल्ली
सामकी ल्हानशीच ताई!

### आपालिपा

आई गे, जर हांव आडांगीपणान चांफ्यार
चाफें जावन फुल्लों
आनी झाडाचे खांदयेर फांत्यापारार
कंवळ्या पानार लोळ्ळों
तर तूं हरतली म्हजे मुखार,
आनी म्हाका वळखतली तेन्ना तूं?
तूं उलो मारतली पुता खंय आसा रे तूं?
फकत हांसतलों हांव ओग्गी रावन.
काम करूंक बसतली जेन्ना तूं
तेन्ना तें सगळें दोळे उक्ते करून पळयन हांव;
न्हावन फाटीर सोडून मेकळे केंस
येतली तूं चांफ्याखाला सावन
वतली देवा कुडींत थंयच्यान,
येतलो फुलांचो पर्मळ तुका पयसुल्ल्यान
हो आपल्याच भुरग्याच्या आंगाचो पर्मळ
तेन्ना तुका समजुचें लागीत ना.
सगळ्यांचीं जेवणां जातकच दनपारच्या पारार
बसतली तूं घेवन हातांत महाभारत.
येवन घराच्या जनेलांतल्यान झाडाची सावळी
तुजे फाटीर–मांडयेर पडटली
हांव म्हजी सावळी धाकटुली
हालयतलों घालून तुजे पुस्तकार
समजुचें लेगीत ना तेन्ना तुका
कीं उफेता सावळी पुताची आपल्या दोळ्यांत.
आमोरेर लावन दिवो
जेन्ना तूं वतली गोठ्यांत
तेन्ना फुलांचो खेळ खेळून हांव
पडटलों अळंग भुंयेर गळून
तुजो भुरगो जातलों परत हांव
म्हणटलों तुजे सरी येवन,'काणी सांग.'
म्हणटली तूं 'तर्पाशोर,खंय आशिल्लो?' म्हणटलों,'
ती काणी मात सांगचोंना हांव.'

## ► काव्यफुलोर



आर. रामनाथ

### *हे म्हज्या विठ्ठला*

हे म्हज्या विठ्ठला
निदान आतां तरी
देंव तूं सकयल
तुजे ते अपुरबायेचे विटे वयल्यान
आनी बिनदिक्कत यो तूं ह्या तुज्या सभाग्यासरीं...
उपरांत घालय तुजे कांय मोलादीक खीण म्हजे वांगडा
सांग म्हाकां चार म्हज्या हिताच्यो गोश्टी
बारीकसाणेन वाच हांवें तुजेर बरयल्लो अभंग
तूंच लाय ताका स्वर्गीय चाल
आनी उपरांत तल्लीन जावन तूंच गा तो अभंग
ब्रह्मानंदा सयत ...
तुज्या त्या अठ्ठावीस युगांचें बी मागीर पळोवंया ...

तशें पळयल्यार
तूं कमरेर हात दवरून नाचय ना
आनी विटेर उबो रावन तूं कसरतूय करी ना
आयज मेरेन तुवें तुजी मान वळोवन
रखुमाई मातेक केन्ना पळयलीच ना
इतकेंच कित्याक आयज मेरेन विटे वयल्यान देंवन
तुवें तुज्या एक्काय भक्ताक केन्ना वेंगेंत घेतलोच ना...

हे म्हज्या विठ्ठला,
खरेंच तूं ते विटेर उबो आसा?
खरें तेंच सांग ...

---

*रायंगीणी – बांदोडें, फोंडें, मो. नं. 9850458763*



घनश्याम बोरकार

### *खिळयो-कुलपां तोड रे सगळीं*

खिळयो–कुलपां तोड रे सगळीं, बंदखणिचीं दारां
उक्ति कर मनाचिं तुज्या जनेलां आनी दारां ।।धृ।।

जळमटां काडून वडय,निवळ कर ते कोन्शे
सान्न मार, नवें कर तुजें, घर तें बुरशें,पोल्शें
मळब घेवन आयलां पळय प्रकाशाची धारा
उक्ति कर मनाचिं तुज्या जनेलां आनी दारां ।।1।।

ओगी रावन आयक तुं दिव्य परेची ती वाणी
आनी मागीर गा रे पुता, मांगल्याचिं गाणीं
उचंबळता दर्या, घेवन चैतन्याचीं ल्हारां
उक्ति कर मनाचिं तुज्या जनेलां आनी दारां ।।2।।

खेद, खंत, पूर्वस्मृति सगळें दवर तुं फाटीं
खिणा खिणा पेटय मनांत आनंदाच्यो ज्योती
तुका मेळपाक विश्वदेव उबो तुज्या दारा
उक्ति कर मनाचिं तुज्या जनेलां आनी दारां ।।3।।

---

*22.12.22 (फांतोडेर 3 वरां)*
*ठाकूर व्हिलेज,कांदिवली,मुंबय.*

रुपा कोसंबे

## हर घर तिरंगा

देशाक आमच्या स्वातंत्र्य मेळून
जालीं पंच्चात्तर वर्सां पूर्ण
कोणाचे सुपीक तकलेंतल्यान
आयली एक भन्नाट टूम

आनी पंदरा आगोस्ताक आमचो
आयलो उत्साह उमाळून
'हर घर तिरंगा' संकल्पनेन
सगळो देश गलो फुलून

नेटान आमी बाजाराक वचून
वीस-पंचवीस फारीक केले
आनी घराचेर तिरंगा लावन
देशप्रेम आमचें परगटायलें.

कित्याक कशें कोण जाणां
सगळ्यांकूच अशें दिसलें
तिरंग्याच्या रुपान देशाप्रती
कर्तव्य आमी पुराय केलें

तिरंग्याचोय म्हूण तो झेत
कितलो म्हणून सांगपाचो
घरां-कार्यालयां,इमारतींचेर
नेट ताचो धोलपाचो

रांदनी वयल्या बुडकुल्यांत
पेजे कुंयां सामकी पोंदाक
खोपटेचेर वयर मात
तिरंग्यान केलां वयर नाक

ह्याच तिरंग्याच्या नांवाचेर
कितल्या जाणांनी धंदो केलो
आनी खूबश्या लोकांचो
गल्लो काटोकाट भरून गेलो

राजकारणी लोकांनी तर
हे संदीचें भांगर केलें
मतदारसंघांत फुकट वांटपाक
वयर तकली काडून भोंवले

पूण हालींच म्हज्या सपनांत
होच तिरंगा आयलो
पळोवपाक खरेंच कसो
हारिल्ल्या झुजाऱ्यावरीं दिसतालो

नाकाचो शेंडो तांबडो करून
रागान सामको धुमसतालो
भुरग्यांवरीं हिमट्यो काडून
दुकां आपलीं व्हांवयतालो

पक्षबदल,भ्रश्टाचार,बलात्कार,खून
सगळें सगळें तशेंच उरलें
तीन दीस मखरांत बसोवन
अस्तीत्व म्हजें जळोवन उडयलें

कित्याक गा तुमी असो
लाखांनी मिटर कपड्यांचो अपव्यय केलो
स्वातंत्र्याक कितलींय वर्सां जालीं जरी
आशिल्लों तसोच हांव बरो आशिल्लों

कितलो तुमी गोबोर केलो
म्हाका लागून लुगटाचो
तोच कपडो देशांतल्या
कितल्याच जाणांचें आंग धांपपाचो

गरीब-दीन जनता बाबडी
आशिर्वाद तुमकां दिवपाची
आनी हीच खरी मोख आशिल्ली
लाभिल्लें स्वातंत्र्य मिरोवपाची

सपनांत आयिल्ल्या त्या झेंड्यान
सामकें म्हाका अस्वस्थ केलें
पूण हांव तर आम आदमी
हातार हात चोळीत बसलें...

करंझाळे- मो. 9404914437

माधव बोरकार

## सप्नाचे मेळे

राम राय साय सुंटल्यो
तळ्यांत कळ्यो मिटल्यो
उजवाडांत आमोरेच्या
सावळ्यो गौळणी भेटल्यो

जाता मोनी दिवेलावण
आतां गौळणीच्या गांवांत
भरता रंग काळे निळे
वाटेर कोरिल्ल्या नांवांत.

काळजाच्या कांठार उबो
गौळणीचो सावळो
येता पैसुल्ल्यान लागीं
दोळ्यांत सप्नांचे मेळे

*2-12-2022*

## रंगांची राणी

केंस वळयल्ले वरी
हीं नांगरिल्लीं शेतां
सकाळच्या पारार
न्हाण वताचें घेता.

झाडां तळा गच्च
सावळ्यांची वस्त्रमाळ
गूढ स्पर्शाचीं खिणां
अळंग मनाक माळ.

कळटा नकळटा
अशी अव्यक्त काणी
कांतयल्ल्या मळबाची
ओली रंगांची राणी

*25-11-2022*

तालगांव- मो. 9420222876

## ▶ काव्यचंवर

अशोक कृ. प्रभू मोये

### शांती

संवसारांत शांतीची खरेंच गरज आसता
शांतीक लागुनूच जीवनांत मजा येता
संवसाराची उदरगत जाता
संवसारांतले सगळे देश लागीं येता
दर एकल्यान शांतीची उपासना करूंक जाय
ती मेळोवपाक रात दीस झटपाक जाय
ती मेळोवन आनंदान जीवन सारूंक जाय
शांती सदांच तिगोवन दवरूंक जाय
शांतीक लागून भलायकी बरी उरता
जीवन जगपाक उमेद येता
काम कश्ट करपाक ताकद मेळता
जीवनांत एक व्हडलो आदार मेळटा
शांतीनूच मनशान प्रश्न सोडोवंक जाय
ताका लागून झगडीं कुशीक सारुंक जाय
माये मोगान एकामेकां कडेन वागूंक जाय
सुंदर जीवन बरे भशेन घालोवंक जाय
शांतीनूच गांधीजीन स्वातंत्र्य मेळयलें
भारताक परकी राजवटींतल्यान मेकळें केलें
भारतान प्रजासत्ताक सरकार हाडलें
देखुनच भारत उदरगतीक पावलें
ओम शांती शांती म्हणत रावात
तातूंतल्यान जीवनांत स्फुर्ती हाडात
देशाक बलाढ्य करात
जगाक शांतीचो संदेश दियात

---

*तळगांव –मो.9822486180*

डॉ. उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार

### अहंकार

वनवास सोंपोवन श्रीराम परतलो
कौसल्या आवयन ताका विचारलें
रावणाक तुवें मारलो?
श्रीरामान पांयां पडत जाप दिली
रावणाक हांव कित्याक मारतलों?

महाज्ञानी, महाप्रतापी,महाबलशाली
प्रखंड पंडित,महाशिवभक्त
चारुय वेदांचो ज्ञानी
शिवतांडव स्तोत्र बरोवपी
रावणाक हांव कित्याक मारतलों?

अहंकारान कोणाकूच भोगसूंक ना
धनाच्या अहंकारान कोणाकूच वाचोवंक ना
बळाच्या अहंकारान कोणाकूच सावरूंक ना
ज्ञानाच्या अहंकारान कोणाकूच सांबाळूंक ना
देवाच्या दरबारांत आहं साथ दिना.

रावणाक 'हांवपणान' मारलो
ताका 'हाव'चो अहंकार जालो
'हांव'क लागून तो मस्त जालो
'हांव'क लागून तो देव धर्म विसरलो
निमाणें 'हांव'पणानूच ताका मारलो.

---

*कांझाळे– मो. 9823 066540*

सोनाली सु. पेडणेकार

### सुगरण अंदाज चिमूटभरार

हांव सुगरण करतां जेवणां अंदाजार
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

कळोंक तुका जाय केन्ना किर्ते घालूंक जाय
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

रेसिप्यो यू ट्यूबार ग्राम चमच्यांचो आधार
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

मेजीत बसत, चव गो खंयचे खंय
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

कश्ट करीत जाल्यार कश्ट जातात गोड तसो
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

मिठाचो अंदाज ना येवंचो चमच्यार
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

जेवण जर रुचीक रुचीक मेळोंक जाय
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

आईचो अंदाज घेवंन घरांन घर घडटा सुगरण
अंदाज गो म्हजो फकत एके चिमूटभरार..

---

*वास्को– मो. 9420766769*

# सुचोवण्यो



जाणटीं मनशां म्हणल्यार दिर्घ अणभवांचें भांडार. तांच्या ह्या गिरेस्त अणभवांचो मुखा वयले पिळगेन फावो तितलो फायदो मारून घेवंचो आसता.

अशीच अणभवान गिरेस्त म्हजी मांय. पीठ धरून मिठा मेरेनच्यो जायत्यो गुपीत सुचना तिचे लागीं आसात. घरचीं सगलीं तिका मोगान 'माई ' ह्या नांवान पाचारतात. माई, ताई आनी बाई ह्यो म्हज्यो तीन मावळणी. तिगीय सगल्यां कामांनी हुशार, कश्टी आनी कलामोगी. रांदप आनी शिवणसूत ह्या दोन कामांनी तर तीं सामकीं फिशाल. ताका लागून रांदपा विशींचे जायते गुपी सल्ले तांचे लागच्यान
आमकां वेळा वेळार मेळत आयल्यात. तश्यो लग्ना आदीं आजयेन आनी आवयन दिल्ल्यो सुचोवण्यो आमचे गांठीक आसाच. पूण माईले 'नुस्के' वा 'टिप्स' भांगराक लेगीत फाटीं घालत अशे!

कुळारा तशेंच घोवा घरा माईन सगल्यांचीं मनां जिखल्यांत म्हणल्यार जाता. घरची व्हडली सून ह्या नात्यान तिणें आतां मेरेन जायत्यो उस्तवरी काडल्यात. आयिल्ल्या गेल्ल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांचें रांद-वाड तर विचारूंच नाकात. कोणूय केन्नाय येवं हांसत्या तोंडान ती येवकार दिता. आयजूय सोयरीं तिका मुजरत भेटपाक येतात.

आयज तिगेली पिराय सत्यांयशीं वर्सांची जाल्या खरी पूण एखादें मसाल्याचें सुरबूस तोंडाक, शागोती, सांबारें वा सादी हुड्‌डमेथी बी करतलीं जाल्यार मुजरत तिजे लागच्यान आमी मसालो काडून घेतात. काडून दिल्लो मसालो आमी सुनो कशाय कसो भाजत म्हूण ती म्हऱ्यांत उबी रावून वेवस्तीत एक एक नग आमकां भाजून काडूंक लायता. अदीं मदीं पयलीं अमकें, मागीर तमकें अश्यो सुचोवण्यो चालूच .

आदले तेंपार सगल्यां घरांनी खारें, पापड, सोलां, मिरसांगो, मीठ, खळांतल्यो आंबल्यो, सांडगे बी दवरपाक पुरुमेंताची कोठये कूड आसताली. ताका लागून एकाद्रो जिनस सोंपल्यार हुस्को नासतालो. आयज कोठये कुडीची सुवात फ्रिजान घेतिल्ल्यान कितें जाय नाका तितलेंच हाडप जाता. चुकून हळसांडे, खारें फ्रिजांत दवरप जाता इतलेंच! म्हयन्या भराच्यो वस्तू हाडटकच जिन्नस डब्यांनी भरतना परत 'आगो, इल्लें पोतयांनी सांडांत आनी मागीर सगल्यो पोतयो वेवस्तीत जाग्यार दवरात.' असो मोगाळ सल्लो दिवंक ती केन्नाच विसरना. आनी खरेंच, अचकीत सोयरो बी आयल्यार आमची धांदळ जायना. ना जाल्यार केदो आकांत जावं येता न्हय? दुसरी गजाल, रांदतना पूर्व तयारी करून मागीर पदार्थ करूंक हातांत घेवप होवूय तिगेलो असोच एक उपयुक्त सल्लो. नाजाल्यार हींग जिरें, सांसवां सोदता म्हणल्यार तेल तापून फोडणी करपता. तर केन्ना गॅस सरता.

नीज गोंयचीं, तशेंच बेळगांवचीं कर्नाटकी जेवणांय ती बेस बरीं रांदता. तिगेली इडली आनी आपले खाशेले पद्दतीन केल्लो आंबट- तिखट सांबार, सांगाताक भिकणां, कोथमीर आनी तांबड्या मिरसांगेची फोडणी मारून केल्ली दाट- पातळ चटणी सगल्यांची घोस्ताची. हीच रूच तिचे पुतांकूय लागल्या. सांबाराचेर तांचें भागना,




**काश्मीरी पावस्कार**

*शिक्षकी पेशांतली लेखिका,ललित लेखनांत फिशाल. तांचें 'कपयाळें' हे ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडाक आयलां.*

वागडा चटणेचीय फमाइश आसता गोड, आबटाण घालून केल्ली भरिल्लो ढब्बू मिची, वायगे, तेडल्याची, टोमॅटोची 'रेसिपी'य हांवें तिचे लागच्यान कॉपी मारल्या.

पक्वान्न कसलेंय आसूं, ताची रूच मात लेगीत हे वटेन ते वटेन जावक जायना रोखडींच ती आनी मांव दोगांय सांगतलीं, 'मातशें मोव जालां, हरवें उरलां, खंयचें फोण्ण करपला,तोपाक लागलां, उदक उणे पडलां' बी सारके अचूक कमेन्ट्स आसताच. तिगेल्या 'मातशें ' ह्या उतरान इल्ली थाकाय मेळटा इतलेंच! तिचो आनी मांवालो एखादो बरो शेरो मेळप म्हणल्यार व्हडली सर्टिफिकेट कशी! आमी दोगीय सुनो ताची उमळशीकेन वाट पळयतात. खरेंच! फाटलीं तीस वर्सां माईले हातचे जिन्नस खावंक मेळप हें हांव आमचें भाग्य समजतां.

आतां हांवूय इल्लें इल्लें माईवरी सगलें रांदूंक शिकलां. पूण तिगेलो 'सानो' वा शिरो वा उपीट म्हाकां जमनासलें. सुटयेंत बेळगांवां वतकच घोवान आवयक म्हणचें, 'तुजो स्पेशल शिरो मातसो हाका शिकय.' निमणें जायती तकालस घेवन हांव ताच्या मना सारको शिरो करूंक शिकलें. उरला तो मसालेभात.

'पासिंयेंस' हो माईलो विशिश्ट गूण. कसलेंय काम पासिंयेंसान कशें करप हें कोणेंय तिचे लागच्यान शिकचें. च्यावेक फोडिल्लो बिस्किटां पुडो धरून हेर कसल्योय वस्तू ती पासिंयेंसान सुतान, रब्बरान वा कागदान वेवस्तीत बांदून दवरता. केल्लो पदार्थ बरो शिजोवन, परत खतखतावन दवरता. तिणें आपल्यो लग्नातल्यो साडयोय तश्या तश्यो अळंग बऱ्यो कपड्यांत बांदून दवरिल्ल्यो आसात. ते भायर दिसरात बसून पुतांक, नातरांक सोबीत गोधड्यो मांडल्यात तांचो तर हिशोबूच ना. नम्र आनी शांत स्वभाव पूण आवाज मात खणखणीत.

शाळेक वच्चे अर्द वर पयलीं पीठ कालोवन ताचेर तेला हात लावन दवरल्यार सकाळीं केल्ल्यो चपात्यो रात मेरेन बऱ्यो लुसलुशीत उरतात, तशेंच तोरांचें, लिबांचें, मायमुळांचें लोणचें करतना पुराय साहित्य पुंजावन, बरे तरेन गरम करून मागीर ताचो मेथो केल्यार लोणचें बाराय म्हयने तिगता. ते भायर शाक भाजी उदका बगर, तेलार तळसून, वयर शिब्यार उदक घालून शिजोवंची. दाळ कुकराक लायतना तोपार वयर धांपणें घालून बटाट शीजत दवरचे. तशेंच पोळे वा डोसे करतना केन्ना तांदळांत ताक, वा नाल्लां उदक घालून भिजत घालचे. तर केन्ना तांतूंत तूरदाळ, उड्डां दाळ घाल्यार पोळ्यांक घिरे पडून ते दाटसार जातात. तशेंच बाटलेंतलें धंय ओतून काडटकच बाटली नितळ धुंवन परत



विरजण घालप. ना जाल्यार धंयाक एक तरेचो वास मारता. (पूण माईलें 'धंय ' वा 'लोणी ' ते भशेन! तूप करतना घरभर तुपाचो सुरबूस वास सुट्टा. (हांव मात तुपाचे भानगडींत केन्ना पडना. कारण घोवाक आनी धुवेक दोगांकूय दुदावास नाका. म्हजे पुरती हाडिल्ली दुदा पोती चार पांच दीस पावता. ताचें तूप तें कितलें! आसूं, अश्यो तिच्यो मोलादीक सुचोवण्यो हांव मुजरत आपणायतां.

मटण खिमा, होळयेची पुरण पोळी ( आंबट– गोट कट वा सार) सानोऱ्यो ,आळूवडे आनी कणगां नेवऱ्यो हे तर तिगेले 'सिगनेचर' डीश. मटण खिम्या खातीर खरपूस भाजून काडिल्लो वेंचीक मसालोय हांवें तिचे लागच्यान शिकून घेतला. मटण जून आसल्यार तन्नी पोपाय घालची ना जाल्यार मटण बरें शिजना, ही सुचोवणीय केन्ना केन्ना बऱ्याक पडटा. कारण गोंयचें मटण चड करून जून आनी खिमोय मोठसार. सद्याक म्हजीं बिराडां दोन कडेन जाल्ल्यान तिगेल्यो गुपीत सुचोवण्यो सामक्यो कामाक येतात. हांव त्यो चालीक लायतां. ना जाल्यार सोशल मिडिया आसाच.

अंदू वर्साक मांय मांवाल्या लग्नाची साठावी पुराय जाता ही तर आमचे खातीर सामकी खोसदिणी खबर! अशे सुगरण माईलो हात धरपी, तिका फाटीं उडोवपी आमच्या घराब्यांत जल्माक येवचो आसा अशें म्हाका दिसता. तो मेरेन माईल्यो गुपीत सूचना, सल्ले सीर आंखो पर!!!!

---

*शिवोले, मो. : 9421192858*

# चीज आनी सोबीत कालव्यांचो देश- हॉलंड



हांथरुणाक खिळिल्ली आमची आई खूब सोंसून मार्च 2011 त मुक्त जाली. तिची उणीव आमकां केदनाय भास जावपी आनी प्रती खीण तिची यादीन मन भरन येत्तालें. अशें सगळ्यांलें मन दुक्कान विचलीत जाल्लों तेन्ना, ॲमस्टरडेमांत रावपी म्हज्या भाच्यान तागेलें नवीन घर, नवीन बायले सांगात रचयिल्लो नवीन घराबो पळोवपाक (गोंयातूंच चार महिन्या फाटीं लग्न जालेलो) आमंत्रण धाडलें. थोडे दिसान तिकीट सुद्दां येवन पावलें. 'भगवान देता है तो छप्पर फाडके देता है' ही आदगत खरी थारली. आमकां जाय आशिल्ली, ब्रेक छप्पर फाडके आयले म्हूण आमी सगळीं खूब खूश जाल्लीं.

टर्किश विमानान इस्तांबुल वाटेन आमी ॲमस्टरडेमांक पावलीं. नवीन जोडपीं आमकां आफोवंक आयलीं. म्हजे तीन आठवडे ह्या सुंदर परिसरांत आनी गौतम- राजी हांगेले प्रित आनी आदराचे सहवासांत कशे दीस गेले कळूंकच ना. म्हजें मन भारावन गेल्लें. दर दिसाचे भोवंडीक बस, ट्रॅम वो मेट्रोचे पास तिग्गांकय काडून दिल्ले आनी आमी फांतोरञ्यार गांव पळोवपाक भायर वतालीं. वीक- एंड्स पिकनीक, बोट रेस, पार्कांत, जंगलांतु मॉल्स वा हॉटेलांत आमकां घेवन व्हरतालीं. अशे आमचे दीस खुशालेन गेले.

### थंडीचो अणभव

आमी गेलीं तेन्ना युरोपांत हुनाळो आशिल्लो. पूण ,गोंयां थाव्न गेल्ले आमकां थंयची थंडी सहन जायनाशिल्ली. भायर गेल्यार थंड वाऱ्यान कुडुकुडो येत्तालो. हांगा दीस व्हड म्हूण खबर आशिल्ली आनी आमी ताचो अणभव घेतलो. रातीचे बारा वरां थंय उजवाड आसतालो. दोळ्यांचेर उज्वाड पडनाशी जनेलांचें शटर्स बंद करन न्हिदूंक जाय आशिल्लें. सकाळीं सात पर्यंत परतून उजवाड!

हांगचे लोकांक वत पडतकीर तांगेले मिनी कपडे घालन सनबाथ घेवंचो आमकां किचनांतले जनेलां देकून दिसप. चेरडूंव, व्हड सगळीं भायर येवन वताचो बरो उपेग घेतात. वर्साचे आठ म्हयनें उत्कट थंडी आसतना वताळ पळोवन भारी खोश पावतात हांगचे लोक. त्या निमतान गोंयचो धग्ग वा वत ह्या लोकांक कित्याक आवडेंता म्हूण कळन आयलें.

हे हवेंत सुटसुटीत जाल्लीं आमी! सकाळीं फिरुंक वत्तालीं आनी हांगा भरपूर भोंवडी करतालीं, ह्या थंड गार वातावरणांत. हांगचीं एक प्रकारे घरां, घरा फाटल्यान व मुखार सुंदर आनी विंगविंगड फुलांचे बाग पळोवन मन आनंदी जावप. स्वछताय व नागरी अक्कल मात्र आम्कां ह्या लोकां कडून शिकपाची गरज आस्सा हें लक्षांत आयलें.

### रंगबिरंगी ट्यूलिप

हॉलंड हो देश सुंदर कालव्यां खातीर नामना आसा. अनेक अंतरराष्ट्रीय प्रवासी हांगच्या नौकायानाचो लाभ घेवन हॉलंडची मनोहारी सुवात पळोवपाक वत्तात. रस्त्यांच्या दोनूय दिकान कालवे, सुंदर सवणीं आनी फुलांनी सुशोभीत दिसपी. समुद्र पातळी पेक्षा सकयल हो देश आसा. त्या खातीर व्हडले बांद बांदून, वेगवेगळ्या नाल्यांत उदका वेवस्ता करन सगळो देश पांचव्या तणाचो माळ केला. पयशिल्लें हिरवें हिरवें गायरान आनी तांतूंत चरतले दष्ट-पुष्ट गोरवां पळोवंचेच एक गम्मत. ह्या खातीर हो देश दूद आनी चीज हाका नामनेचें आसा. हांगच्या प्रत्येक खाद्यांत चीजाक प्राधान्य आसा.



**सुषमा अरुर**

*लेखिका अणकाराच्या मळार वावुरता,ललित,भोंवडे वर्णन बरोवपांत रुची.*



## एमस्टरडॅमांतली सायकल

हांगा बस, ट्रॅम आनी मेट्रो रेली सुविधा आस्सुन बी भोवतेक दादले, बायलो आनी शाळेक वत्तले चेरडूंव सगळीं एके सायकलार बसून वतना पळयलें आसा! एक भुरगो फाटल्यान, दुसरो मदीं आनी तिसरी फुडें बास्केटांत! ऑफिसाक सूट- बुटांत लोक सायकलारीच वतात. ल्हान वयाची आवय कमीत कमी दोन ते तीन चेरडूवांक प्रेमांत वा सायकलाचे बास्केटांत बसोवन, अथवा ट्रॅमांत, बशींत वा मेट्रोर सायकल घेवन व्हरपी. डिजेलाची उणीव आसातना, पर्यावरण नितळ दवरूंक सायकल हें वाहन सगळ्यांत उणे खर्चाचें आनी उत्तम अशें म्हळ्यार लोक म्हाकां पिशांत काडतले की कितें?

## म्युझीयमाचो प्रवास

ॲमस्टरडेमांत वेगवेगळे म्युझीयम आस्सत. तांतूंत आमी, वॅनगॉग म्हळ्ळिलो युरोपचो एक उत्तम चित्रकार व पेंटरालें म्युझीयम पळयलें. ज्यू लोकान राबचे गल्लितुलें ॲना फ्रेंक कुटुंबाचें घर पळोवपाक गेलीं. ॲना फ्रेंक ही एक ल्हान चली आनी तिगेलें कुटुंब जर्मनीच्या हिटलराल्या अत्याचारांक भिवन ताणी आपलो जीव वांचून घेवन लिपून राविल्लें घर आतां ॲना फ्रेंक म्युझीयम जाला. ॲना हिणें बरयल्ली डायरी संवसारीक नामनेची आत्मचरित्र जाल्या. तिगेले घरांत तिणें बरयल्ल्यो, व्यक्त केल्लेल्यो पंक्त्यो धंयचे घराचे वणतेर बरयलेल्यो आस्सत तांचे जिवितांतलीं कठीण वरसां ताणी कशी हे घरांत जियेलीं हें दोळ्यान पळयले उप्रांत परिस्थीतीची चड जाणीव जाल्ली.

## विंडमिलाचो कमाल

ह्या देशांत आनीक एक विशेश पळोवंपाची वस्तु म्हळ्यार हांगची पारंपारीक जावन आशिल्ली पवन- चक्की (विंडमिल). हाचें इतिहासीक मोल समजून घेवन ताचें संरक्षण केलां. हांगा रयीन आनी मूस न्हंयेर केन्नाय पूर येवन लोकांलो आनी देशाचो विनाश जायत आसता. त्या वेळाक उदक पंप करपाक विंडमिलाचो उपेग करन घेतात. तशेच भात कांडप, धान्याचें सोल काडप, जमनीचेर नांगरप इत्यादी कामाक विंड मिलाचो उपेग करन घेतात. हालींच तांत्रिक विकास जाला, लेगीत पोरणें आसलें तरी विंडमिलाची राखण डच लोक करत आस्सत हें कौतुकास्पद आस्स.

## ॲम्स्टरडेम सेंटर

ॲम्स्टरडेम सेंटर हो शाराचो गाभो जावन आसा. प्रवासी लोकांले गजबज बाराय म्हयने हांगा आसता. सुंदर नाले, तांतूंत लोकांक फिरायतलीं तारवां हें हांगचें सुंदर दृश्य. एकच रस्त्यार ट्रॅम, बस, कारां, सायकलां आनी रस्ते क्रॉस्स करतले लोकां पळोपाक दोन दोळे पुरो पावना. नितळ रस्ते, लोकांले शिस्तीचो वेव्हार पळोवन आमचे देशांत हाचो उणाव कित्याक आस्सा असो एक व्हडलो प्रस्न मनांत येवन गेलो. आसो. नाना प्रकारच्यो वस्तु आनी ह्या देशाची स्मरणिका- विंडमिल्स, लाकडी बूटां, टुलिप्स, घराचे नमुने, सुंदर आनी आकर्शक रंगांतले मेणवात, कपडे इत्यादी अंतरराष्ट्रीय पर्यटकां खातीर प्रदर्शन केल्लें आसा.

## ॲम्स्टरडेम चौक



ॲम्स्टरडेम स्क्वेरच्या आसपास सुंदर इमारती आस्सत. तांतूंत मॅडम तुस्साऽ हिगेलें म्युझियम पळोपाक गेल्लें. जगांतल्या नामनेच्या लोकांले मेणाचे मनुश्याकृतींत हुबेहूब केल्लेले बावले पळोवन चकीत जाल्लीं आनी कौतुकय दिसलें. ह्या स्क्वेरार वेगवेगळे कलाकार आपली कला दाखोवन लोकांगेलें मनोरंजन करतात.

घोड्या–गाडयेर बैसून शाराची सैर करतल्यां लोकांक पळयलें..हांगा कुशीक डच इस्ट इंडिय कंपनीचे ऑफीसाची इमारत पळोवन, इतले ल्हान देशांन महासागर पार करन आशिया, मुखेलतायेन भारतांत वेपार करचे हेतून येवन मागीर वसाहत स्थापन केल्लेलो उगडास करन घेतलो.

## आनंदी डच लोक

युनिसेफ ह्या संयुक्त राष्ट्र मंडळाचे चेरड्वांले विकासा खातीर काम करचे संस्थेंन तयार केल्ल्या रिपोर्टांत डच लोक खुशाली आनी आनंदी आसतात अशें हांवें वाचिल्लें. हांगा येवन लोकां पळोवन व्हय अशी खात्री पटली. नंतर कळ्न आयिल्लें की कुटुंब नियोजन म्हळिल्ली प्रक्रिया हांगा ना. चड चेरडूंव आसल्यार इन्कम टॅक्स ना आनी सरकार तांगेलें सर्व शिक्षण, भलायकी हाची जवाबदारी घेता. हांगचे सरकाराक देशाची जनसंख्या वाडोवंचें आसा. मुखेलतायेन चेरडुवांचेर कसलोय प्रकारचो दाब ना. स्पर्धाचे दंगला थावन हांगचीं चेरडूवं भायर आस्सत, त्या खातीर आनंदी आसतात. सामान्य डच मनीस आपल्याक पुरो तितलें पगार मेळ्यार तांतूंची संतृप्त आसतात अशें आयकलां. कौटुंबीक सुखाक डच खूब म्हत्व दितात हें वाचिल्लें पूण हांगा राबून व्हय दिसलें.

## मनरिजवणाची सुवात

कॉरपोरेट जगांत सुद्दां डच मनीस वयरचे पगार अथवा वयरचे हुद्याक धडपड करतलो न्हय. बौद्ध धर्माचो न्हय, तरीय गौतम बुद्धालो मार्ग तांणी वेंचला आस्सू फाव! 'चड आशा केल्यार चड दुकां' हो, बुद्धालो उपदेश डच लोकान समा अर्थ करन घेतला म्हणयेत! जें आस्स तांतूंच तृप्त आशिले खातीर डच लोक खुशाल आनी संतृप्त आसतात अशें थंय राबिल्ले भारतीय लोकांलें मत आसा. बरें न्हय? स्पर्धा ना, तकलेक त्रास ना, त्या निमतान सर्वव्यापी जावन आसपी टेन्शन हांका ना! व्हय न्हय?

सुषमा आरूर

*दोनापावल, मो.: 9740399995*

# आनंदाच्या सोदांत

ह्या संवसारांत जल्म घेवपी दरेक जीव हो आनंदाच्या सोदांत आसता. मानसशात्रानुसार आनंद वो खोशी ही दोन प्रकारची आसता. भोगवादी वो विशयासक्त (hedonic) आनी आत्मिक (eudaimonic). मनीस सोडून संवसारांतले सगले जीव हे पयल्याच प्रकारच्या आनंदाची अनुभुती घेवंक शकतात. भोगवादी आनंद हो विशयसुखा पासून मेळटा जाल्यार आत्मिक आनंद हो जिवितांतल्या अर्थ आनी प्रयोजन वो उद्दिश्टांचेर अवलंबून आसता. पूण हो आनंद नेमको कसो उत्पन्न जाता वो आपूण आनंदी आसां हाची जाण मनशाक कशी जाता? खंयचे दिश्टिकोनांतल्यान आमी आनंदाची व्याख्या करपाक शकतात हें जाणा जावपाक आमचे मनांत तो कसो निर्माण जावंक शकता वो चड-उणे प्रमाणांत तो दरेकलो कसो अणभवता हाचें गिन्यान करुन घेवप गरजेचें. आयच्या ह्या लेखांतल्यान ताचेर मात्सो उजवाड घालपाचो हो यत्न.

तुमकां सगळ्यांक खबर आसतलेंच की आनंद ही एक सकारात्मक भावना, जंय दरेकलो आपापले परीन सकारात्क मनाची अवस्था अणभवता. आनंदाचो अणभव हो दरेकल्या खातीर वेगवेगळो आसपाक शकता. आनंद उत्पत्तीचे कांय वेगवेगळे प्रकार म्हणल्यार-

1.शारिरीक आनंद वो सूख - जें सूख शारिरीक वाटेन भोगपाक मेळटा तें म्हणल्यार आमच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवन मेळटा तें सूख. देखीक भूक भागोवपाक खाद्यपदार्थ खावन, तानेतकच उदक पियेवन, लैंगीक सूख इत्यादी.

2.भावनीक आनंद - सकारात्मक भावनेंतल्यान, देखीक मोग, माया, आपलेपण, अनुकंपा, आपलें कुटूंब वो समाजांत



**मंजुषा सिनाय तळावलीकार**

*लेखिका विद्यादानाचें कार्य करता. हेर भासांतल्या आपल्या वाचनाची लाव हेराकूय मेळची म्हूण तें गिन्यान लेखा रुपान कोंकणीतल्यान सोंपेपणान मांडटा.*





आस्पाव हातूंतल्यान उत्पन्न जावपी आनंद हो भावनीक आसता. नकारात्मक भावनेंतल्यान, देखीक लोभ, मत्सर हातूंतल्यान लेगीत कांय जाण आसुरी आनंद मेळयतात.

3.मानसीक आनंद - मानसीक आनंद हो स्वताची सकारात्मक प्रतिमा, आपले हुशारकायेचो योग्य वापर आनी सतत सुदारपाची आनी वाडपाचे मोर्खीतल्यान निर्माण जाता. आपणें समाजा खातीर, लोकां खातीर कसलोय बरो वावर केल्यारुय आमकां मानसीक सूख मेळटा.

4.सृजनशील आनंद - कसलीय सर्जनात्मक निर्मिती केल्यार मनशाक सृजनशील आनंद मेळटा. देखीक कविता बरोवप, चित्र पितारप, गाणें गावप, जिन्नस रांदप इत्यादी. आपल्या लागींच्याक आनी समाजा खातीर लेगीत कितेंय सृजनशील करतकच तांतूंतल्यान सृजनशील आनंदाची उत्पत्ती जाता.

5.अध्यात्मिक आनंद - अध्यात्मिक आनंद तुमकां अखंड भावार्थाचे शांततायेन भरता. अध्यात्मिक सुखा फाटलो मुखेल सिध्दांत म्हळ्यार सगळें दैवी, सगळें देवाचें दान हे विचार. अध्यात्मिक आनंदांत जिणेच्या चैतन्याची अनुभुती जाता आनी आत्मिक आनंद प्राप्त जाता.

6.शाश्वत आनंद - सासणाचो आनंद म्हळ्यार अलौकिक आमोद आनी सगळ्यां चराचरां कडेन जावपी एकचाराची अनुभूती. समाधी अवस्थेंतले व्यक्तीक ह्या शाश्वत आनंदाची अनुभूती जाता.

उत्क्रांतीवादी जीवशास्त्रां प्रमाण दर एक जीव भोग सोदता

आनी वेदना टाळटा. उत्क्रांती, जैवीक आनी मानसीक नदरेन मनीस हो सगळ्यांत चड विकसीत जाल्लो समाजीक प्राणी. अमेरिकेच्या स्वातंत्र्याच्या घोशणापत्रांत थॉमस जेफरसन हाणें म्हळां की आमकां जिवीत, स्वातंत्र्य आनी आनंदाचो सोद घेवपाचो हक आसा. ताणें आनंदाचो हक आसा अशें म्हळें ना तर आनंदाच्या सोदाचो हक आसा अशें नमूद केलां. आमकां आनंदाचो हक आसा अशें तो म्हणना हाचें कारण म्हणल्यार आनंद हो सैमाचो नेम न्हय. ताची व्याख्या दरेका परीन विंगड विंगड आसा. म्हूण आनंदाचो सोद दरेकल्यान आपापले परीन घेवपाचो आसता आमी जिणेंत चडांतचड आनंद कसो मेळोवपाक शकतात हें समजतले जाल्यार आमकां वेगवेगळ्या दिश्टिकोनांतल्यान तो कसो निर्माण जावपाक शकता हाचेर नदर मारची पडटली.

1. जैविक दिश्टिकोण– मनशाचे सगळे कार्यावळींचेर आनी भावनांचेर नियंत्रण दवरपाचें केंद्र म्हळ्यार मेंदू. तें नियंत्रीत करपा खातीर तो खास रसायनीक संदेशवाहक (neurotransmitters ) स्त्रावीत करता. ते संदेशवाहक आमचे कुडीच्या वेगवेगळ्या भागां कडेन संपर्क सादून हार्मोन तयार करता. सूख, आनंद आनी मोग अश्या सकारात्मक भावनांक चालना दिवपी चार मुखेल हार्मोन आसात जांकां आनंददायी हार्मोन (happy hormones) अशें संबोधतात. ते म्हणल्यार सिरोटॉनिन, डॉपामाइन, ऑक्सिटॉसिन आनी एन्डॉर्फिन. हे हार्मोन आमचे चित्तवृत्तीक उर्बा दितात, आमचे जिणेंत उमेद वाडयतात आनी जायत्या तरांनी मानसीक भलायकेक चालना दितात. हे चारुय हार्मोन म्हणल्यार –

1. सेरोटॉनिन – सेरोटोनिनाक हॅपीनेस हार्मोन अशेंय म्हणटात,हो चड करुन आमच्या आंतकड्यांनी तयार जाता. तो बरी चित्तवृत्ती, पचन, न्हीद, मेंदवाचें कार्य आनी कुडीच्या जैवीक घड्याळा खातीर (circadian rhythm) गरजेचें आसता. सेरोटोनिनाची पातळी उणी आसल्यार उदासीनताय वो निर्शेवणी (Depression) येवंक शकता. फळां, भाजीपालो, फळां सयत योग्य समतोल आहार घेतल्यार आमच्या सेरोटोनिनाची पातळी वाडूंक शकता.

2. डॉपामाइन – डोपामाइनाक फील गुड हार्मोन अशेंय म्हणटात – हो एक प्रेरणादायी हार्मोन जो आमकां जिवो आनी जागृत दवरता. तो गतिप्रेरक नियंत्रण, संज्ञानात्मक कार्य, स्मृती, लक्ष आदीचेर नियंत्रण दवरता. मेंदवाच्या इनाम पद्दतीचो (reward system) तो एक भाग जो आमकां सुखद संवेदना दिता. डोपामाइन वाडोवपाचे मार्ग म्हळ्यार दिसपट्टो व्यायाम, ध्यान, बरी न्हीद, संगीत आयकप आदी.

3. ऑक्सिटोसिन – हो हार्मोन बंधन, विस्वास,





yvonnechase.com
The Single Woman's Cheerleader

उदारताय वाडयता आनी ताण प्रतिसादांचें नियंत्रण करता आनी मज्जासंस्थेक सुसेग दिता . ऑक्सिटोसीनाक लागचारान चालना मेळटा, देखूनच ताका कडल हार्मोन म्हणटात. हालींच्या काळांतल्या शास्त्रीय अभ्यासांतल्यान रोगप्रतिकार शक्त नियंत्रीत करपाक, बरे जावपाक आनी वेदनेची जाणविकाय करपाक लेगीत ताची भुमिका आसा अशें दिसून येता. काळजी घेवपी संबंदांत गुंतप, जिणेंत नातीगोत्यांचो आस्पाव आसप, प्रणय, इश्टागत स्पर्श, पाळीव प्राणी हें
आमचे कुडींत ऑक्सिटोसीन उत्पन्न करपाक चालना दितात.

4. एन्डॉर्फिन – एन्डोर्फिनाक रनर हार्मोन अशेंय म्हणटात, तो आमच्या मेंदवांतल्यान कुडीक मेळपी वेदना संकेत आडावन, उमेद निर्माण करून वेदनाशामक म्हणून काम करता. व्यायाम आनी धांवप हाका लागून ताका चालना मेळूं येता. मॅरेथॉनाक धावप्यां मदीं हो हॉर्मोन चड प्रमाणांत दिसून येता जो तांकां उमेद दिता.

2. मानसशास्त्रीय दिश्टिकोन – आमचे विचार, धोरण आनी भावनेच्या आदारान आमचें मन हें आमचें वर्तन नियंत्रीत करता. आमी आमच्या मनाक योग्य आनी सकारात्मक निवड वेंचपाक प्रशिक्षण दिवंक शकतात. मुद्दाम जावन आनंदीत रावपाची निवड करप आनी ताची लागवड करप हें आमच्या दरेकाचेर आसता. तशें केल्यार आमचें मन आमकां जिणेंतल्या दर एका खिणाक सुखी दवरूंक शकता. अंतस्करणा भितरल्या अणभवाचेर नियंत्रण दवरपाक शिकपी लोक, थोर तिबेटी आध्यात्मिक फुडारी दलाई लामान

म्हणिल्लें प्रमाण, आमकां भायल्या संवसारांत जाणीवपूर्वक सोद घेवन सूख मेळूंक शकना आमच्या जिवितांतल्या दर एका तपशीलांत, बरे वा वायट, पुरायपणान गुतूनच आमकां आनंद मेळूंक शकता.

मानसीक दिश्टिकोणांतल्यान आनंदाची व्याख्या करतना डॅनीस प्रेजर हांणी 'मिसींग टायल्स सिन्ड्रॉम' म्हूण एक सिन्ड्रॉमाचो उल्लेख केला. तो म्हणटा, 'आमी जर घराच्या छपरा कडेन नदर मारली आनी जर आमकां एक नळो आसपाक जाय तो ना अशें दिश्टी पडलें जाल्यार आमची नदर परत परत थंयच वतली.' तो म्हणटा, 'मिसिंग टायल्स सिंड्रोमा खातीर आमच्या सुखाक इतली व्हडली आडखळ जाता की ताका लागून सूख लागीं लागीं अशक्य जाता. आमचे कडेन जें आसा ताचेर आमची केन्नाच नदर पडना तर आमचे कडेन जें ना ताचेरुच आमी चड लक्ष केंद्रीत करतात. देख दितना तो सांगता, ताचो एक इश्ट जाका तकलेर केंस नात तो ताका सांगतालो, जेन्ना तो खंयीय पार्टेक बी वता तेन्ना ताका ते गर्दीत फकत लोकांचे केंस दिश्टी पडटात. ताचो इश्ट खइडो आशिल्ल्यान ताका आपले कडेन जें ना तेंच ह्या संवसारांत जांचे कडेन तें आसा तेंच दिश्टी पडटा आनी तेंच ताच्या दुख्खाक अदीक कारण जाता. आमीय आमचे जिविताचेर नदर घाली जाल्यार घडये जायत्यो अश्यो गजाली आमचे जिवितांत घडटना आमकां दिसून येतल्यो. त्या मिसिंग सिन्ड्रॉमा खातीर आमकां आमचे जिवितांत सदांच कितें तरी उणें दिसता.

मानसशास्त्राचे मतान आनंद म्हळ्यार फकत सकारात्मक मनोवृत्तीचो अणभव न्हय. सुखाचें वर्णन करपा खातीर मानसशास्त्रज्ञ सादारणपणान व्यक्तिनिश्ठ सुस्थितीचो उल्लेख करतात. आनंद म्हळ्यार व्यक्तीन स्वता केल्लें ताच्या जिविताचें मुल्याकन, जातूंत समाधानाचें सज्ञानात्मक मुल्यमापन तशेंच मनोभाव आनी भावनांचें भावनीक मुल्यमापन ह्या दोनूय गजालींचो आस्पाव जाता. सध्याच्या काळांत सकारात्मक मानसशास्त्राचेर जायतें संशोधन जालां आनी मनीस चडांतचड आनंदीत कसो रावपाक शकता हाची शक्यताय सोदून काडपाचेर भर दिला.

3. अध्यात्मिक आनंद– जेन्ना आमचो आत्मो आनी कुडींत समन्वय आसता तेन्ना आमकां अध्यात्मिक आनंद अणभवाक येता. आमी जिणेचे नवनवे अणभव घेतात तशी आमची अध्यात्मिक नदर बदलत आसता. दरेकल्याचो देव वा दैवी शक्तीचे कल्पने कडेन वैयक्तीक संबंद आसता. आनी ते आस्थेंतल्यान मेळपी ह्या आनंदांत सासणाचे आशेची भावना, आनी सार्वत्रीक परिपुर्णतायेचेर विस्वास आसता. अध्यात्मिक आनंदांत तुमी दुख्खी आसतना लेगीत उमळशीकेन जियेवंक शकतात, कारण आमचे वाटेर खंयचेय त्रास आयल्यात ते दीर्घ काळांत आमच्या आत्म्याचे प्रगती खातीर आसात हें असो आमकां दृढ विस्वास आसता. तुमी विश्वव्यापी चित्रांत कशे बसतात ही नदर आसल्यारुच अध्यात्मिक सूख मेळूंक शकता. अध्यात्मिक आनंदाक लागून कृतज्ञताय आनी श्रद्धेची भावना रुजता जे वरवी आमी जिणेच्या कसल्याय चडाव उताराक धिरान फुडो करपाक शकतात. सादारण आनंद
आमकां जाय तें मेळ्ळ्यार मेळटा जाल्यार अध्यात्मिक आनंद मात आमकां जें मेळटा तें जाय आसल्यार आमच्या मनांत



निर्माण जाता.

4. उत्क्रांतीवादी नदरेंतल्यान आनंद– मनशाची प्रत्यक्षांत असंतुश्ट उरपाक उत्क्रांती जाल्या असो सिध्दांत शास्त्रज्ञांनी मांडला. आमचे पुर्वज जेन्ना उत्क्रांतीच्या आदल्या पांवड्यार आशिल्ले तेन्ना ते जंगलांत रावताले, जंय पावला पावलार मरणप्राय धोके आसताले. त्या खातीर तांकां सावध रावचें पडटालें. चड सुशेगाद रावल्यार तांकां जिवाचो धोको आसतालो. आपली प्रजाती फुडें व्हरपा खातीर तांकां जितें रावपाची गरज आसताली. ते जर शादुरकायेन रावूंक नाशिल्ले जाल्यार आयज तांच्यो फुडल्यो पिळग्यो म्हणल्यार आमी ह्या संवासारांतूच नासताशिल्ल्यो. असंतुश्ट आशिल्ले सुरवेचे मनीस जिणेंतल्यो गरजो आनी सोयी मेळोवपाचो मात्सो चड यत्न करपाक योग्य आशिल्ले. घडये हो असंतोशाचो गूण तांकां बरी शिकार करपाक, चड जेवण दवरपाक वा स्वताक उशण दवरपाचो मार्ग सोदपाक प्रेरीत करतालो. अश्यो पद्दती जे आपणायताले तांची चड आयुश्य जगपाची शक्यताय वाडटाली. आमच्या सद्याच्या असंतोशाच्या भावनांचें मूळ आमच्या असंतुश्ट पुर्वजांतल्या आनुवंशिक डीएनए नमुन्यांतल्यान निर्माण जालां आसूंक शकता. आनुवंशिकतायेंतल्यान आयिल्ल्या ह्या गुणाक वो दोशाक लागून आयज आमच्या जिवितांतल्या कांय घटकां विशीं आमकां असंतोश दिसता. तर हाचो अर्थ आमी नाखूश मानचे अशें न्हय. आमचो सुखाचो अणभव सादारणपणान आमी गजालींचो अर्थ कसो करतात हाचेर आदारून आसता.आमी स्वताक नाखूश समजतात जाल्यार आमी नाखूश, आनी आमी खुशाल समजतात जाल्यार आमी खुशाल.

तर अशे हे जायते दिश्टिकोण जातूंतल्यान आमी आनंदाचें विश्लेशण करपाक शकतात. आमी तें जाणा जाले जाल्यार आमच्या आनंदाचेर आमचें चड नियंत्रण उरपाची शक्यता चडावता. पूण निमाणे कडेन एकूच सांगन दिसता, आमची ही जीण वाद वितंड, झगडीं, रुसवे फुगवे काडीत बसपाक सामकी उणी आसा. खंयचो खीण आमचे जिणेंतलो निमणो खीण जावपाक शकता हें कोणाकूच खबर नासता. म्हूण आमी दरेका खिणाक आनंद अणभवपाचो यत्न करीत रावपाचें. जिणेंत आनंदाचो सोद घेवपाचो प्रवास चालूच आसपाक जाय.

**मडगांव– मो. 9822981508**

# सोरपाचो बळी...!



सगळ्यांत पयलीं काव्यश्रीक सर्पाची वळख जाली ती आजयेच्यो काणयो आयकून. सर्प म्हळ्यार नाग आनी शेष नांवाचो नाग पृथ्वीचो भार उभारता. नाग म्हादेवाच्या गळ्यांत हार कसो आसता. हें शिवाचें पांयजेल पळोवन काव्यश्रीक सर्प कसो आसतलो तो मातसोसोच अदमास आयलो.

थोडे सोरोप विखारी आसतात आनी घास मारल्यार मनीस मरूंक शकता हेंय आजी ताका सांगूक विसरली ना. सर्प दुखवलो जाल्यार डूख धरुन रातचो घास मारूंक येता ही आयकल्ली गजालय आजयेन काव्यश्रीक सांगिल्ली. पूण ती खरी न्हय हें काव्यश्रीक व्हड जातकच कळ्ळें.

नागपंचमीच्यो विंगड विंगड काणयो आजयेन ताका सांगिल्ल्यो. आजयेचे भयणीगेर नागपंचम कित्याक करीनात अशें काव्यश्रीन आजयेक विचारलें आनी जाप आयकून काव्यश्री अजापीत जालें. आजी मावशी म्हणजे आजयेची भयण मातशी कडक आशिल्ली.उपास कडक करचो अशें तिणें सुनेक सांगलें. रांदपाचें सामान कोठये कुडींत चावी करुन ती भायर सरिल्ली. सुनेक खंय बरीच भूक लागिल्ली. मांय घरांत नाशिल्ली. सुनेन पुजेक लायिल्ल्या नागाची पिठीची भाकरी भाजून खाल्ली म्हूण तांगेर नागपंचम मनयनात. तशेंच आनीक एका घराब्यांतलो मुखेल नागपंचमी दिसाच सोरपान घांस मारून हो संवसार सोडून गेलो, त्या पासत तांगेरय बी नागपंचम करीनात.

आनीक एक पुराणांतली काणी आजयेच्या तोंडांतल्यान ताणें आयकल्ली ती तक्षक आनी परीक्षित राजाची. परिक्षित राजाक तक्षकान घास मारून मरण येवचें असो श्राप शमीक ऋषीचो पूत शृंगीन दिल्लो. जीव वाचोवपा खातीर परीक्षितान एके तळयेंत उबो खांब बांदून ताचेर प्रासाद बांदलो. तातूंत तो दीस सारतालो. ऋषीचो शिराप पार्सल केन्नाच जायना. तक्षक अळयेचें रूप घेवन बोरांत वता. परीक्षित राजा बोरां खाता. बोराचे बियेंत अळयेच्या रुपांत आशिल्लो तक्षक आपलें खरें रूप घेता आनी राजाक घांस मारता अशें काव्यश्रीक शाळेंत बाईन धड्यांतल्यान शिकयल्लें. ताचे पयलीं आजयेन मीठ मिरसांग लावन आपले भशेन हीच काणी सुंदर तरेन सांगिल्ली.
एक दीस शाळे कडेन एका घराच्या दारांत पुंगीवालो पुंगी वाजोवन पाटल्यांतल्या सोरपाक नाचयतालो. म्हन्यांत वचून पळोवपाक काव्यश्रीक भंय दिसलो. पूण तो सोरपाचो न्हय तर पुंगी वाजयता ताचो. ताचे उपरांत बारीक जिवाणीं दिसलीं पूण सोरोप पळोवंक नाशिल्लो.

आब्रिल म्हयन्याची 24 तारीक आशिल्ली. णववेचो रिजल्ट आजच जाल्लो. काव्यश्री आतां धावेक म्हणजे मॅट्रीकेक पावलें. आतांचे सारकें तेन्ना ट्युशनाचे वर्ग बी नासताले.पयलेच फावट अंदूच धावी मॅट्रीक जाल्ली. ना जाल्यार अकरावी मॅट्रीक आसताली. काव्यश्री दनपरां बारा वरांचेर शेजारच्या भुरग्याचें विज्ञानाचें पुस्तक घेवन बशिल्लें. अशींच पुस्तकां वाचपाची ताका चडच आवड. बुधवार आशिल्ल्यान भिंडेलान नुस्तें भाजपाचो वास घर भर सुटिल्लो.

उकडें शीत तपल्यांत शिजतालें. आजी सावड्यां तिचे धुवेगेर गेल्ली. आई घरांत रांदताली. शिंदून, कांतून बी दिवन काव्यश्री बेकार जालें. इतल्यांत आईन जळवाचे खोंपींतल्यान मोठ्ठ्यान भावाक उलो मारलो. काव्यश्री



**कल्याण सावंत**

*कविता,कथा आनी ललित ह्या मळार उमेदवारी करता. तांचो 'काव्यश्री' हो काव्य संग्रह उजवाडाक आयला.*

बेगीन बेगीन उठून गेलें जाल्यार सोरोप आसा अशें आवयन ताका सांगलें. ताचो भितरो भाव धांवत भायर वचून माडांक मीठ आनी सावळ घालपी मानायांक सांगूक गेलो. त्या उपरांत कडक वोतांत
फूटबॉल खेळपी भुरग्यांक पुजावंक गेलो.

काव्यश्री धीट सामकें. तरी पूण पयलींच आंगाचें वाटकुळें निवणें करुन ताचे वयल्यान फणो वयर दवरून दोळ्यांची पापणी हालय नासतना ताका तो पळेतालो. ताचे दोळ्यांक पापणी नाशिल्लीच मागीर पापणी कशी हालयतलो बाबडो! ताचो तो सुंदर फणो पळोवन काव्यश्रीक नागमण्याची याद जाली. त्या वेळार फोटो काडपाक मोबायल नाशिल्लो. रान खात्याच्या मनशांक फोन करून, हाका व्हरून हाचो जीव वाचयात म्हणपाचो काळ, वेळ आनी सुविधा नाशिल्ल्यो. भुरग्यांचो चोंबो आनी मानाय कोयती घेवन तळ्या धडे वयले कोंडे कापताले.

काव्यश्रीच्या मनांत भंय दिसलो. आतां त्या सरपटत चलपी, हात पांय नाशिल्ल्या नाग राजाक मरण येतलें हें चिंतून ताका कशेंशेंच दिसलें. कित्याक आयलो काय हो? मुंगूस बी फाटीक लागलें काय बाबड्याच्या? उंदीर बी गांवाक आयलो काय? वाट चुकलो काय? गिमांतल्या दंनपारां वत लागलें काय? अशे विचार काव्यश्रीच्या मनांत आयले. त्या सुंदर

मोन्यां सोयऱ्याक वाचोवंक जाय आशिल्लें अशें मनांत आयलें. पूण कृती करपाक धाडस नाशिल्लें. विखाची परिक्षा घेतलो तरी कोण?

पांच-स जाण बडयो घेवन गॅर्राक गेल्लेवरीं नेटान आयले. बडयो मारतात म्हूण लाकडां मदीं तकली घालपाचे तयारेंत आशिल्ल्या त्या आइडूंक कळनाशिल्ल्या जिवाचो आत्मो तळमळतालो. ठा-ठा करुन चारय वटांनी बडयो ताचेर पडटाल्यो. त्यो आपणाचेरच मारतात काय! अशें काव्यश्रीक दिसलें. कोणें तरी दोन बडयां मदीं धरुन त्या राजाक खर गुन्यांव केल्ले वरीं भायर काडलो. घेऽ चार पांच बडयो तकलेचेर, आंगाचेर आनी शेपडेचेर. ताचो आत्मो भायर सरून गेलो आनी बेशुध्दच न्हय तर मरून लेगीत गेलो. तरी बडयांचो मार खावपाची पाळी त्या नागराजाचेर आयिल्ली.

बडयो त्या मेल्ल्या देहा कडेन दवरल्यार तो परत जिवो जातलो म्हूण सगळ्यो बडयो पयस उडोवन ते मोठी लडाय जिकल्या वरी तोंड करून चलूंक लागले. आईन तांकां देव बरें करुं म्हळें आनी मानायांच्या हातार कॉप मारूंक पांच रुपया दवरले.

आईन वाडिल्लें रूचीक जेवण काव्यश्रीच्या पोटांत



कशेंच वचना. दोन उंडयो गिळून हळूच उठून कुत्र्याच्या ताटांत व्हरुन ओतलें आनी हळूच घरांत आयलें. हो कुत्रो दिसता आनीक खंय तरी हेडपाक गेलो. कावळो येवन नुस्तें घेवन गेलो. सगळे कावळे काव काव करूंक लागतले म्हूण ताट धापून घालें. बरें जालें आजी आनी धाकटी भयण भाव मावशेगेर आनी बाकीचीं आत्यागेर गेल्लीं.

भावाचेंय जेवप जातगीर ताका घेवन काव्यश्री घरा फाटल्यान त्या निष्पाप लांबलचक देहा कडेन उबें रावन गुन्यांवकारी नदरेन ताका पळयत रावलें.

निमाणे संस्कार केल्या बगर मुक्ती मेळची ना अशें चिंतून ताणें रोकडेंच खोरें कुदळ हाडून लांब फोंडकुलांत फुलां घालीं चुडटांचे पिराडे घेवन त्या मेल्ल्या सोरपाची कूड हळूच फोंडकुलांत दवरली. वयल्यान फुलां, गोबोर आनी रेंव घालून तें फोंडकूल पुरयलें. कुत्रो उस्तीत म्हूण ताचेर फुटिल्ल्या चिऱ्याचे कुडके दवरून हात जोडून पांय पडलें.

सांजवेळार तिसरेचे शिंपयेर साखर घाली आनी फुटिल्ले चिऱ्‍ -बशेच्या कुडक्यार वात पेटयली. पूण वाऱ्याच्या वेगान वात रोखडीच पालवली म्हूण ताणें नाल्लाचे कट्टे पोंदा परत वात पेटोवन तें घरांत आयलें.

काव्यश्री आठवेक आसतना भाऊसाहेब बांदोडकार जो स्वतंत्र गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री भायर पडलो तेन्ना टीचरीन तांकां दोन मिणटां शांत उबें रावन श्रध्दांजली दिवंक सांगलें. आज तशीच काव्यश्रीन सोरपाक श्रद्धांजली दिली.

ते घटणुकेक आतां आठतीस वर्सां जालीं. तरी काव्यश्रीक आईगेर वतकीर ते घडणुकेची याद जाता. त्या जाग्यार आतां एक रूचीक पेरांचो रुख वाडला.

---

***फोंडें- मो. 9765128185***




# राजू नाचलो एकदाचो



''बाबू बस आयली. यो बेगीन!''

वारांदांत पेपर वाचत बशिल्ल्या आजान साद घाली.

''आयलों रे!'' बाबू आपलें दप्तर सांबाळत धांवत आयलो. फाटोफाट मम्मी.

बस येवन दारा मुखार थारली.

''आरे सोवका, सोवका. धांव नाका.''

मंगलान बाबूक हाताक धरुन वयर चडयलें.

जनेलांतल्यान इल्लेशे हात भायर सरले.

'टाटा, टाटा'

मंगलय मम्मीक पळोवन हांसलें आनी बस सुटली.

के.जी वनाक आशिल्ल्या राजूक आतां शाळा आवडटाली

सुरवातीक म्हयनोभर मात ताची

पीर पीर आनी रड आसताली.

मागीर होळू होळू ताका गोडी लागली. आतां एक दीस लेगीत शाळा बुडोवपाची तयारी नाशिल्ली ताची.

जानेवारी लागलो तशी गॅदरींगाची तयारी सुरू जाली.

आतां आनी थोडे दिसांनी गॅदरींग आसतलें.

''सगळ्या भुरग्यांनी नाच करप आं!'' दिपाताईन भुरग्यांक सांगलें.

दुसऱ्या दिसाच्यान बाईन नाच बसोवपाक सुरवात केली.

''तुवें हांगा उबें रावन नाच करप.''

''तुवें हांगा उबो रावन नाच करप.''

दिपाताईन दर एका भुरग्याक सांगलें आनी तांकां आप आपल्या जाग्यार उबे केले.

राजू आगांन मोठो. मुदयाळे केंस आनी गुलाबीच ओंठ.

दिपाताईन ताका मदीं दवरलो.

नाच शिकोवपाक सुरवात जाली.

'लहान माझी बाहुली

मोठी तिची सावुली


उषा
ज.
कामत
*लेखिका बाल साहित्य आनी ललित हातूंत सातत्यान लेखन करतात.*

घारे डोळे फिरविते
नकटे नाक उडविते'

पद सुरू जालें रे जालें राजू थंयच्यान धांव मारतालो आनी कुशीक रावन नाचतल्या भुरग्यांक पळयतालो.

''आरे यो मरे. तुवें हांगा उबो रावप. यो शाण्या हांगा उबो रावन नाच कर.''

बाई दर दिसा हाडून हाडून ताका मदीं उबो करताली.

पूण राजू कसोच आयकनाशिल्लो.

एके कुशीन उबो रावन सगळ्यांक पळोवन हांसतालो.

धा बारा दीस जाले. राजू कसोच नाचना. कितलें फुसलायलें, कितलें समजायलें पूण राजू कसोच आयकुपाक तयार ना.

गॅदरींगाक आठ दीस उरिल्ले. राजून घरा कडेन थोडें सांगिल्लें.

''हांव करचो ना नाच. म्हाका नाका.'' मम्मीक तो सांगतालो.

राजूची मम्मी शाळेंत आयिल्ली तेन्ना दिपाताईन तिका सगळें सांगलें आनी म्हळें, 'एक व्हडसो बावलो हाड. नाचतना तो दिवया हातांत ताच्या. घडये बावलो घेवन नाचत तो!'

दोन दिसांनी मम्मीन एक बावलो हाडलो आनी राजूकडेन दिवन शाळेंत धाडलो.

राजू सामको खूश.

दिपाताई सदचेवरी नाचाची प्रॅक्टीस घेवपाक लागली. मदीं सदचेवरी राजूक उबो केलो आनी ताच्या हातांत बावलो दिलो.

बाकीचीं भुरगीं आयकतात?

''दिपाताई म्हाका जाय बावलो.''

''दिपाताई म्हाका दी..''

दर एकलो भुरगो बावलो मागपाक लागलो. बावलो ओडपाक लागलो.

पूण तांकां सगल्यांक फुसलावन फुसलावन नाचपाक लायता म्हणसर दिपाताईक नाका पुरो



जालें

निमणें एकदांचो गॅदरींगाचो दीस उजवाडलो.

''मम्मी केन्ना वचप गे? दिपाताईन बेग्गीन आपयलां.''

''आरे जेवतगीर वचया मरे!'' मम्मी ताका थातारताली.

चार वरांचेर मम्मी राजूक घेवन पावली हॉलार. राजू हातांतलो बावलो घट्ट धरुनच आसलो.

राजूच्या नाचा खातीर सगळ्या भुरग्यांक दिपाताईन उबें केलें.

बावलो घेवन राजू मदीं उबो रावलो.

लहान माझी बाहुली
मोठी तिची सावुली.....

राजू बरो घोस्तान बावली घेवन नाचलो. सगळ्या भुरग्यांनी बेस बरो नाच केलो.

दिपाताई खूश....''.राजू नाचलो एकदाचो'' भुरगीं भितर येना फुडें दोनूय हात वयर काडून दिपाताईन म्हणलें.

राजू तिका पळयतच रावलो. आनी घरा येतकीर राजून दिपाताईची नक्कल करून सगळ्यांक दाखयली.

---

*मडगांव- मो. 9763823745*

# नेपाळी बेब्याचीं धाडशी कर्तुबां

## काठमांडूचें आपोवणे

भक्तप्रसाद भ्यागुतो काठमांडूचो एक तरणाटो बेबो, जो हालींच किशोर अवस्थेंतल्यान भायर सरिल्लो. तो इचंगु गांवांतल्या स्वयंभू स्तूपा फाटल्यान, दोंगुल्लो कडल्या भाताच्या शेतांत आपलो आजो बुद्धिप्रसाद, आवय सानोमैया आनी भाव-भयणां सांगातान रावतालो. हेर बेब्यांवरी तोवूय सामको शिटूक उभयचर आशिल्लो. पूण हेर बेब्यां पयलींच ताणें उडक्यो मारपाक सुरवात केल्ली. ल्हवू ल्हवू तो भात-शेतांच्या चिखल भरिल्ल्या रस्त्या वयल्यान निर्भयपणान भोंवपाक लागलो, ज्या रस्त्या वयल्यान लोक दोंगरा वयल्यान सकयल वताले.

ताणें बायलो-दादले आनी भुरग्यांक ते पांय वाटेन येतना-वतना पळयलें आनी ते लोक खंय येता-वतात आसतले काय म्हणून येवजूंक पडलो. हरशीं बेब्यांक खंय यो-वच करपाचो हुस्को आसना. ते फकत आशीकुशीक घुंवपी किडी-पिसोळ्यांची वाट पळयतात वा बागेंत भोंवपी सोरपांचेर नदर दवरतात, जांकां ह्या उभयचरांक खावपाक आवडटा. ना जाल्यार चिखलाच्या उदकांत लोळपाक लागतात वा ताळो सुकऽसर टर्र टर्र करून आड्डत रावतात. पूण ते अशीर पांयवांटेन चलपी लोकांक पळयतकच



दिसतालें तांकां खंय तरी पावपाक जाय. दिसतालें तांचो कितें तरी उद्देश आसा. ह्यो कांय गजाली अश्यो आसल्यो, जांकां जाणून घेवपाची गरज हेर बेब्यांक केन्ना जाणवली ना.

'तशें जाल्यार, म्हजोय एक उद्देश आसतलो.' गरमेच्या दिसांनी एके सकाळीं किशोर भक्त प्रसादान निश्चय केलो. मागीर आपली शेंपडी गळऽसर, तो पिंपळा पेडाचेआशीकुशीक भोंवत रावलो. पांय वाटेन यो-वच करपी लोक हांगा गजाली करूंक बसताले. तांच्या गजालींतल्यान ताणें त्या संवसारा विशीं अदमास लायलो, जो संवसार ह्या भाताच्या सुरक्षीत शेतां परस वेगळो आशिल्लो, जंय ताचे पूर्वज, खबर ना केन्ना सावन रावताले.

सांजेची वेळ आसली. भक्तप्रसाद काठमांडू देगण नियाळटालो.

अस्तमत्या सुर्याच्या किरणांनी पाचवीं भाताचीं शेतां चकचकतालीं. थंयच्यान मातशें कुशीक, पैगोडा देवळांचे कळस आनी राजमहालाच्या उंच इमारतीच्या मदीं लाकडाचें पाखें आशिल्लीं कितलीशींच घरां पळयलीं. हें थळ 'द सिटी' हें इचंगुच्या सगळ्या बेब्यांक खबर आशिल्लें. पूण ह्या शब्दाचो अर्थ मात कोणाकच खबर नाशिल्लो. पिपळा पेडार भक्तप्रसादान मोटार गाडयो, स्ट्रीट लायट आनी शेंकड्यांनी कुडींच्या



नयना
आडारकार

कणक मणि दीक्षित

*वेगवेगळ्या पुरस्कारांनी सन्मानीत ज्येश्ठ लेखिका,कथा,कविता,ललित,विनोदी,बाल साहित्य ह्या प्रकारांत फिशाल.*

व्हडल्या इमारती विशीं आयकल्लें.

ज्या दिसा ताची उरिल्ली शेंपडीय गळ्ळी, ताणें सगळ्यांक आपलो घर सोडपाचो निर्णय सांगलो. 'पूण कित्याक? कित्या खातीर?' सगळे बेबे वांगडाच आइडले. कोणूय कित्याक म्हणून इचंगुचीं भाताचीं शेतां सोडून वतलो? तांचो विस्वासूच बसना जालो. शेंपडी नाशिल्ल्या भक्त प्रसादान धिटायेन जाप दिली, 'कारण हांव ह्या शेतांच्या भायलो संवसार पळोवपाक सोदतां. हांव तें शार पळोवपाक सोदतां, जंय लोक रावतात. हांव दोंगराच्या मुळसाक तराईक वचपाक सोदतां. थंयची जमीन इतली सपाट, जंय तुमीं थकनासतना तुमकां जाय तितलो वेळ उडक्यो मारपाक शकतात. थंय सुर्या दोंगरा फाटल्यान न्हय, क्षितिजांत अस्तमता अशें आयकलां. हांव व्हडल्यो व्हडल्यो न्हंयो, तरातरांचे जीव-जंतु, मेकळीं मैदानां आनी दोंगर पळोवपाक सोदतां.'

बेब्यांच्या कुळाचो जाणटेलो मुखेली, बुद्धिप्रसादूच भक्त प्रसादाची इत्सा समजुपाक शकलो. खूब वर्सां पयलीं तोवूय अशेच तरेन विचार करतालो. हे बाबतींत तो कांयच करूंक पावलो ना, हे गजालीचें ताका आयजूय दुख्ख आशिल्लें. आपल्या नातवान, भक्तप्रसादानय तीच चूक करची न्हय अशें ताका दिसतालें. तरी लेगीत बुद्धिप्रसादान आपल्या धाडशी वारसा कडेन तोखणायेचे नदरेन पळयलें आनी विचार करपाक लागलो, 'हो तरणाटो म्हजे परस चड धिराचो. भक्तेन निश्चय केला आनी ताका आतां कोणूच आडावपाक शकचो ना.'

आशीकुशीक एकठांय जाल्ल्या बेब्यां कडेन वचून बुद्धिप्रसादान म्हणलें, 'ताका वचूं दी. तो भायलो संवसार पळयतलो आनी मागीर परतो येवन आमकां त्या संवसारा विशीं सांगतलो.'

भक्तप्रसादान आज्याच्या उतरांक सगळ्यांची मान्यताय मानून टर्र टर्र म्हणत ताणें सगळ्यांचो निरोप घेतलो. ताचे आवयन 'सानो मैयान' आपल्या बापायक कितें सांगचे पयलींच तो ते पांयवाटे वटेन उडक्यो मारीत चलपाक लागलो, जंय सावन लोक 'द सिटी' वताले.

'देव बरें करूं, आज्या!' तो आपल्या आज्याच्या खांदा वयर वचून व्हडल्यान आइडलो. मागीर ताणें तो मेरेन फाटल्यान वळून पळयलें ना जोमेरेन तो देंवतेच्या सकयल पावलो ना. काठमांडूक चारूय वटांनी रेवाडो घाल्ल्या त्या पक्क्या रस्त्याक रिंग रोड म्हणटात हें ताका खबर आशिल्लें. ताणें निमणे फावट इचंगुच्या शेतांक पळयलें, मागीर तांकां फाट करून तो उडक्यो मारीत फुडें वचपाक लागलो.

कांय वेळान, भक्तप्रसाद दोंगराचेर बांदिल्ल्या,



स्वयंभू स्तूपा मुखा वयल्यान फुडें सरलो. ताणें पळयलें, बुद्धाची बरें मागपी नदर ताची उदरगत मागताली आनी जशी म्हणटाली, 'मुखार सरत राव, धाडशी तरणाट्या, हांव तुजी राखण करतलों.' भक्त प्रसादाची हिंमत वाडली.

भक्तप्रसाद जसो पक्क्या खडबडीत रस्त्याचेर आयलो, ताका थकिल्लावरी दिसपाक लागलें. पिपळा पेडार बायलो-दादले शारांत वचपा खातीर बस धरपाच्यो गजाली करताले ती ताका याद जाली. त्या खातीर तो त्या जाग्यार वचून बशीची वाट पळयत रावलो जंय बालाजू रोड रिंग रोडाक येवन मेळटालो. रोखडीच निळ्या रंगाची एक 'साझा' कंपनीची बस आयली. पूण ते बशीच्या कंडक्टरान ताका भितर घुसपाक मनाय केली. साझा कंपनीच्या वेवस्थापकान बेबे, दादुरों, किडी, सोरोप आनी हुंदरांक बी पब्लिक ट्रांसपोर्टांत चडपाक मनाय केल्या अशें कंडक्टरान सांगलें. कंडक्टरान मागीर येदेशें तोंड करीत म्हणलें, 'हरशीं म्हणून आमी शाराच्या मदीं आशिल्ल्या रत्ना पार्का मेरेनच वतात, आनी खंयचोय बेबो रत्ना पार्कांत कित्याक वचपाक सोदतलो?'

'पात्रांव! रत्ना पार्क उपकरतलें,' भक्तप्रसादान नमळायेन म्हणलें. हाचे पयलीं ह्या कडक कंडक्टरा कडेन अशें नमळायेन आनी मानान कोणूच उलोवंक नासलो. ताका सदांच असभ्य भोंवडेकारांक तोंड दिवचें पडटालें, जे धुकला-धुकली करताले, तिकेटीचे पुराय पयशे दिवपाक न्हयकार दिताले आनी परत परत पयशे मागतकच गाळयो संवताले. कंडक्टराकच लोकांक 'पात्रांव' म्हूण उलो मारचो पडटालो. ताची बेब्या कडेन वागणूक मातशी मोव जाली. 'यो, यो, बेगीन कर,' ताणें म्हणलें. तसो भक्तप्रसाद उडकी मारून भितर सरलो, कंडक्टरान बशीच्या भायल्यान दोनदां थापटिलें. ही ड्रायवराक वच म्हणून सांगपाची कुरू आशिल्ली.

बस व्हडलीं व्हडलीं शेतां, विष्णुमती न्हंय आनी सरळ देंवती काडून काठमांडू शारांत पावली.



राजाची रॉयल पॅलेस, रानी-पोखरीच्या व्हडल्या तळ्या कडल्यान वचत बस निमणी रत्ना पार्क बसस्टॅण्डार पावली.

हांगा दोळे दिपकावपी चकचकीत उजवाड आशिल्लो, तरातरांचे आवाज घुमताले. तें पळोवन भक्त प्रसादूच कित्याक काठमांडूचे शिमेवयल्या गांवांतलो वा खंयच्याय गांवगिऱ्या वाठारांतलो खंयचोय प्राणी सामको घुस्पुपाचो. शेंकड्यांनी लोक हांगा-थंय यो-वच करताले. तांच्या वांगडाच गाडयो, बशी, धुकल गाडयो, रिक्षा, सायकली आनी मोटार सायकलीय चलताल्यो. ह्या धुकला-धुकलींत जमनीर चलपी खंयचोय बेबो रोखडोच चिड्डून मरपाक शकतालो. 'हें सारकें जावचें ना,' भक्तप्रसादान आपल्या आपणाकच म्हणलें. काठमांडू पांयांनी भोंवून पळोवपाक जावचें नासलें.

*खोर्ली- मो. 9823537563*



उषा ज. कामत

## जाली फांतोड

कावळ्यान केलें
कांव कांव कांव
ऊठ रे शाण्या
ऊठ बेगीन
शाळेंत मार धांव

पेरीवेलो कीर
लागलो किरावंक
गोड गोड गोड
ऊठ रे शाण्या
ऊठ बेगीन
हांतूण तें सोड

आंब्या रुखार
बसून चानी
टुकूटुकू पळयता
आमच्या शाण्या बाबूक
कित्याक हीं धांवंडायता?
चिमणी मात
शाणी कशी
वारांदार बसता
फांतोडे बाबू खातीर
भूपाळी गायता

सोनाली सु.पेडणेकार

## म्यांवू

दोतोर मामा, दोतोर मामा
म्यांवूक म्हज्या तुमी
इल्लेंशें वखद दिशात?

परी राणी तुज्या म्यांवूक
अशें जालें तरी कितें ?

ह्या दिसांनी तें सारके
दुदू पियना, नुस्तेंय घोस्तान खायना
दी न्हय दोतोर मामा, पयशे हांव दितां
स्ट्राँग करुंक म्यांवूक हांव
मिलेर करतां आत्तां रितो...

दितां वखद परी राणी
आमचे कडेनूच तर आसा
बरें करपाची संजीवनी
उपाय मोटे हांव करतां
आतां पूस दोळे तुजे

देव बरें करूं दोतोर मामा
याद हांव दवरतलें...
आतां म्यांवूक घेवन हांव
खूब खूब खेळतलें....





शोभा फुलकार

## बाय

एक आशिल्लें बाय
नांव ताचें शनाया
शनायाक येताली
सगगल्यांची काकूट
दितालें तें तांकां
सगलेंच बाये फुकट
शनायाच्या फाटले फुडल्यान
कुतू आनी म्यांव
एक घास कुतूक
एक घास म्यांवक
दारांत उबो रावन
कावळो करता कांव कांव
बाय आमचें दिता ताका
इल्ले इल्ले पाव
चिंकी पिंकी रिम्मी सिम्मी
येतात बायसरीं खेळूंक
बाय आमचें दिता तांकां
सगळीं खेळणीं व्हरूंक

---

*चिंबल- मो. 7875237478*

# पिन्टूची मन भोंवडी..

**(फाटल्या अंकांत आमी पळयलें पिन्टू देवाची पुजा करतले आपले आज्रेक देव खंय आसा काय म्हण विचारता आनी आज्री ताका आपले परीन जाप दिता. पूण पिन्टूचे मनाचें समाधान जायना आनी तो परत परत प्रस्न करता आनी उबगून थंयच्यान वता... काळदादच सांगतलो म्हणत. आतां फुडें...)**



पिन्टू आज्रे लागीं देवाच्यो खबरो करता आनी देव खंय आसा हाची खबर विचारता म्हणपाचें आतां घरभर जाल्लें. आज्रेक ताची पयलीं तोखणाय दिसली. आतांचीं भुरगीं देवाक मानिनात, देवाक पांयां पडनात, पांयां पड म्हूण सांगल्यार,'तुमीच करात तो देव देव,विज्ञानाचें आनी तुमच्या देवाचें पटना. तुमीच करात कितें करतात तें!' अशें म्हणपी आयची पिळगी पिन्टूची आजी पळयताली. आपूण पुजेक बसलीं काय पिन्टू देवा कुडी कडेन गणयता, आपल्याक कितें जाय, कितें नाका तें विचारता तें देवाच्या आनी आपल्याय मोगान न्हय तर पुजे उपरांत ताच्या हातार पडपी प्रसादाच्या मोगान म्हणपाचें पिन्टूची आजी पारखून आसली!

पूण आतां पिन्टूक प्रसादाचें, नेवेद्याचें व्हडलेंशें पडून वचूंक ना तर ताका देवाचें पडलां म्हूण जाणवतकच तिकाय मातशें सट्ट जालें. तिणें आपूण वाचतां त्या पोथयांतल्या, पुराणांतल्या कितल्याच काणयांनी पिन्टूचेच पिरायेचे भुरगे देवाचो सोद घेवंक लागिल्ले, तांणी देव देव करीत आपली जीण तांचे तपश्चर्येंत सारली आनी मागीर संतपदाक बी पावले हें ती वाचून, आयकून जाणां आशिल्ली. पिन्टूचीय लक्षणां तिका तशींच दिसलीं. पूण ती ते विशीं पिन्टू कडेन विशेश कांय उलोवंक गेली ना. पिन्टू आतां विचारता तें रोखडोच विसरता काय परतून तेंच विचारता हें ती जाणां जावन घेवंक पळयताली. पूण पिन्टू आपलेच भितर उलयिल्लो वरीं कितें तरी पुटपुटलो आनी गेलो, तें पळोवन तिकाय नाय म्हणल्यार अजाप जालेंच! कित्याक, आपल्याक पडिल्ल्या प्रस्नाची जाप मेळऽसर आनी ताचे शंकेचें समाधान जायसर तो कोणाक सोडी नाशिल्लो. म्हण्णूच ताची आजीच न्हय तर आजो, मम्मा, पप्पा बी सगळींच म्हणटालीं, 'हो पिन्टू, एक खेप दाड़ेक धरल्यार सोडप कठीण' म्हूण!

रातचें जेवन बी जातकच पिन्टू न्हिदूक गेल्या उपरांत आजी पिन्टूचे मम्माक किचन आवरुपाक मजत करताली. पिन्टूचो पप्पा आनी आजो सालांत बसून टिवीचेर कसली तरी कार्यावळ पळयताले.




**दिलीप बोरकार**

*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल सपादक*

पिन्टूक तातूंत व्हडलोसो रस नासतालो देखून तो 'गूड नायट पप्पा, देव बरी रात दिवं आजोबा' म्हणत आपले कुडींत गेल्लो.

''पिन्टूक देवाचें खूब आसा न्हय?'' आयदना विसळायतले आपले सुनेक मांयन म्हणल्यार पिन्टूचे आज्ञेन विचारलें.

'' आयच्या भुरग्याक देव बी कांयच लागना. तुजो नातू म्हणल्यार कोण भक्त प्रल्हाद बी न्हय. फाल्यांच येवन तुका तो सांगता काय ना तें पळय, 'आज्ञे देव बी कांय ना आं!' म्हणत. ताचें कोणेंच चित्र काडूं नज!''

बेसिना कडेन हुमकळटल्या तुवाल्याक हात पुशीत पिन्टूचे मम्मान आपले मांयक म्हणलें.

'' तरी पूण भुरग्याचें लक्ष शिक्षणा वयल्यान विरक्ती कडेन वचत म्हण भंय दिसता गो. तो येदो व्हडलो सिद्धार्थ! कितें उणें आशिल्लें? सगलीं सुखां ऐश्वर्य बी मोखून मारून गेलो ना रानांत? आतां बुद्ध जालो तो ताचे नशिबान ही वेगळी गजाल! पूण सगलेच काय बुद्ध जावपाचे नात! म्हूण हुसको लागता.'' पिन्टूचे आज्ञेन सामकेंच मनार घेतिल्लें.

'' आगे आई, तूं आनी सामकीच गळसणटा. कितें तरी वाचलां आसतलें आनी पडला आसतलो प्रस्न, तूं देव देव करत बसता म्हण्णूय आसत!''

पिन्टूचे मम्मान आपले मांयक थोमणो मारलो.

''म्हाका विरक्ती आयल्या म्हणटकच म्हाका जाय पडटा देवाचो सांगात. पिन्टूक कसली आयल्या विरक्ती? ती ताका आफुडची न्हय म्हूण म्हणलें तुका.''

'' तशें न्हय गे आई, चड वेळ देवाचें करचे परस गरजे पुरतें पांयां पडलीं आनी वेळ वाचनांत सारलो म्हणटकच देव आपशींच येवन मनाच्या गाभाऱ्यांत बसता. तूं वाचता तें पळोवन पिन्टूय वाचत बसतलो. तुज्यो काणयो आयकतलो म्हूण म्हणटां. आयच्या काळांत आजो आज्ञेचो सांगात नातरांक मेळटा हीच भाग्याची गजाल!''

पिन्टूचे मम्मान आपले मांयक फुलोवंक म्हणलें.

तितल्यांत पिन्टुचो पप्पा उदक पिवपा पासत भितर आयलो.

'' कसलें भाग्य फळफळ्ळां मांय सुनेचें? आमच्याय हातार पडूं दी थोडें.'' अशें म्हणत पिन्टूच्या पप्पान उदकाचो तांबयो आनी पेलो उखल्लो आनी परत वचूंक लागलो.

''पिन्टूची खबर चलता. ताका देवाचें लागलां अशें आई म्हणटा. ती नाका जाल्लो हुसको करता.''

पिन्टूचे मम्मान म्हणलें.

''लागूं गे आई लागता जाल्यार. चिंता नाका. हांव हिरण्यकश्यपु न्हय हें जाणा मगे तूं? मागीर चिंता कसली?'' अशें म्हणत पप्पा भायर वचूंक लागलो.

''हो आनी सगलेंच फकाणार व्हरता. लक्ष दिवप ना पुताचेर?''

आईन तशें म्हणूं नाका,पप्पान म्हणलें,''आई, नाका जाल्ले प्रस्न सोदून काडून तातूंत घुस्पून वचप हो पिन्टूचो सभाव म्हण जामा मगे तूं! ताका प्रस्न पडटात तीच बरी गजाल न्हय? तोच प्रस्न तयार करतलो आनी तोच जापो सोदतलो. सोदूं ताका. तुमी येयात आतां भायर. तुमची सिरियल सुरू जाता.'' अशें म्हणत पप्पा गेलो. ताचे फाटल्यान लायट वाडोवन मांय सुनय टिवी पळोवंक सालांत गेलीं आनी तो विशय तांचे पुरतो सोंपलो.

पूण आपल्या हांतुणार पडून न्हिदेची वाट पळोवपी पिन्टूक मात कशीच न्हीद येना आशिल्ली. तो माथ्यार घुंवपी पंख्याक पळयत विचार करतालो. काळदादान आपल्याक कित्याक सांगलें काय, तूं तुजे आज्ञेक विचार देव खंय आसा काय म्हूण! आज्ञेक विचारल्यार विचारल्यार आजी म्हणटा देव देवघरांत आसा. मम्मा म्हणटा देव सगल्याक आसा. लोक म्हणतात देव तांच्या देवळांत आसा. हें जर अशें आसा जाल्यार काळदादाकूय तो खंय आसा तें खबर आसूंक जाय. मागीर ताणें म्हाकां शें कित्याक सांगलें देव खंय आसा काय म्हूण आज्ञेक विचार म्हण?

पिन्टूचें विचारचक्र ताचे वयर घुंवपी त्या पंख्यावरीं

घुंवताले इतल्यात तो पंखो कमी कमी जायत थाबलो कोणें बंद केलो काय? लायट तर वचूंक ना. भायर सगलीं टिवी पळयतात. ताचो आवाज हांगा मेरेन येता. तातूंतलो एकलोय काय उठून हांगा भितर येवन फॅन बंद केलो ना. फॅन बंद जाला काय आपल्याक तसो भास जाला काय? पिन्टू परत चिंतूंक पडटा. तो परतून फॅनाचेर नदर मारता, जाल्यार कितें ! फॅनाचेर काळदादा बशिल्लो आनी पिन्टू कडेन पळोवन मुमुरखोच हांसतालो.

'' काळदादा, तूं हांगा? आनी आतां रातचो?''

'' रात,दीस,दनपार बी हें तुमचे पासत. म्हाका काळाक हें कांयच खबर ना. हांव जाणां तें फकत चलत रावप. कोणा पासत थांबप ना. जो थांबता तो काळा पासत सोंपता. सांग आतां, तुका सांगलें तुज्या घरच्यांनी देव खंय आसा तो?'' काळदादान पिन्टूक याद केली.

'' हय सांगलां. पूण म्हाकां तांतूंतल्यान कांयच समजूंक ना. देव खंय आसा तें कोणूच सारकें सांगूंक शकलो ना.''

अशें सांगतनाच मागीर पिन्टून ताका आजी पुजा करताली तेन्ना साकून कितें कितें जालें तें सगलें सांगून उडयलें. तसो काळदादा हांसलो.

'' काळदादा, तुका तर सगळें खबर आसा. तुकाच खबर आसा देव खंय आसा तो! मागीर तूंच सांगून उडय न्हय म्हाकां.'' पिन्टून काळदादाक विनयलें.

'' पिन्टू, तुमी जाका देव म्हणटात ताचे विशीं म्हाकां कांयच खबर ना. हांव अनंत आसलों तरी



तुमची संकल्पना आनी काळाची गती हाचो मेळ जुळना. म्हाकां जर तूं विचारत जाल्यार हांव सांगन म्हाकां तुमचे संकल्पनेंतलो देव खंयच दिसना. ती संकल्पना म्हणल्यार तुमची मर्यादा. ती तुमच्या मनांतली एक निर्मिती. आतां म्हाकां सांग, मन खंय आसा?''

काळदादाच्या प्रस्नान पिन्टू घुस्पलो. जाप तर दिवपाक जाय. खंय आसा काय मन? पिन्टू येवजूंक लागलो. विज्ञान शिक्षकान तर ताका शरीरशास्त्र शिकयल्लें. मनशाचे कुडीचें चित्र दाखोवन दरेक अवयवाची वळख घडयल्ली. तकलेची कवटी, भितरलो मेंदू, नाक, दोळे, दांत, जीब.स्वरयंत्र, कान, पुलमांव, काळीज बी सगळें दाखयल्लें. पूण तें दाखयतना मन ते कुडींत खंय आसा हें केन्नाच सांगलें ना. अशें आसुनय आमकां मन आसा अशें सगळेच म्हणटात. खंय आसा काय मन?

पिन्टू काळदादा कडेन पळयत रावलो. ताका आपल्याच्या मनांत कितें शिजता तें सगळें कळ्ळां म्हणपाचें उमगलें.

''पिन्टू,तुका तुजे कुडींत मन खंय आसा हें सांगूंक जमना तशें ह्या संपूर्ण विश्वांत देव खंय आसा हेंय सांगूंक जमचें ना. जशें तुजे कुडींतलें मन तशें ह्या विश्वाचें मन म्हणल्यार देव अशेंच तूं समज. ह्यो दोनूय खूब व्हडल्यो शक्ती. त्यो सोदून कोणाकूच सांपडना आसल्यो तरी त्यो आसात म्हणपाचें दरेकल्याक होलमता. जाका तुमी देव म्हणतात ताचो अंश मनाच्या रुपान तुमचे कुडींत वसता.तें मनूच देवाचें प्रतिनिधीत्व करता आनी तुमकां दिका दाखयता जिविताची. त्याच मनाची भोंवडी आमी जेन्ना मेळटात तेन्ना करुंया,''

अशें काळदादान म्हणला मात इतलो वेळ बंद जाल्लो फॅन परत फिरपाक लागलो आनी पिन्टू केन्नाच न्हिदेच्या गोपांत सुस्तावलो.

***(चलता...)***

*पणजी, गोंय. मो. 9822136885*



## कोंबायल्ल्या आवऱ्यांची उसळी

**साहित्य–** 1 वाटी आवरे, अर्द वाटी सोय, 2–3 हरव्यो मिरसांगो बारीक शिंदून,अर्द ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 1 ल्हान कुलेर सांसवां, 1 ल्हान कुलेर हिंगा पिठो,1 ल्हान कुलेर साकर,1 ल्हान कुलेर तेल,थोडो कोथमिरे पालो बारीक चिरून,रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** आवरे दोन दीस पयलीं उदकांत फुगत घालात. दुसरे दिसा सकाळीं उदक निस्तून चाळणींत उसपून घेयात. 8–10 वरांनी ताका कोंब येवपाक लागतात. परत ते रातीक उदकांत घालून दुसरे दीस सकाळीं तांचीं सोलां काडून घेयात. मागीर एका तोपांत तेल तापोवन सासवां,हिंगाचीं फोडणीं घालात. सासवां फुट्टकीर कोंबायिल्ले आवरे, हरव्यो मिरसांगो, हळदी पिठो घालून 10 मिनटां तोपार धांकणें धापून मंद उज्यार शिजोवन घेयात. उपरांत सोय, साकर, मीठ आनी कोथमिरे पालो घालून 2 मिनटां शिजयात. ही उसळी गरम गरम चपाती वा रोटये वांगडा रुचीक लागता.



**डॉ. रिना लवंदे**

*नामनेची डेंटीस्ट,कविता आनी ललित लेखनांत उमेदवारी चलता.*

## सडसडीत चिकन टिक्का मसाला

**चिकन टिक्काचें साहित्य–** पाव किलो हाडां शिवाय चिकनाचे कुडके. 2 व्हड कुलेरां दाट धंय,1 ल्हान कुलेर तंदुरी केसरी रंग, 1 व्हड कुलेर काश्मिरी मिरसांगां पिठो,1 व्हड कुलेर गरम मसाला,1 ल्हान कुलेर आलें लसूण पेस्ट, रुची पुरतें मीठ.

**ग्रेव्ही खातीर साहित्य–** 2 कांदे मिक्सरांत घालून पेस्ट करात,1 व्हड कुलेर आलें लसूण पेस्ट,1 व्हड कुलेर गरम मसाला, 1 व्हड कुलेर काश्मिरी मिरसांगां पिठो,1 व्हड कुलेर काजू बियांचो 1 ल्हान वाटी कोथमिरे पालो,1 व्हड कुलेर किचन किंग मसाला, 1 ल्हान कुलेर तंदुरी केसरी रंग,1 कप उदक, रुची पुरतें मीठ.

**चिकन टिक्का करपाची तरा–** चिकनाच्या कुडक्यांक वयलो चिकन टिक्काच्या साहित्यांत आशिल्लो सगले मसाले लावन एक वर मुरोवपाक दवरात.

उपरांत एक कायल मंद उज्यार दवरून तांतूंत हे मुरोवपाक दवरिल्ले चिकनाचे कुडके घालचे. सात–आठ मिनटां शिजोवन घेयात. मदीं मदीं चाळो मारात. चिकनाक उदक सुट्टा. ह्याच उदकांत हें चिकन सुकता आनी सुकसार जाता. ह्या चिकनाचे कुडके एके बशेंत काडून पांच मिनटां न्हिवपाक दवरात. न्हिवतगीर कुडके तंदुरी स्किवर्सांक लावन गॅसार भाजून घेयात. चिकनाचे कुडके स्किवर्सांतून काडून न्हिवपाक ताटांत दवरात.

**ग्रेव्ही (मसाला) करपाची तराः**



एके कायलींत तेल तापोवन तातूंत आलें लसूण पेस्ट,काद्याची पेस्ट मद उज्यार ताबसार जायसर तळून घेयात. मागीर तातूंत मिरसागे पिठो, गरम मसालो, काजू बिया पिठो आनी मीठ घालून बरें चाळून घेयात. अर्द कप उदक घालून एक खतखतो काडात. उपरात किचन किंग मसाला आनी तद्री रंग घालात. उरिल्लें उदक घालून शिजोवन घेयात. शिजतकीर चिकन टिक्का हे ग्रेव्हींत घालून चाळात 5 मिनटां शिजयात. ताचे वयर कोथमिरे पालो घालून खावपाक तयार.

हो जिन्नस बटरांत वा बटर रोटये वांगडा रुचकर लागता. चिकन टिक्का मायक्रोव्हेन वा ओटीजी सुद्दा करतात.

## कोकण दुदया खीर



**साहित्य–** 1 मध्याम कोकण दुदी, 1 व्हड कुलेर तूप,2 व्हड कुलेर शाबू दाणे, 3 वाटयो दाट नाल्ला रोस, 2 वाटयो किशिल्लें गोड,1 व्हड कुलेर वेलचे पिठो, रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** कोकण दुदी तासून बरो किसून घेयात. एके कायलींत तूप तापोवन हो दुदयाचो कीस तुपांत परतून घेयात. 3 वाटयो उदक आनी शाबूदाणें घालून 10 मिनटां शिजयात. उपरांत नाल्ला रोस आनी गोड घालून एक खतखतो काडात. रुची पुरतें मीठ घालून 2 मिनटां शिजयात. खीर तयार.

*कळंगुट– मो. 9823998884*

# जयमाला दणायत

## *मायेस्त सभावाची गुणी लेखिका.*



जयमाला गेलें म्हणपाची खबर म्हाकां व्हाटसेपान दिली. ताचो तो फोटो पयलीं नदरेक पडलो तेन्ना म्हाकां दिसलें हाका कसलो तरी पुरस्कार बी मेळ्ळा. मागीर तें बंगळुराक संवसाराक अंतरलें म्हणपाचें वाचून काळजांत धस्स जालें. आरे हांणे इतले बेगीन वचप? अशें कितेंशें फील जालें. मागीर सट्ट करून मुंबय शीला कोळंबकाराक फोन केलो. म्हजो फोन घेवन शीलान सदचे वरीं हॅलो म्हणटना ताचें रुपांतर हुंडक्यांत केलें.

शीला आनी जयमाला दोगांय लग्न जावन मुंबय गेलीं. दोगांय म्हजे परस पंदरा वर्सांनी व्हड पूण दोगांकूय हांव एकेरीच नांवान उलो मारीत आयलां. म्हज्या रुपाक तें सोबून वतालें म्हणून जावंये वा तीं सोंसून घेतालीं म्हूण जावंये!

शीला आनी जयमाला खंयच्याय संमेलनाक वांगडाच वतालीं. थंय तीं वांगडाच मेळटालीं. अस्वडीं एकलें कोणूय मेळ्ळें जाल्यार 'आगो शीला गो?' 'आगो जयमाला गो?' अशें विचारप जातालें. गोंयांत वा मालवण, कारवार बी खंयीय संमेलन आसत जाल्यार शीलाचो फोन आसतालो. ' आरे तूं वतलो मरे? फाटलें सीट आमकां. मुखार तुका जाय ताका बसय.' अशें अधिकारान बुकींग जातालें. जयमाला तशें मातशें भिडेस्त वा मुर्वती. ताका भंय आसतालो म्हाका वायट बी दिसत म्हूण! तशें तें मागीर म्हणटालेंय,'राग बी आयलों ना मरे तुका?' ताचेर हांवें कितेंय उलोवंचे आदींच शीलाचो कमेंट,'येवं गो आयल्यार! ताचें पडलां कोणाक?' तर अशें हें नातें. राग नाशिल्लें,लोभ आशिल्लें. कशीं जातात हीं नातीं अशीं निर्माण?

मुंबय एकदां साहित्य संमेलन आशिल्लें. तेन्ना हांव भोवतेक कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आशिल्लों जावंक जाय. म्हजे भोंवतणी कोण कोण आशिल्लीं, सातेक जाणां. तातूंत जयमाला,सुधा खरंगटे, मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार, बंगळुरचें इंदु गेरसप्पे बी आशिल्लीं जावंक जाय. सदचे वरीं शीला आपल्या हक्कान हांवें कितें करूंक जाय तें सांगतालें आनी म्हाका वायट बी दिसत म्हूण आपल्या सभावा प्रमाण,'आगो ताका वायट बी दिसत मगो!' म्हणत जयमाला म्हजी बाजू घेतालें. इतल्यांत ते वटेन पसार जावपी रमेश वेळुस्कार काय तानाजी हळर्णकार कोण तरी रावलो आनी ताणें विचारलें,' आरे दिलीप, इतले जाणांक घेवन तांकां कसलीं शाणपणां सांगता रे?' तेन्ना हांवेंय ताचीं फकाणां करीत म्हणिल्लें 'आरे आयज म्हज्यो सातूय भयणी म्हाकां दोडल्यात आनी हांव तांचो एकलो एकसुरो भाव तांची खबर घेतां.' म्हजें आयकून सगळ्यांक हांसो फुटलो आनी तो विशय थंयच सोंपलो!

पूण तो विशय थंय सोंपलोच ना. मागीर थंयच्यान विशय सुरू जालो तो तांणी 'दिलीप' म्हूण उलो मारपा बदला 'हे भावा!' सुरू जालें आनी हांवेंय तोच पोत घेवन 'हे भयणुले!' सुरू केलें. अशें हें खेळीमेळीचें नातें कोंकणी कुटुंबांतलें.

हांव बरोवंक लागचे आदीं जयमाला,शीला बी बरयतालीं आनी हांव तांचो वाचक आशिल्लों. शीला आगशी गांवांत आमच्या घरा शेजराक सांत लॉरेन्स हायस्कुलांत शिकयतालें आनी ती लेखिका बी म्हूण ताचे विशीं म्हाकां खूब आदर. हो सगळो मराठी वाचनाचो प्रभाव. तेन्ना लेखक म्हणटकच आमचे सारख्यांक परब्रह्म आसतालें. अजून आसा. जयमाला तेन्ना खंय रावतालें खबर ना. पूण तें कोंकणी कार्यावळीक बी मेळटालें जावंक जाय. पूण ताचो लागसार सुरू जालो तो




**दिलीप बोरकार**

*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक*




शणै गोंयबाब जल्म शताब्दीच्या काळांत जावंक जाय. तेन्ना आमचीं शिबिरां वा 'ललितक'च्यो कार्यावळी जाताल्यो आनी सगळे कोंकणी लेखक कार्यकर्ते बी नेमान मेळटाले. एक कुटुंब कशें वागताले. पण जयमालाची म्हाका याद तकलेंत घट्ट बरी उरल्या ती ताणें म्हाका बेतीं निर्ला हांगच्या ताच्या राबित्यांत दनपरां जेवणाक आपयल्लो आनी आगरो करू करून वाडिल्लें तें.

जयमालाचो घरकार तेन्ना 'बॅन्क ऑफ इंडिया'चे नेरुल शाखेंत नोकरी करतालो. देखून तीं थंयच एका फ्लॅटांत रावतालीं. जयमालाय तेन्ना बँकेंतूच नोकरी करतालें जावंक जाय. मागीर भुरगीं जातकच ताणें नोकरी सोडल्या म्हणपाचें ताणें म्हणिल्ल्याची याद जाता. ती सोडटकच ताचो वेळ भुरगीं आनी बरोवप हातूंत वतालो आनी ते लेखिकेचें हांव मेळटा तें वाचतालों. तेन्ना बरें साहित्य वायट साहित्य हो प्रकार म्हाकां कळनाशिल्लो आनी आतांय कळना. म्हाकां कळटा तो मनशां भितरलो सृजनतायेचो हुंकार आनी त्याच हुंकाराक हांव नमन करीत आयलां. मागीर जयमालाच्या घरकाराची बदली जावन तीं मुंबय गेलीं जावंक जाय. त्या उपरांत ताचें मेळप साहित्य संमेलनाक जावंक लागलें.

जयमालाचें पयलें साहित्य हांवें वाचलां तें 'पुनव' ह्या नेमाळ्यांत. तातूंत ताच्यो कथा जावं ललित येतालें. 'पुनव' गुरुदास पे काडटालो. मागीर जयमालाचो 'करबट' हो लेख संग्रह प्रभाकर भिडे हांणी आपल्या राजहंस प्रकाशना वतीन उजवाडाक हाडलो.

उप्रांतच्या काळांत 2002 वर्सा हांवें बिम्ब म्हयनाळें सुरू केलें आनी जयमाला नेमान बिम्बांत बरोवंक लागलें. कोंकणी अकादेमीची एक साहित्य प्रभा म्हूण प्रकाशन पालव येवजण आसा. ती खंयच्याय लेखकाचें पुस्तक उजवाडाक हाडूंक त्या लेखकाक खर्चाच्या पन्नास टक्के अनुदान दिता. जयमालान ते येवजणे खाला अर्ज केलो आनी ताका तें अनुदान मेळ्ळें. ताणें म्हाका विचारलें,'दिलीप,म्हजें पुस्तक काडटा मरे?' (शीलाचें आसल्यार शीला म्हणटलें आशिल्लें,'दिलीप,म्हजें पुस्तक काड रे. चोरा, तूं ना म्हणूंक शकना. काडटलोच!') अशें हें सामकें मवाळ जयमाला. ताका ना म्हणप म्हणल्यारच पाप शें! हांवें हय म्हणलें आनी 2006 वर्सा ताचें 'आंबाड्या भोवतीं तीन शेंवतीं' हो ललित लेख संग्रह  बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडलो.

जयमाला धरून सगल्यो पांच भयणी. व्हडल्या दोग भयणींक हांव केन्ना मेळ्ूंक ना. पूण सुधा खरंगटे, पुष्पा नावेलकार आनी जयमालाक हांव वळखतां. पुष्पा नावेलकाराचो हांसो घसघसो कसो. आंगार येवपी. जयमालाचो खळखळते न्हंये वरीं पूण संथ आनी सुधाबायचो झुळझुळपी वझऱ्या वरीं. भितरले भितर. हाचे वयल्यान तांच्यो हेर दोनूय भयणी हांचे वरींच आसतल्यो असो म्हजो अदमास. तांच्या ह्याच हांसपाक लागून आनी मायेस्त सभावाक लागून  हीं मनशां सगळ्यांक जाय जाय शीं दिसतालीं.

जयमाला कितलें श्रेश्ठ लेखिका तें काळ थारायतलो. पूण तें सातत्यान आनी वाचनीय बरोवपी अशें कोंकणींतलें लेखक. ताणें जें कितें बरयलां तें कितें व्हडले अपेक्षेन बरोवंक

ना. आयलें तशें गायलें, जमता बरोवंक,मनांतल्यो भावना जातात उक्तावंक अशें मानून तें बरयत रावलें. कोणें आपल्याक तोखेवंक जाय, पुरस्कार दिवंक जाय वा आनी कितें करूंक जाय हाचें ताका कांयच पडून वचूंक ना अशें एकंदर ताची कालेत पळयत जाल्यार दिसतालें. तें कोणाचे आनी कसलेच सर्तीत आपल्याक मुखार करी नाशिल्लें. आपल्याक जमता तें काम करीत रावप आनी सुचता तें बरयत रावप असो ताचो एकंदर सभाव अशें म्हाकां सदांच दिसतालें.

अशें आसूनय ताणें कथा, ललित आनी अणकार ह्या मळाचेर आपले परीन कोंकणी साहित्यांत भर घाली. फकत भरूच घाली ना तर आपलो जयमाला ठसोय दवरलो. कोणाच्या अध्यात ना मध्यांत अशे वृत्तीन तें सातत्यान बरयत गेलें आनी ताचीं कथा संग्रह, बालसाहित्य, ललित, अणकार अशीं वट्ट 19 पुस्तकां कोंकणी सरस्पतीच्या दालनांत मांडून ताणें अकस्मात निरोप घेतलो. आपलीं इतलीं पुस्तकां आसात हाचें पेरगांव ताणें केन्नाच घालें ना वा कोणें घालचें अशीय अपेक्षा कोणा कडल्यान दवरली ना.

जयमालान अणकाराकूय आपले परीन न्याय दिला. ताणें श्रीलाल शुक्ला हांची 'राग दरबारी' ही हिन्दी कादंबरी साहित्य अकादेमी पासत अणकारीत केल्ली. मूळ भास येता जाल्यार अणकार कित्याक वाचप हे भुमिकेंतल्यान हांवें जयमालाचो हो अणकार वाचूंक नाशिल्लो. ताणें दिल्लें पुस्तक आलमारींत आशिल्लें. मूळ हिन्दी कादंबरी हांवें वाचिल्ली. जयमाला गेल्या उपरांत हांवें ताचेर नदर मारली आनी ताचे भितरली अणकाराची कळाशी, हिन्दी आनी कोंकणी ह्या दोनूय भासांची अणकारा पासत जाय आशिल्ली ताचे भितरली जाण हें सगळें हांवें पळयलें तेन्ना मनांत एक प्रस्न आयलोच! हें सगळें हांव आतां कित्याक बरयतां? हांव जयमाला विशीं जें कितें बरयतां तें वाचूंक तें खंय आसा? कितें बरोवपाचें आशिल्लें जाल्यार तें आसतनाच बरोवपाचें! आमी कोणाविशीं स्पश्ट बरोवपाक कित्याक आखुडटात काय? आमी व्हड मनशांकूच सतत व्हड करीत रावतले काय अलिप्त रावून आपलें काम करप्याक सोडून काडून तो आमचे मदीं जिवीत आसतनाच ताचे विशीं मनांत आशिल्लीं दोन उतरां उक्तायतले? ही दानत केन्ना येतली काय? हे प्रस्न म्हजे म्हाकाच हांव करतां. ते वेळार जाप नासता आनी मती सुन्न जाता.

*कल्याणी सावंत हांच्या 'काव्यश्री' काव्य संग्रहाचें लोकार्पण करतना सुलक्षणा प्रमोद सावंत, प्रकाशक आनी ज्येश्ठ साहित्यकार दिलीप बोरकार, उद्योजिका आनी लेखिका सारिका नायक, आनी प्रा, मानसी धाउस्कार*

'काव्यश्री' हें खूब सुंदर अशें नांव हया काव्य संग्रहाक दिल्लें आसा आनी तें छापून हाडिल्लें आसा बिम्ब प्रकाशनान आनी ताका खूब सुंदर अशें मुखपृष्ठ लेखक आनी चित्रकार बाब समीर झांटये हांणी चित्रायल्लें आसा. ह्या संग्रहाक प्रस्तावना लाबल्या बाय काजल केरकार हांची. बाय काजल केरकार कल्याण बायची धूव. एक धूव आपले आवयच्या पयल्याच पुस्तकाक खूब सुंदर तरेन प्रस्तावना बरोवप ही म्हाका दिसता गोंयच्या साहित्य मळा वयली पयलीच घडणूक. ते पासत आवयक आनी धुवेक परबीं फावता. हें आपलें पयलें वयलें पुस्तक कल्याणबायन आपल्या मायेमोगाच्या बापायच्याा पांयांर ओपलां.

आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार कवयित्रीन आपलें मनोगत

लेगीत कवितेंतल्यान मांडलेलें आसा. कल्याण बायन म्हाकां हें पुस्तक हाडून दिलें आनी पुस्तक हातांत पडना फुडें हांवेन तें पयलीं अर्दे आनी दुसरे दिसा अर्दे अशें भराभर वाचून काडलें.

केन्ना केन्ना कितें जाता, जेन्ना आमी खुबश्या एकाच कविच्यो चड कविता वांगडाच वाचतात तेन्ना त्यो सगल्या एक सारक्यो कश्यो दिसतात. रिपीट जाल्या कश्यो दिसतात वा परत परत त्योच कविता वाचिल्ल्या भशेन दिसतात. पूण कल्याण बायच्यो कविता वाचतना म्हाकां खंयच तशें जाणवलें ना हें मुद्दाम सांगतां. कारण प्रत्येक कविता वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर आयिल्ली आसा. वेगळो आशय घेवन आयिल्ली आसा. कल्याण बायल्यो सगल्यो कविता 'शॉर्ट अँड स्वीट' अश्यो आसात.



सारिका
नायक

*वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी सातत्यान कविता, ललित, गितां, अभंग बरयता आनी कला अकादमीच्या नाट्यसर्तींत वेगवेगळ्यो भुमिका करता.*




हया कविता झेल्यांत वट्ट शंबर कविता आसात आनी हातूंतल्यान कवयित्रीन वेगवेगळे विशय मांडलेले आसात. वेगवेगळे संदेश वाचकां मेरेन पावोवपाचो यत्न केल्लो आसा. चडश्यो कविता मुक्त छंदांत आयिल्ल्यो आसात. आमी जशीं म्हणटात 'आयलें तशें गायलें' तशेंच 'आयल्यो तश्यो बरयल्यो' अश्यो आसूं येतात. तशें वाचतना तें जाणवता. देखीक वाढदिसाच्या निमतान जेन्ना कवयित्री घरा येता तेन्ना घरांत वाडदिसाच्या निमतान आवय कितें करता? आजी केकाच्या जाग्यार धोणस करता, शेजाऱ्यां पाजाऱ्यांय कितें कितें करतात. अशे तरेन घडलें तशें तें कवितेच्या रूपान बरयलें अशें दिसता.

कांय कविता एका धपक्यान बरोवन काडल्यात कश्यो दिसतात. जशें ल्हानपणांतलें घर कवयित्रीन सुंदर रित्या चित्रायल्लें आसा. जातूंत आयिल्ली सगळी उतरावळ, देखीक शेणाची जमीन, न्हाणये घर, मातयेचे पारे, व्हडलें खळें. ही कविता वाचून दरेकल्याक आपलें जुनें घर वा गांवगिऱ्या वाटारांतलें घर याद जावपाकूच जाय.

'कमळ' कवितेंत जल्म खंय जाला ह्या परस ताच्या कर्तृबांतल्यान ताचें मोल थारपाक जाय हें सांगपी कमळ कविता सुंदर रितीन आयल्या.

सोयरीगत करतना पत्रिकेर विस्वास थेवन वा नडी आडमेळीं येवन चाळीशी कशी हुपता हे सुंदर तरेन कवयित्रीन मांडलां.

अस्तुरेचीं कितलींशींच रुपां, आपूण कोणाची कोण हाचो तिका अदमास आसा, ताचें भान आसा. पूण हें सांगतनाच आपूण आपली कोण? हो प्रस्न कवयित्रीक उप्रासता. 'मांयभास' कवितेंतल्यान कोंकणीचो मोग आनी अभिमान कवयित्री उक्तायता.

सैमाचेर बरे तरेन वर्णनात्मक कविता ह्या पुस्तकांतल्यान आयल्यात. दुसऱ्यांक नोतां दवरपी वा दुसऱ्याच्यो चाडयो वा दुसऱ्याक नांवा दवरण्यां बद्दल कवयित्री बरीच पोटतिडक उक्तायता. कांय कवितांनी कवयित्री देवा कडेन प्रार्थना करता, जाल्यार कांय कवितांनी ती देवा कडेन मागणेंय म ागता. पूण तें मागणें मागतना ती केन्नाच आपले खातीर मागी ना तर आपल्या वांगडा सगळ्यांक लागून ती मागणें मागता. हाचे वयल्यान कवयित्रिच्या उदार मनाचो दिस्टावो जाता.

आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार कल्याणबाय सोता नर्स आसल्या कारणान तांचो सेवाभावी सभाव खुबश्या कवितेंतल्यान दिश्टी पडटा. कांय कवितेंतल्यान सल्लो दिता तर कांय कडेन कसल्याय दुयेंसा पासून जतनाय कशी घेवप, सावधगिरी कशी बाळगप, गुरवारपणांत काळजी कशी घेवप, आवयचें दूद भुरग्यांक कशें लाबदायक आसा अशे म्हत्वाचे सल्ले कवयित्रीन कवितेंतल्यान सांगल्यात. म्हणजेच आपलें प्रोफेशनल काम आनी कवितेची आवड हांची सांगड-मांगड घालून सवड काडून हे लाख मोलाचे सल्ले





आनी म्हायती वाचकां मेरेन पावोवपाचें काम कल्याणबायन हया कवितांच्या माध्यमांतल्यान केल्लें आसा. हें काम तोखणाय करी सारकें.

आनीकूय खुबशे विशय हया पुस्तकांत आस्पावल्यात. सगळ्याच कवितांचेर भाश्य करप शक्य ना. वेळाच्या बंधनाक लागून तें जाणीव पूर्वक टाळटां, तरीपूण एक गजाल सांगन दिसता ती म्हळ्यार, कल्याण बाय बरयता. बरोवन ती घरातल्यांक आनी आपल्या इश्टीणींक वाचून दाखयता. व्हाट्सअप ग्रुपार इश्टीणींक धाडटा. आनी तिच्यो जिवाभावाच्यो इश्टींणी, घरकार , धुवो, जांवय आनी तिर्ची नातरां सुद्दां त्यो कविता वाचून तांचेर आपलें मत मांडून कल्याण बायक उर्बा दितात. तांकां आनीक बरोवपाक उर्बा दितात. ही गजाल खूब तुस्त आनी अपुर्बाय करी सारकी. आमी जेन्ना एक गोफ विणटात तेन्ना तातूंतल्यान एक सुंदर कलाकृती तयार जाता. आनी तांतूंत एक सुंदर रंगाची मिसळण तयार जाता, जी आमचे नदरेक भावता आनी पळयतल्याचें मन प्रसन्न करता.

हें पुराय पुस्तक जिणेंत आयिल्ले बरे, वायट, खर अणभव केन्ना हांसते, केन्ना रडटे, केन्ना कर्तव्य म्हण, केन्ना गरज म्हण, केन्ना भक्तीभाव, केन्ना श्रद्धा, निश्ठा केन्ना सेवाभाव अश्या सगळ्या उमाळ्यांचो एक गोफ हया पुस्तकांतल्यान वाचप्यांक अणभवपाक मेळटलो हें निश्चित आनी तुमकां तो भावतलो हातूंत मात्तूय दुबाव ना. मुजरत हें पुस्तक वाचात आनी तुमच्यो प्रतिक्रीया, तुमर्ची मतां कवयित्री मेरेन पावयात जाका लागून कवयित्री आपले भितर गरज पडल्यार सुदारणा करून आनी उर्बा घेवन फुडल्या पुस्तका पासत बरपांत सातत्य चालू दवरतली.

हांव परत एकदां कल्याणबायक ताच्या पयल्या वयल्या कविता झेल्याक लागून परबीं भेटयतां आनी फुडे बेगीनूच आमकां आनीकूय तांचे कडल्यान वाचपाक मेळटलें अशी आस्त उक्तायतां.

---

*सांखळे– मो. 9834480438*



## ► उखाणीं



1. लक्ष्मीच्या पावलांनी.......... म्हजें आयलें,

   जिणेंत म्हज्या येतकर भाग्य रसरसलें.

2. श्रावणाच्या भाराभर पालेता कोंबरी

   ......म्हज्या काळजांत फुलयता चंवरी.

3. .......चें आनी म्हजें उतर सदांच जुळटा

   म्हण आमचे मदीं मोगान मोग वाडटा.

4. एक पांय घरांत, एक पांय् दारांत

   ........ घालता तन्नमणी म्हज्या गळ्यांत.

5. पांचपरतना दिसा,पंचपक्वानांचो थाट

   .........म्हजो भुकेला पळयता भुसाची वाट.

6. बेनुर्डे म्हजें कुळार,फातर्पे म्हजो गांव

   ........च्या नांवा आदीं येता म्हजें नांव.

उखाणें म्हणल्यार मनातल्यो भावना कमी उतरांनी परगटावप.परंमपरागत लोकांच्या ओठार पुटपुटपी ,काळजांतलें हाडपी एक काव्य.


*मडगांव-गोंय, 8698147583*



**वैष्णवी रायकार**

*कविता तशेच ललित साहित्यांत सातत्यान आपलें योगदान दीत आसा. साहित्यांत नवे नवे प्रयोग करता.*

## आकाशवाणीच्या सर्वभाषा कवी संमेलनांत गोंयची हर्षा शेटये वांटेकार

केंद्र सरकारच्या प्रसार भारती यंत्रणेचें 'आकाशवाणी' हें साक्षरताय, मनरिजवण आणि देशांतल्या भोवभाशीक सर्जकातल्या वाचीक आनी मौखीक कलागुणांक उबी दिवपी प्रसार माध्यम वेगवेगळ्या कार्यावळींचें आयोजन करता. याच आयोजना मदली एक राष्ट्रीय कार्यावळ म्हणल्यार 'सर्वभाषा कवी संमेलन'.

प्रजासत्ताक दिनाच्या निमतान हो काव्योत्सव आकाशवाणी आयोजीत करता आनी दर वर्सा देशांतल्या विंगविंगड राज्यांत ताचें आयोजन करता. ह्या उत्सवांत राष्ट्रमान्यताय मेळिल्ल्या 24 भाषांतल्या कवींक निमत्रीत करतात आनी तांचे वांगडा तांचे कवितेचो अणकार करप्याकूय तितल्याच मानान ह्या उत्सवांत आस्पावन घेतात. मूळ कवी इतलोच अणकार करप्याकूय आकाशवाणी देशांतल्या सगल्या भाशांतल्या रसिकां मुखार दवरता.

ही प्रक्रिया दर वर्सा देशाचो प्रजासत्ताक दिन लागीं पावता तशी आरंभ जाता. थळावें आकाशवाणी केंद्र ते ते भाशेंतल्या कवींक वेंचता आनी तांचे कडल्यान कविता मागयता. त्यो कविता मागीर थळाव्या पांवड्यार वेंचून दोन कविंच्यो कविता तांच्या हिन्दी आनी इंग्लीश अणकारा सयत दिल्ली आकाशवाणीक धाडून दितात. थंय त्या दोन कवीं मदल्यान परिक्षक मंडळ एकाची निवड करून ताका ह्या सर्वभाषा कवी







संमेलनांत निमंत्रीत करतात. अशे हे प्रक्रियेंतल्यान देशांतल्या 24 भाशांतले कवी आनी अणकारपी कवी संमेलनांत वांटेकार जातात. ह्या संमेलनाचो आस्वाद देशांतल्या सगल्या रसिकांक घेवंक मेळचो देखून दर वर्सा ताच्या आयोजनाचो मान त्या त्या राज्यांतल्या आकाशवाणी केंद्रांक दितात आनी तीं केंद्रां हें आयोजन आपले तांकी प्रमाण दबाजान करपाचो यत्न करतात. हो सुवाळो म्हणल्यार दरेक राज्यांतल्या कवीक राष्ट्रीय कवी म्हूण मान्यताय दिवपी सुवाळो.

ह्या वर्साचो 2023 चो सुवाळो 10 जानेर 2023 दिसा दिल्लीच्या रंगभवन सभाघरांत जालो आनी तातूंत कोंकणी भाशेचें प्रतिनिधीत्व कवयित्री आनी लेखिका हर्षा शेटये हांणी केलें. तांणी आपली 'रांदन' ही कविता दिल्लींतल्या काव्य रसिकां सामकार सादर केली आनी फाटोफाट तिचो हिन्दी अणकारय रसिकां मुखार सादर जालो जाका देशांतल्या 23 भाशांतल्या कवींनी भरभरून दाद दिली.

त्या उपरांत प्रजासत्ताक दिनाचे पुर्वसंध्येर रातच्या 10 वरांचेर तांची हीच कविता देशांतल्या सगल्या आकाशवाणी केंद्रा वयल्यान 22 भासांतल्यान अणकारीत जावन एकाच वेळार प्रसारीत जाली.

कोंकणी कवितेचें मोख्र आनी हर्षा शेटये हांची राष्ट्रीय कवी म्हूण देशांतल्या हेर कवींक जाल्ली वळख ही हेर रसिकां वांगडाच बिम्ब परिवाराकूय तोखणायेची. तांचो पयलो काव्य संग्रह 'म्हजी माती म्हजें मळब' बिम्ब प्रकाशनान 2007 वर्सा उजवाडाक हाडला.

# नामनेची अभिनेत्री आनी समाजवावुरपी डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स हांकां बिम्ब अस्तुरी 2023 पुरस्कार जाहीर



गौरी (मल्याळम),यू कॅनॉट गीव रिझन,कॉफीन मेकर, द लेटर्स, (इंग्लीश),आश्रय,जॅकपॉट,रानी दुर्गावती, (हिन्दी),ओ मारिया,इल सर्च ऑफ मदर, नाचोया कुंपासार, एनिमी,हांव तूं तूं हांव,(कोंकणी), उदय,प्रेमसुत्र, अ रेनी डे, (मराठी), कालापोर (हिन्दी) ह्या आनी अश्या कितल्याच भासांतल्या चित्रपटांनी तशेंच जबान संभाल के,जमीन आसमान,रिपोर्टर, हम मुंबई नहीं,दिल्लगी, शादीयाँ, रजनी,बोमकेश बक्षी,दृष्टांत सारख्या कितल्याच दुरदर्शन मालिकांनी आणि लोककथा 78, अंधार यात्रा ,बाकी इतिहास,वसंतदाह, सारख्या मराठी तशेंच कोंकणी नाटकांनी म्हत्वाच्यो भुमिका करून वेगवेगळे पुरस्कार हातासपी गोंयच्यो डॉ. मीनाक्षी मार्टीन्स हांका बिम्ब अस्तुरी पुरस्कार 2023 पासत वेंचून काडलां.

अभिनया भायर डॉ. मार्टीन्स हांणी समाजसेवेंत म्हत्वाचें योगदान दिलां. विद्यार्थी आनी युवा चळवळींतल्यान रासवळ मळार आयिल्ल्या डॉ.मिनाक्षी मार्टीन्स हांणी वैजकी मळार आपली सेवा दिल्याच,त्याभायर वेगवेगळ्या सरकारी आनी नीमसरकारी संस्थांच्या पदांचेर रावून तांणी आपले कारकिर्दींत आपल्या वावरांतल्यान कितल्याच गरजवंतांक न्याय दिल्लो आसा. कामाचे सुवातेर अस्तुऱ्यांक लैंगीक पिडापीड भोगची पडची न्हय म्हूण स्थापन केल्ल्या उत्तर गोंय समितीच्यो त्यो अध्यक्षा आसा. गोंय राज्याच्या भारत स्कावट आनी गायडाच्यो त्यो उपाध्यक्ष जावन आसात. सर्वोच्च न्यायालयाचे सुचोवणे वयल्यान कुटुंब कल्याण समितीचेर उच्च न्यायालयान नेमिल्ल्यो त्यो वांगडी आसात. तांणी 2008 ते 2012 ह्या काळांत बाल कल्याण समितीच्यो वांगडी म्हूण तांचो मोलाचो वावर आसा. त्या भायर तांणीं हेर कितल्याच संस्थांनी आपलें योगदान दिल्लें आसा.

बिम्ब अस्तुरी पुरस्कार जोडपी डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स ही गोंयची तिसरी अस्तुरी आसात. त्या आदीं डॉ. प्रमोद साळगांवकार आनी प्रशांती तळपणकार हांकां हो पुरस्कार फावो जाला.

पंचवीस हजार रुपया रोख,मानपत्र, शाल श्रीफळ आनी यादस्तीक अशें ह्या पुरस्काराचें स्वरूप आसा. मार्च 2023 त एका खाशेल्या सुवाळ्यांत हो पुरस्कार भेटयतले.

मानसी धाऊसकार ◄



# परिक्रमा 0.5 न जिखलीं युवकांचीं काळजां

गोंयचे एक युवा फुडारी आनी समाज वावुरपी प्रा.युगांक नायक हांच्या मार्गदर्शना खाला फाटलीं साबार वर्सां गोंयच्या विंगविंगड वाठारांनी आयोजीत जावपी 'परिक्रमा 0.5' हो युवा सृजोनोत्सव ह्या वर्सा हालींच केरी फोंडा वाठारांत दादा वैद्य नगरांत मोठ्या दबाज्यान यशस्वी जालो. शेनवार आनी आयतार अंशे दोन दीस गोंयच्या विंगविंगड वाठारांतल्या शिक्षणीक आनी सेवाभावी संस्थांतल्या युवाशक्तीन ह्या उत्सवांत वाटो घेवन आपली कला सादर केली. दरेक संस्थेन वेगवेगळ्या विशयांचेर सादरीकरण केल्लें आसलें तरी शेवटाक तांचें लक्ष्य आशिल्लें तें म्हादयची राखण. ते पासत सगल्यांच्या सादरीकरणाक माटवांतल्या रसिकां कडल्यान उत्स्फुर्त ताळयो पडल्यो.

ह्या महोत्सवांत गोंयची लोककला, गोंयच्या चित्रकारांची पेन्टींग सर्त हाचे वांगडाच 'खेलो इंडिया' हे पयलेच खेप आयोजीत केल्लो खेळासर्तीकूय खेळगड्यानी प्रतिसाद दिलो.

गोंयभरचे हजारभर युवक माटवांत तशेंच माचयेर गोंयची संसकृताय आनी दायज हाची वळख घडयताले. केरी गावात पयलेच खेप हो असलो उत्सव आयोजीत केल्ल्यान गांवच्या लोकां पासतूय हें एक अप्रूप आसलें.

# ► उतरकुवाडें



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615

आयचें यूग जायरातीचें. जायराती बगर पर्याय ना. उतरकुवाडें बिम्ब मासिकांतलें म्हत्वाचें सदर. तल्लख बुद्दी आनी मेंदवाच्या व्यायामा पासत कोडीं सोडोवपाक वाचक प्राधान्य दितात. हें कोडें तुमी वर्सभर पुरस्कृत करूंक शकतात तुमची जायरात दिवन, फकत १०हजारांत....संपर्क करात ९८२२१३६८८५ ह्या क्रमांकाचेर.

## फेब्रेर 2023 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | 3 | ■ | 4 | | ■ | 5 | ■ |
| | ■ | 6 | | 7 | | ■ | 8 | | |
| 9 | 10 | | ■ | | ■ | ११ | ■ | | ■ |
| 12 | | ■ | 13 | | 14 | | ■ | 15 | 16 |
| ■ | | ■ | | ■ | | ■ | 17 | ■ | |
| 18 | | ■ | 19 | | | ■ | 20 | 21अ | |
| | ■ | 21 | | ■ | 22 | 23 | | | ■ |
| 24 | 25 | | | ■ | ■ | 26 | | ■ | 27 |
| ■ | 28 | | ■ | 29 | | | ■ | 30 | |
| 31 | | ■ | 32 | | ■ | 33 | | | |

**आडवे :** 1-रामजल्माचो वाडदीस. 4-रवी, भास्कर. 6 - मत दिवपाची प्रक्रिया, वेंचणूक. 8-कसलेय वस्तुचें सुळ्या भशेन पोंत. 9-जडसाण, भार. 12- लक्ष ओडपा खातीर कुरू, टिपण. 13 - घसघसो. 15- एक हजार किलोचें वजन. 18- वेळ, समय, अवधी. 19 - तांबड्या, उदकाळ गराचें एक फळ, watermelon. 20 - धाडस जावप, धीर जावप. 21- नवें वा णव. 22- आयतार (मराठी). 24- खतां पडून जाल्ली इबाडणी. 26- रावपाची सुवात, सदन, मकान. 28-शंकराचे आवडीचें पान, त्रिदल. 29- एकाच तळाचें. 30- मित्र. 31- वणटीर रावपी एक प्राणी. 32-वंश, वंशावळ, कूळ. 33- फाटल्यान दवरी नासतना, मुळा सावन, सामकें.

**उबे :** 1-रानांत जियेवपी, जंगली. 2- नमस्कार. 3- आपली म्हणणी. 4- पुताची बायल. 5- भायर वचपाची वाट, पळून वचपाचो मार्ग. 7- तांबड्या बियांचें एक गोड फळ. 10- जप करपाची माळ. 11- अधिकार, सत्ता, हुद्दो. 13- भंय, भिरांत घालपाची कृती. 14-बोकडां, मेंढरां पोसपी आनी राखपी. 16- शिरंगारप, सजप. 17- सप्तकांतलो एक दीस. 18- उजवाडाचो अभाव. 20अ-चकचकीत सूत. 21- अजाप. 23- फुटपाची क्रिया, कुसपाची प्रक्रिया. 25-कोश्टक, पट, वळेरी. 27- काम करपा खातीर गरजेची आशिल्ली अस्वस्थताय. 29-अधिवेशन. 30- इत्सा, आस (मराठी).

## जानेर 2023 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| बु | क | लो | ■ | भा | ■ | अ | घो | री | ■ |
| तां | ■ | क | दा | ची | त | ■ | डे | ■ | अ |
| व | न | मा | ळ | ■ | त्व | ■ | स्वा | दि | श्ट |
| ■ | मा | न्य | ■ | अं | गि | का | र | ■ | को |
| पे | ज | ■ | वा | ■ | न्या | ■ | ■ | दो | न |
| र | ■ | पं | चा | व | न | ■ | जू | न | ■ |
| गां | व | ढ | ळ | ■ | ■ | र | ■ | शा | ळा |
| व | ■ | र | ■ | पं | च | वि | सा | वें | ■ |
| ■ | का | पू | स | ■ | र | ■ | ला | ■ | मो |
| वा | न | र | ■ | अ | स | न | द | शी | र |

